# जाग

रौप्य-उत्सवी वर्ष

दिवाळी १९९८







# तमसो मा ज्योतिर्गमय...

आंक जाता तितलो सुंदर भायर सरचो हो हावेस मनांत धरून बरप्यांक चिटी बरयल्यो आनी बरप्यांनी आपणालें बऱ्यांतलें बरें बरप वेळार धाडून दिलें. जाग तांच्या उपकारांत आसा.

डॉ. सुबोध केरकार आनी मिलनबाय खानोलकारान सोबीत चित्रां काडून दिवन आंकाची सोबा वाडयली. तांचेय उपकार मानूंक जाय.

जायराती दितल्यांचे उपकार सगळ्यांत चड मानूंक जाय. तांच्याच आधाराचेर असलीं धाडसां करपाचो धीर जाता. आनी ते तर सदांच उदार हातान 'जागा'क आधार दीत आयल्यात.

निमाणें, तन्वी ग्राफिक्साचेय उपकार मानतात. राजेशबाब भाटीकार रातिचो दीस करून वावुरले म्हूण आंक वेळार भायर सरूंक पावलो. आंक वेळार भायर सरप हाका विक्रमूच म्हणूंक जाय आयच्या गोंयांत तरी.

आंक भायर सरपाक जिस्त —

अमर्त्य सेनांक अर्थशास्त्राचें नोबेल इनाम मेळिल्ल्याची खबर आयली. अमर्त्यबाबुंचो जन्म शान्तिनिकेतनांतलो. 'यत्र विश्वम् भवति एक नीडम्' ह्या आदर्शान चलपी संस्था ही. हे संस्थेंत जल्माक आयिल्लो अर्थशास्त्रज्ञ 'ग्लोबलाइझेशना'क मनीसपणाची देख दिवंक जाय अशें सांगपाक लागलो जाल्यार तांतूंत अजाप कसलें? मनीसपणाची देख राजकर्णाकूय मेळूंक जाय अशें सांगपी दुसऱ्या कोणाय भारतीयाक फुडल्या वर्सा शांततायेचें नोबेल इनाम मेळूं अशें मागुंया.

ही दिवाळी आनी नवें वर्स सगळ्यांक सुखाचें आनी समृद्धिचें वचूं अशें मनापसून मागतात.

**— वावुरपी संपादपी**



जाग

दिवाळी १९९८

☆ आंक ३ ☆ ऑक्टोबर १९९८

संपादपी
रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी
-माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी
सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स
बी-०४, आंषाढ, माडेल, मडगांव, गोंय.

छापपी
उमेश वागळे
प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

चित्रां
मिलन खानोलकार
डॉ. सुबोध केरकार

ो मोल: रु. १००/-
ाचें मोल: रु. ३५/-

जाग म्हयनाळें
-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
द साऊदादिश, पाजीफोंड
ांव – गोंय ४०३ ६०१.

# ह्या आंकांत

## वैचारीक / ललीत लेख / निबंद



## कथा



## कथा (अणकार)



## नाटकुलें



## कविता

# तुन-हुआंग

रवीन्द्र केळेकार

नीस गायता, धादोसभरीत आसता तेन्ना, आनन्दीत आसता तेन्ना. शेवणीं दिसूयभर आनन्दीत आसतात. म्हूण तीं दिसूयभर गायतात. हांवंक लागता तेन्ना झाडां खुशालभरीत जातात आनी तिंवूय गावपाक ात.

गायता ती केन्ना आयकूंक नाशिल्ली.

नांत अशे एके सुवातेर पावलों जंयची रेंव गायताली.

जो सावन आमकां तुन-हुआंगाक वचपाचें आशिल्लें. तीस पस्तीस ांक घेवन वचपी एका ल्हानशा विमानांत बसले. खडऽखडऽ खडऽ करीत तें उडत रावलें. मर्दी जियायुग्वानाक ताणें अर्दवराचो हॉल्ट . स-सात वरांचो प्रवास हो, गोबी सड्यावयल्यान चलत राविल्लो. 'डेझर्ट' म्हणटात आनी डेझर्ट म्हणिनाफुडें आमच्या दोळ्यां मुखार थानांतलो रेंवे सडो उबो रावता. धवे, मोव, नाजूक रेंवेचो. गोबीच्या र रेंवूच ना. आसा ती घट काळी भूंय. खवळां खवळांची. तीस चाळीस चाळीस मैलांचे वाटेर एक झिलकूट लेगीत पळोवंक मेळना. वणें ना, एक्क जिवाणें ना. जितो मूस ना. म्हुण्णूच हाका 'डेझर्ट' ात जाल्यार कोणाक खबर!

च तरेचो देखाव भौन भौन पळोवन दोळे झेमेवपाक लागले. मात्सो नीं. दनपार जातासर तुन-हुआंगाक पावले. 'सिल्क रोडा'र आशिल्लें ं. चिनाचो हिन्दुस्तान, पर्शिया, रोमा कडेन एका काळार हेच वाटेन चलतालो. हेच वाटेन लोक येताले वताले. आनी चिनाचो वेपार तो सिल्काचो जाल्ल्यान हे वाटेक सिल्क रोड नांव पडिल्लें. त्या र हो वाटार झाडां-पेडांनी कुचकुचीत भरिल्लो आशिल्लो अशें म्हणटात. चेर अच्छेव आयलो. दया माया काळजी नासतना तांणी झाडां कातरून ळीं. आयज तो फकत सडो जावन पडला.

वन मात्सो विसव घेतलो. तिनांक भायर सरले. एक तळें पळोवंक चें आशिल्लें.

र्द वराचे वाटेर शंबर शंबर देडशें देडशें मिटर उंचायेचे दोंगरूच दोंगर क मेळ्ळे. फकत रेंवेचे. वारो सुटलो म्हणटकूच रेंव गावपाक लागता. गायत नाचपाक लागता आनी नाचत नाचत पुराय तुन-हुआंग शारांत टा. म्हूण हाका 'गांवपी रेंवेचे दोंगर' – singing sand mountains व पडलां.

सुवात पळोवपाक कितलेशे यात्रीक आयिल्ले. थोडे चिनी, थोडे ी, चडशे अमेरिकन. हिन्दुस्तानांतले आमी तिगूच – हांव, असमिया राम गोगोय आनी साहित्य अकादेमीचे सेक्रेटरी इन्द्रनाथ चौधुरी. जाण चलत वयर वताले आनी थंयच्यान 'घसरगुंडी' करून देंवताले. जाण कऱ्यांचे (ऊंटांचे) फाटीर बसून वयर वताले. एका कऱ्याक दुसऱ्याक तिसरें हे भाशेन धा बारा कऱ्यांची केल्ली 'गाडी' पळोवन मजाच दिसली. हांव आनी इन्द्रनाथ एका कऱ्यार चडले. राम ाक चडोवचो पडलो. सात आठ वर्सां पयलीं आसामांत काझिरंगा रण्य पळोवपाक गेल्लों. तेन्ना हतयाचे फाटीर चडिल्लों. दुसऱ्या दिसा चलुंकूच येना जाल्लें.

न किलोमिटर मुखार एक ल्हान-शें बुद्ध-मंदिर मेळ्ळें. ताका तेंकून ळें आशिल्लें, जें पळोवपाक आमी हांगा आयिल्ले. तळें व्हडलेंशें न्हय, सुमाराचें आशिल्लें. पुणून बर्फाळ पर्वतां मजगतीं हून उदकाचे वझरे आसचे, ज्वालामुखिच्या पोटांत बर्फाचीं शिवलिंगां आ सचीं, तशें रेंवे सड्यार थंड गोड उदकाचें एक तळें आसप हो सैमाचो एक 'चमत्कार' कसो चिनी लोकांक दिसलो जावंक जाय आनी एक अपरूप थळ जाल्ले वरी हे लोक तें लोकांक दाखयतात आसूंक जाय. आमीय तें अपरूप थळ धरून पळेलें.

सकाळीं विमानांत प्रो. शान-हॉंग-शेन नांवाच्या एका चिनी मनशाकडेन वळख जाल्ली. विमानांत म्हज्याच म्हऱ्यांत बशिल्लो. चिनी हरशीं मोटवे. हो म्हजे परस ऊंच आशिल्लो. कातीन मात्सो गोरो. फाटल्या बावीस वर्सां सावन तो अमेरिकेंत रावता. थंयच एके युनिव्हर्सिटींत सौंदर्यशास्त्र शिकयता. हांगा आमच्याच हॉटेलांत राविल्लो आनी आमचेच वांगडा तळें पळोवपाक आयिल्लो. ताणें एक गजाल सांगली—

माओ-त्से-तुंगाची राजवट सुरू जाली आनी ताणें खंय ह्या तळ्याचो कितेंय तरी 'उपेग' जावंक जाय अशें थारायलें. एक पंप हाडून हांगा बसयलो आनी तळ्यांतलें उदक पायपांतल्यान पयस खंय तरी शेतां शिंपपाक व्हेलें. परिणाम – तळें आटलें. आयज पंप थंय निरुपेगी जावन पडला. माओच्या पिशेपणाचें एक यादस्तीक म्हूण हांगा आसा. तळ्याचें उदक तळ्या भोंवतणचीं फुलां-झाडां शिंपपाक लेगीत पावना. वाळवंटांतलो सैमाचो हो 'चमत्कार' आपणाली व्हडवीक होगडावन बसला. आतां खंय हाचो एक 'टूरिस्ट स्पॉट' करपाचो सरकाराचो बेत आसा. पुणून भितरल्यो झरी रागार फुगार जावन बसल्यात.

मागीर म्हणपाक लागलो, माओच्या 'कल्चरल रेवोल्युशना'न (संस्कृतायेच्या मळावयले क्रान्तीन) चिनी समाजाचें रूप बदलपाचो यत्न केलो खरो. पुणून जें लुकसान केलें तें ल्हाना-समानांतलें न्हय. ताणें चिनी लोकांचो कणोच मोडून उडयलो. कोन्फु-त्सू, लाओ-त्सू आनी बुद्ध हांच्या संस्कारांत चीन वाडिल्लें. माओन हे संस्कारूच पुसून उडोवपाचो यत्न केलो. मार्क्स हांगासरल्या लोकांक परकी. ताका हांगा 'ट्रान्सप्लांट' करप हीं माओचीं पिशेपणां आशिल्लीं. ओगीच कितेंय व्हरून खंयूय रोयलें म्हूण जाता व्हय? पुणून हुकूमशायेंत कोण कोणाचें आयकता? आयज चिनांत विचारवंत कोण नात. जांकां चीन विचारवंत म्हूण वळखता ते सगळे किरकोळ. Mediocre लोक. तांगेलीं पुस्तकां इंग्रजींत हाडात आनी इंग्लंड अमेरिकेंतल्या लोकांक दियात. लोक हांसतले. चिनान आयज वेपारा खातीर आपणालीं दारां भायल्या कंपन्यांक उकतीं केल्यांत. पुणून तकलेचीं दारां सगळीं अजून तश्शीं धांपून दवरल्यांत. कोण स्वतंत्र विचार करिना... सगळे सरकाराक भियेतात... चिनाची पुर्विल्ल्या वैभवाची धूळदशा जाल्या. म्हज्या भुरगेपणांत हांवें पळेल्लो तो सादो, सरळ, उजू चलणुकेचो चिनी आयज ह्या देशांत वखदाक लेगीत पेळोवंक मेळना...'

म्हजी आनी ताची तार जुळपाक इतलें हें पुरो जालें.

[ २ ]

दुसऱ्या दिसा सकाळीं भायर सरले. दक्षीण-उदेंत दिकेन एक आड वाट फुटिल्ली. हे वाटेन गाडयो धांवपाक लागल्यो. पंदरा वीस किलोमिटरां

मेरेन खंयच मनीस राविल्लो पळोवंक मेळ्ळो ना. मनीस-वसती पसून पयस पडिल्लो हो वाटार दिसलो. तुन-हुआंग शारंत कसलेच उद्देग-धंदे चलनात. वेपारूय चलना. हे वाटेन कुशीक दुसरी एक समान्तर वाट चलताली. न्हंयेच्या तळा सारकी दिसताली. हांगा एका काळार एक न्हंय व्हांवताली जावंक जाय अशें दिसलें. आयज ती आटल्या. मात्शे मुखार मात पावल्यात —

तोंड आं करून पळेत रावलों.

काळ्या किट्ट 'मिंगशा' दोंगरांचे फाटीर मोगाओ-कू हॉवऱ्यो उब्यो आशिल्ल्यो पळेल्यो. बद्द अजिंठ्या सारक्यो. शिल्प लेगीत अजिंठ्या सारकें. अजिंठ्याच्यो हॉवऱ्यो भव्य. ह्यो भव्य न्हय. पुणून किरकोळूय न्हय. मध्यम आकाराच्यो. खाशेली अस्मिताय आशिल्ल्यो. चौदा शतमानां सावन हांगा मिडेन आनी मुरवतीन उब्यो आसात. अजिंठ्यांतल्यो हॉवऱ्यो सव्वीस काय सत्तावीस. ह्यो पांचशां भायल्यो भितरल्यो. सुमार पंचेचाळीस पन्नास मिटरांच्या आयस पयस वाटारांत पातळ्ळेल्यो. अजिंठ्यांतली पयली हॉवरी कोंरांतून काडले उपरांत शें दोनशें वर्सांनी हांचें कोंरांतप सुरू जाल्लें खंय. उपरांतच्या हजारभर वर्सांच्या काळांत त्यो तयार जायत रावल्यात. फाहियान, युवांग-च्यान (ह्यु-येनत्सान), इथ्सींग सारकेल्या – हिन्दुस्तानांत आयिल्ल्या चिनी यात्रिकांनी हांगाच रावन खंय बौद्ध साहित्याचो अभ्यास केल्लो. हिन्दुस्तानांतल्यान जे बौद्ध पंडीत चिनांत आयले तांणीय खंय हांगाच रावन पाली आनी संस्कृत भाशेंतली बौद्ध बरपावळ चिनी भाशेंत हाडपाचो वावर केल्लो. बौद्ध धर्माचो आनी बौद्ध साधनेचो अभ्यास करपी आशिया खंडांतलें हें एक म्हत्वाचें केन्द्र आशिल्लें. वेगळ्या वेगळ्या देशांतले बौद्ध हांगा येवन रावन आनी शिकून गेल्यात. हजारभर वर्सां हें केन्द्र गजबजिल्लें आशिल्लें. आपणाली खेरीत अस्मिताय सांबाळून हें केन्द्र इतलीं हीं वर्सां तिगून उरलां.

आमी सकाळीं आठांक थंय पाविल्ले. सांजेच्या साडे पांच मेरेन सपणां चडटाले, देंवताले. चडून देंवून पांयांक गुळे आयले. तरूय तिनूच हॉवऱ्यो पळोवंक पावले. एका दिसान पळोवन वचपाचें थळ नाशिल्लें हें. एका म्हयन्यान लेगीत पळोवन जावपाचें नाशिल्लें. बुद्धाच्यो दोन हजार मुर्ती हांगा आसात. धा सेन्टीमिटरा येदी एक पळेली आनी वीस मिटर ऊंचूय एक पळेली. ते भायर, शेंकड्यांनी बोधिसत्त्वांच्यो मुर्ती पळेल्यो.

शिल्प तर अजिंठ्या सारकेंच. वणटीं वयलीं आनी पाख्यां वयलीं चित्रांय अजिंठ्या सारकीं. तेच परंपरेंतलीं. तेच शैलींतलीं. फरक एकूच – अजिंठ्यांतल्या चित्रांतल्यान हिन्दुस्तानांतलें जिवीत उक्ताडा आयलां. जाल्यार, तुन-हुआंगांतल्या चित्रांतल्यान चिनी जिवीत उक्ताडा आयलां. हे लोक शेतां कशीं नांगरताले, बीं कशें रोयताले, नण्णी कशी काडटाले, लुंवणी कशी करताले, भात कशे फांफुडटाले, कशे कांडटाले; तेच भाशेन, घरां कशीं बांदताले, नुस्तीं कशीं पागताले, चरखो कसो चलयताले, लुगटां कशीं विणटाले – चिनी जिविताचीं सगळीं आंगां बारकायेन हांगा चित्रायल्लीं पळोवंक मेळटात. लग्नाचे, मरणाचे, स्मशानयात्रांचे, झुजांचे देखावूय हांगा पळोवंक मेळ्ळे. बुद्धाच्या जिवितांतले सगळे म्हत्वाचे प्रसंगूय अजिंठ्या भाशेन हांगाय पळोवंक मेळ्ळे.

सगळें फकत २४९, २८८ आनी २९६ नम्बराच्या तीन हॉवऱ्यांनीच पळेलें.

वेगवेगळ्या काळांतलें चिनी लोकांचें जिवीत कशें कितें आशिल्लें हाचो अभ्यास करपाक हाचे सारकें दुसरें थळ घडये आनीक खंयच आसचें ना. लोकांचो भेस पळोवनूय खंयचें खंयचें चित्र खंयच्या काळांतलें तेंवूय सांगूं येता.

एक आगळी वेगळी संस्कारिताय ह्या हॉवऱ्यांक आसा म्हणपाची जाणवीक जाले बगर राविना.

येदोय व्हडलो हो संवसार हांगा उबो करपी शिल्पकार आनी कोण आशिल्ले? माओ-त्से-तुंग म्हणटा, हें सगळें उबें करप दुबळ्या चिनी कलाकारांचें आनी कारिगरांचें रगत हांगा आटल हांयस दाखोवन आनी दंडाचो भंय घालून खंय चिनी राजांनी तांचे कडल्यान करून घेतलां. शोशण, जबरदस्ती आनी गुला इतिहास हांगा आसा.

प्रो. शान-हॉंग-शेनांक हांवें विचारलें, 'खरें दिसता तुमकां हें

'Nonsense – अर्थ नाशिल्ली बडबड ही' तांणी इतलीच आनी म्हळें, 'कलाकारांनी आनी शिल्पकारांनी हांगा आपणालो प्रा तो स्पस्ट बरो दिश्टी पडटा. बुद्धा विशीं मनांत सुमारा भायर आसले बगर असलीं चित्रां कोणाक काडूंक येवपाचीं नात. असल कोणाक कोंरांतूंक येवपाचीं नात.' आनी म्हाका चिनी कलाकारां आगळीं-वेगळीं आंगां समजावन सांगलीं—

'चिनी मनशाच्या भायल्या रुपा वयल्यान ताच्या अंतरंगाचो येवपाचो ना. खंयचोच चिनी चित्रकार आयजवेर चित्रकला शिकपा स्टुडियोंत वचून बसूंक ना. मुखार विवस्त्र बायल-मनशेक ब तिचें चित्र काडूंक ना. तो कोणाचेंच आनी कित्याचेंच भायलें तो अंतरंगांत देंवता, अंतरंगाकूच म्हत्व दिता. म्हयन्याचे म्हा एकाच कोंड्याकडेन पळेत बशिल्ले, कोंड्याकडेन एकरूप जाव करीत बशिल्ले चित्रकार हांगा जावन गेल्यात. ते स्वता कों तेन्नाच तांणी कोंड्यांचीं चित्रां काडल्यांत. तशेंच, झाडाकडेन एकरू तेन्नाच एकाद्रया झाडाचें ते चित्र काडूंक मुखार सरल्यात. खं तिनूय त्रिकाळ सारकें दिसना. सकाळचें ताचें रूप एके तरे दनपारचें वेगळें, सांजचें वेगळें, रातचें तर सामकेंच वेगळें आ चित्रकार झाड फकत दोळ्यांनी पळेना, काळजांतल्यान पळे हजार मूड. ह्या सगळ्या मुडांकडेन आपणाक एकरूप एक येवंक जाय अशें तो मानता. चडशीं चिनी चित्रां दोंगरांचीं पळोवं कुपांनी वेंटाळो दिल्ले वा कुपांनी वेंग मारिल्ले दोंगर चित्रांनी दोंगरांचेर चडून तांणी हीं मुखावयल्या दोंगरांचीं चित्रां काडल्यां चडटकूच मनशाचें काळिजूय वयर सरता अशें चिनी चित्रकार मार्न बरो चित्रकार बरो मनिसय आसूंक जाय हो चिनी चित्रकारा रागा दुस्वासा मत्सरा पेल्यान गेल्लो आसूंक जाय, काळजान नि आसूंक जाय. ना जाल्यार बरीं चित्रां चित्रावनूच जावचीं ना मानता.

ताका चित्तशुद्धिची देख बुद्ध धर्मान दिल्या. चिनी चित्रक चित्रकला. चिनान विज्ञानाचे व्हडलेशे सोद लावंक नात. ताचे कोणाक व्हडलें-शें प्रभावीत करूंक पावूंक ना. पुणून चित्रक हात धरपी दुसरो देश मेळचो ना. कलेच्या मळार चिनी धर्मान सृजनशील केला. माओ-त्से-तुंगाक चित्रकलेचें कांयच

तुन-हुआंगांतली चित्रकला पुराय चिनी. पुणून तिचे फाटल्या भारतीय प्रेरणा लिपून उरूंक पावूंक ना. आनी जाणकार कलेचेर खंय इराणी संस्कारूय दिश्टी पडटात आनी खंय पळोवंक मेळटात. अजाप न्हय. तुन-हुआंग हें सुमार सात आंतरराष्ट्रीय केंद्र आशिल्लें. बौद्ध संवसारांतले सगळेकडले रावताले.

एक प्रस्न कोणाकूय पडूंक जाय—

येदो व्हडलो हो विहार, येद्र्या सृजनशील लोकांचें हें के बौद्धांनी सोडून कित्याक दिलें? उपरांतचीं कांय शतमानां तें पडलें? जाप मेळटा ती अशी—

धाव्या शतमानांत हिन्दुस्तानांत बौद्ध धर्म उरूंक नाशि

न्वेनी लोकांचें भारतांत वचप बंद जाल्लें. उपरांत काबूलचो वाटार
ाच्या प्रभावांत आयलो. ह्या वाटारांतल्या बौद्धांचेर हावळ आयली.
टार, मध्य एशियांत मोंगलांचीं धुमशेणां सुरू जालीं. ते अख्खें जग
क भायर सरले. चिनाचेरूय घुरी घालपाचो बेत करपाक लागले.
ांगच्या बौद्धांनी येवजिलें, मोंगल घुरी घालून आयले जाल्यार
वाटेन येतले. येतकूच तांकां सगळ्यांत पयलीं आमी दिश्टी पडटले.
मारपाक तरसाद उखलचे पयलींच तांकां ह्यो होंवऱ्यो दिश्टी पडटल्यो.
सगळ्यांत पयलीं विध्वंस करतले. ते परस आमीच हांगासरले
ाल्या गांवांत गेल्ले बरे. घडये, होंवऱ्यो विध्वंसा पसून वाटावतल्यो.
तांणी हें थळ सोडून दिलें. तांकां हुस्को आशिल्लो तो तांच्या
लयाचो. सुमार पन्नास हजार ग्रंथांचीं हात बरपां तांणी एकठांय
एकल्या युवान-च्वांगान हिन्दुस्तानांतल्यान कितल्या-श्या खेंचरांचे
घालून कितलिशीं पुस्तकां हाडिल्लीं. पुस्तकालय वाटावपाक तांणी
होंवरेंत रेंवे पोंदा लिपोवन दवरलें.
ांत हें थळ निर्जनूच उरलें.

[ ३ ]

मर्दी कांय जाण तुन-हुआंगाक पाविल्ले आसूंक जाय. मार्को पोलो
लो म्हणटात. उदेंत एशियेंतल्या एका व्हडल्या देशाचेर पिटर नांवाचो
स्ती सम्राट राज्य करता म्हणपाचें ताणें आयकल्लें. ताका सोदीत
ायिल्लो. तो आयिल्लो ते वाटेर कितलेशे बौद्ध विहार आशिल्ले.
विहाराचो ताच्या भोंवडेच्या पुस्तकांत उल्लेख मेळना. विहार नियाळून
चीय इत्सा ताका जावंक पावली ना. बुद्धाचें नांव लेगीत ताणें
क नाशिल्लें आसूं येता.
विसाव्या शतमानाच्या आरंभाक सर ओरेल स्टेन नांवाचो एक
ागा पावलो. आनी तुन-हुआंग हें नांव अकस्मात संवसारभर गाजपाक

लें अशें —
ाक पोरण्या पुस्तकांचीं हातबरपां एकठांय करपाचें पिशें आशिल्लें.
ाराक कांय जाणांक 'एन्टीक्स' एकठांय करपाचें आसा तशें.)
ानांत येवन ताणें कांय पुस्तकां एकठांय केल्लीं. बरींचशीं पुस्तकां
ानांतल्यान चिनांत पावल्यांत म्हणपाचें ताणें हिन्दुस्तानांतूच
ल्लें. तो चिनाक वचपाक भायर सरलो. युवांग-च्वांग जे वाटेन भारतांत
लो तेच वाटेन तो भारतांतल्यान चिनाक गेलो. सिकियांगा सावन
ांग मेरेनचे वाटेर ताणें कितल्या-श्या पडंग विहारांक भेटी दिल्यो.
ळ्ळीं तीं पुस्तकां ताणें विकतीं घेतलीं. काबुलाक पाविल्लो. थंय
बेग नांवाचो एक मुसलमान ताचो इश्ट जालो. ताचे कडल्यान
तुन-हुआंगाची खबर कळ्ळी – 'एका काळार हें बौद्धांचें एक व्हड
आशिल्लें... थंय एक व्हडलें पुस्तकालय आशिल्लें, जातूंत मेळूंक
अशीं दुर्मिळ कितलिशीं पुस्तकां आशिल्लीं... मोंगलाचे घुरयेक भियेवन
द्रांतले बौद्ध भिक्षू पुस्तकालय थंयच उडोवन पळून गेल्ले' असलें
केतें ताणें बेगाकडल्यान आंयकलें. तो तुन-हुआंग सोदीत सोदीत
वलो.
कालय आसा आनी तें वांग-ताओ-शी नांवाच्या एका ताओ पंथी
हातांत आसा म्हणपाचें ताका कळ्ळें. हो साधू कांय वर्सां पयलीं
विल्लो. आनी हांगासरली बुद्धाची वीस मिटर उंचायेची एक मूर्त
ो पावस झेलीत उबंत पडल्या हें पळोवन खंती जाल्लो. पैचींग,
नानकिंग, केन्टोन सारक्या शारांनी वचून दारांदारांनी भोंवन ताणें
ठांय केलो आनी तुन-हुआंगाचे उबंत पडिल्ले हे भव्य मुर्तीक
आसरो दिवपी एक भव्य मंदिरूय ताणें हांगा उबें केलें आनी हांगाच तो
रावपाक लागिल्लो.

मनीस सादो-भोळो, छक्के पंजे वळखूंक येनात असलो. स्टेनान ताका भुलोवपाचो यत्न सुरू केलो. आपूण युआंग-च्वांगाचो एक भक्त. ताणें हिन्दुस्तानांतल्यान हाडिल्लीं पुस्तकां हांगा आसात आनी तीं हांगा उबंत पडल्यांत म्हणपाचें आयकलां. तीं अशींच उबंत पडून उरलीं जाल्यार एक दीस ना जावन वतलीं आनी युआंग-च्वांगाचे सगळे कश्ट फुकट वतले... आपणाक मात्शीं तीं पळोवंक दी म्हूण स्टेनान ताका विनयलो. साधू विरगळ्ळो. ताणें भितरलें एक बाड हाडून स्टेनाक दाखयलें. खासा युआंग-च्वांगान अणकारिल्लीं तीं बौद्ध पुस्तकां आशिल्लीं.

'आरे! केदें व्हड एक भांडार आसा तुजेकडेन, खबर आसा तुका? हीं युआंग-च्वांगाचीं पुस्तकां! आनीक कितें आसा तुजेकडेन तें दाखय!'

साधून दार उकतें केलें आनी आपणाकडेन आशिल्लें भांडार स्टेनाक दाखयलें. सुमार पन्नास हजार पुस्तकां आशिल्लीं. णवेक हजार चिनी भाशेंतलीं, तितलींच तिबेटी भाशेंतलीं. पांचेक हजार संस्कृत आनी पाली भाशेंतलीं; उरिल्लीं कुची, खोतानी, तुर्की बी वेगळ्या वेगळ्या भासांतलीं. पुस्तकां भायर ताका इतिहासीक म्हत्वाचे कांय दस्तावेज, कांय वेपारी कबलाती, कांय देण्याघेण्याचे हिशोब, सिल्का वयलीं चित्रां, असलेंय कितें कितें मेळ्ळें.

सगळें अस्ताव्यस्त पडिल्लें. स्टेनान तें मांडणेर घालपाचो वावर हातांत घेतलो. एक दीस ताणें साधूक म्हळें, 'हालिंसाराक युआंग-च्वांग म्हज्या सपनांत येता आनी ह्या पुस्तकांचो उद्धार कर म्हूण सांगता; तुका समजावन सांगल्यार तूं समजतलो म्हणटा... हांगा हीं पुस्तकां इबाडपाचीं आसात... म्हाका दी तीं.' साधूक ताणें तरांतरांचीं हांयसां दाखयलीं आनी सुमार एकोणतीस ट्रंक भरून म्हत्वाचें खूबशें ताणें इंग्लंडाक व्हेलें. फकत पांचशें रुपये साधूक दिवन. ही खबर फ्रांसांतल्या पोलियोक कळ्ळी, रशियेंतल्या ऑल्डनबर्गाक कळ्ळी. जपानांतल्या ताइबाना जुइचोक कळ्ळी आनी अमेरिकेंतल्या वॉर्नराक कळ्ळी. आनी आर्विल्ल्या काळांतल्या ह्या वाटमाऱ्यांनी हांगा येवन पांचव्या शतमाना पसून धाव्या शतमाना मेरेनच्या काळांत तुन-हुआंगच्या विद्वानांनी एकठांय केल्लें हें भांडार पुराय लुटलें.

चिनांत ही खबर पातळ्ळी तेन्ना सगळे उसळ्ळे. चिनी सरकार रोखड्या रोखडें धांवन आयलें आनी तुन-हुआंग ताणें आपणा हातांत घेतलें. पुणून ते मेरेन खूब कळाव जाल्लो. चीन पुराय नागवल्लें. अमेरिकेंतल्या वॉर्नरान तर लुगटांचेर कसलें तरी एक रसायन ओतून वणटीं वयल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या चित्रांचे 'प्रिन्ट्स' काडले आनी मूळ चित्रां इबाडून उडयलीं. आयज खंय हें लुटून व्हेल्लें भांडार येवरोप-अमेरिकेंतल्या पोरणावळ-शास्त्राच्या कांय केन्द्रांनी सांबाळून दवरिल्लें पळोवंक मेळटा.

प्रो. शांग-हॉन-शेनान ही खबर सांगली तेन्ना म्हजें मन खंतीन भरून आयिल्लें. तिडक मारिल्ली म्हाका ह्या गोरे कातिच्या वाटमाऱ्यांची.

एक म्यूझियम पळोवपाचो उरिल्लो. तो आमी दुसऱ्या दिसा सकाळीं पळेलो. सिल्क रोडार मेळिल्लीं आयदनां आवतां, भूर्जपत्रां वयलीं आनी ताडपत्रां वयलीं कांय बरपां थंय पळोवंक मेळ्ळीं. एक व्हडली घांट पळेली. तिचे फाटीर वेगळ्या वेगळ्या लिपयांनी कांय मंत्र कोंरातिल्ले आशिल्ले. पोरणे बंगाली लिपींत कोंरातिल्लो 'ॐ मणिपद्मेहम्' हो तिबेटी मंत्र म्हाका वाचूंक आयलो. ब्रोंझच्या एका घोड्यान लक्ष ओडलें. मेजार वा स्टुलार दवरपा येद्व्याच आकाराचो. पुणून तातूंत कलाकारान उबो केल्लो धांवपाचो वेग रॉकेटाच्या वेगाक लेगीत फाटीं घालीत असो आशिल्लो.

म्हत्वाचें म्हळ्यार, फाहियानाची यात्रा खंयच्यान खंय जाल्ली हाचो नकसो थंय पळोवंक मेळ्ळो.

[ ४ ]

बुद्ध धर्म चिनांत पावला तेन्ना चीन धर्मचे नदरेन मागसार देश नाशिल्लो. चिनाची आपणाली अशी एक धर्मपरंपरा आशिल्ली, जी आमचे परंपरे इतलीच पोरणी, प्रौढ आनी शाणी आशिल्ली. कोन्फू-त्सू आनी लाओ-त्सूची परंपरा ही. हे परंपरेंत उणें कितें आशिल्लें म्हूण चिनान बुद्धधर्म आपलोसो केलो ?

जाप सोदपाखातीर आमच्या देशाचे उत्तर-अस्तम शिमेचेर मात्शी नदर भोंवडावन पळोवंक जाय. म्हणटकूच, कितल्यो-श्यो गजाली लक्षांत येतल्यो. व्हडल्या व्हडल्या पर्वतांनी कुचकुचीत भरिल्लो वाटार हो. सोंपेपणान हांगासून थंय, थंयसून हांगा येवप वचप कोणाक जमचें ना हे तरेचो. तरी आसतना, ह्या पर्वतांतल्यान लोकांनी वाटो काडल्यात. कांय वाटो हिन्दुकुश पर्वतांतल्यान समरकंदा मेरेन गेल्यात तर कांय पामीर आनी काराकोरम पर्वतांतल्यान कुनलून पर्वता मेरेन पावल्यात. सिंकियांगचे उत्तरे दिकेक तक्लमाकन नांवाचो एक व्हड सडो आसा, जो अस्तम उदेंत दिकेक हजारभर मैल पातळून अत्लाय आनी तियेनशान पर्वतांक तेंकला. थंयूय ह्यो वाटो पावल्यात. संवसारांतल्यो दुर्गमांतल्यो दुर्गम वाटो ह्यो.

आयज ह्या वाटारांत तुर्की मुसलमान रावतात. पुणून एक काळ असो आशिल्लो कीं जेन्ना ह्या पुराय वाटारांत बौद्धांचो शेक चलतालो. सुमार धा शतमानां हो वाटार बौद्ध उरला.

सिल्क रोडान हो वाटार चिनाकडेन जोडला. सिल्क रोड हो फकत चिनांतलो माल भायर व्हरपी आनी भायलो माल चिनांत हाडपी मार्ग नाशिल्लो. धर्मविचारांचें दिवप घेवप करपीय एक मार्ग आशिल्लो.

कोण खंयच्यान खंय गेल्ले हाचो इतिहास काल पयर मेरेन कोणाक होलमूंक नाशिल्लो. एकुणिसाव्या शतमानाच्या निमाण्या दसकांत भूर्जपत्रांचेर आनी ताडपत्रांचेर बरयल्लीं दोन पुस्तकां ह्या वाटारांत मेळ्ळीं. एक खोतानाक. दुसरें कुचाक. खोतानाक मेळिल्लें खरोष्टी लिपींत बरयल्लें प्राकृत भाशेंतलें **धम्मपद** आशिल्लें. दुसऱ्या शतमानांतलें. निमाणें अर्दूच मेळिल्लें. (उरिल्लें अर्द आनीक कांय वर्सांनी मेळ्ळां.) धम्मपद पाली भाशेंतलें पुस्तक म्हणपाचें सगळे जाणा आशिल्ले. ताचें संस्कृत जालां म्हणपाचीय खबर सगळ्यांक आशिल्ली. ताचो प्राकृत अणकार पळोवन जाणकारांक अजापांचो धसको बसलो. पयलेंच बौद्ध पुस्तक हें ह्या वाटारांतलें. कुचाक मेळिल्लें पुस्तक वैजकी शास्त्रा वयलें आशिल्लें. चौथ्या शतमानांतलें. संस्कृत भाशेंतलें. मदीं मदीं प्राकृत अर्थावणी आशिल्लें. चरक आनी सुश्रूत हांचींय कांय अवतरणां हातूंत घेतिल्लीं. म्हणटासर तुर्फानच्या एका उबंत विहारांत अश्वघोषाचें एक संस्कृत नाटक मेळ्ळें. पयल्या शतमानांतलें.

इतिहासकारां मुखार एक नवोच संवसार उकतो जाल्लो.

मध्य एशियांतल्या ह्या दुर्गम वाटारांत तेराशें चौदाशें वर्सां पयलीं हिन्दुस्तानी, कुचानी, सोगदियानी, चिनी, वेगळ्या वेगळ्या वाटारांतले विद्वान येवन राविल्ले. आनी आपापणाले भाशेंत बौद्ध बरपावळ हाडपाचो वावर मोट्या नेटान करताले. हाचो प्रभाव चिनाचेर पडूंकूच जाय आशिल्लो.

बुद्ध धर्म समजून घेवपाची ओड कांय चिनी विद्वानांक पयलींच जाल्ली. तातूंत मिंग-ती राजान भर घाली. ताका एक दीस एक सपन पडलें. अस्तमे दिकेंतल्यान भांगरा सारको लिकलिकीत एक दिव्य पुरूस आयला आनी आपणाल्या राज-म्हालांत भितर सरला, अशें ताणें सपनांत पळेलें. ताणें जाणकारांक आपोवन सपनाचो अर्थ विचारलो. 'तो भांगरा सारको लिकलिकीत दिव्य पुरूस भगवान बुद्ध... ताची शिकवण आमच्या देशांत येवची अशी सुचोवणी ह्या सपनांत आसा.' जाणकारांनी राजाक सांगलें. राजान रोखडेच मनीस धाडले. 'हिन्दुस्तानांत वचात आनी बुद्धधर्माचे जाणकार घेवन येयात', राजान तांकां सांगलें.

ख्रिस्ताच्या पयल्या शतमानाच्या सव्या दसकांतली खबर ही. गेले. हिन्दुस्तानांत वचपाची तांकां गरजूच भासली ना. खोतानाकूच दोग जाणकार मेळ्ळे, 'हिन्दुस्तानांतलेच. एक कश्यप मातंग. दुसरो गो येतना ते एका धव्याफुल्ल घोड्याचे फाटीर कितलिशीं बौद्ध पु घेवन आयिल्ले. राजा खोश्शी जालो. ताचे खातीर ताणें लोयांगाक विहार बांदून दिलो. ह्या विहारांत बसून मातंगान बुद्धाचे बावें धर्म-विचार चिनी भाशेंत हाडले.

बुद्ध धर्मविचाराचें चिनी भाशेंतलें सगळ्यांत पयलें पुस्तक हें.

उपरांत पेंव फुटिल्ले वरी कितले-शे बौद्ध भिक्षू एका फाटल्यान चिनांत येत रावल्यात. तांच्यांतलो एक धर्मरक्ष. कुचाचो. ताका छ भासो येताल्यो. ख्रि.स. २८४ ह्या वर्सा तो चिनांत पाविल्लो. तीस तो थंय उरलो. ह्या तीस वर्सांत खंय ताणें सुमार दोनशें ल्हान- बौद्ध ग्रंथ संस्कृत पालींतल्यान चिनी भाशेंत हाडले. तांतले णव्वद मेळ्ळ

कांय काळान चौथ्या शतमानांत कुमारजीव नांवाचो आनी एकलो चिनांत पावलो. तोवूय कुचाचो. बापूय हिन्दुस्तानी. आवय कुचाची. म्हणटात तो अशोकाचो नातू (कुणालाचो पूत) आशिल्लो. आरंभाक हीनयानी पंथाची दीक्षा घेतिल्ली. संस्कृत शिकपाक काश्मिराक गे थंयच्यान परतलो तेन्ना यारकंदाच्या राजकुंवरान ताका महायानाची दिली. तो महायानी ग्रंथ आपणाले कुची भाशेंत हाडपाच्या वावरांत आसतना अवचीत राज्यांत बंडाळी सुरू जाली. चिनी सैन्य भितर आनी चिनी सैनिकांनी ताका बंदी करून चिनाक व्हेलो. थंय तो भास शिकलो. धा वर्सांत ताणें सुमार णव्वद पंच्याणवद महायानी चिनी भाशेंत हाडले.

सगळ्यांत चड गाजलो तो **सद्धर्म पुंडरीका**चो चिनी अणकार. हो अणकार चिनी जपानी बौद्धांचो प्रमाण धर्मग्रंथ म्हूण आयजूय चल

उपरांत परमार्थ नांवाचो एकलो गेला आनी हरिवर्मा नांवाचो आ एकलो गेला.

[ ५ ]

हाचेकूय म्हत्वाचें म्हळ्यार —

बुद्धाच्या जल्मस्थळांत – मूळ झरी कडेन – वचून बुद्धधर्म खो शिकपाचे खर इत्सेन कितले-शे चिनी विद्वान चिनांतल्यान हिन्दुस्त आयल्यात. कितले जाण पावल्यात हाची नोंद इतिहासाक मेळूं मेळ्ळ्या ती सगळ्यांत पयली एकल्याची. फा-हियानाची. तो शतमानांत हिन्दुस्तानांत पाविल्लो.

ताणें आपणाले भोंवडेचीं वर्णनां बरोवन दवरल्यांत. खंय कितले पळेले आनी ह्या विहारांनी कितले भिक्षू रावताले हाचीं बारीक वर्णनां ह्या पुस्तकांत आसात. खोतानांत तो गोमती नांवाच्या वि कांय दीस उरिल्लो. थंयच्या भिक्षुंची चाल-चलणूक पळोवन तो प्रभावीत जाल्लो. तुंग-हुआंगाच्यान भायर सरून खोतानाच्या दक्षीण वाटारांत पावतासर ताका स वर्सां लागिल्लीं. ह्या वाटाराक तो दिकेचें हिन्दुस्तान' म्हणटा. उपरांत तो मथुरेक पावता. 'ख हिन्दुस्तानांत' पाविल्लेवरी ताका तेन्ना दिसता. उपरांतचीं स वर्सां ह्या 'खरेल्या हिन्दुस्तानां'त उरला. तांतलीं दोन वर्सां ताणें उ सारल्यांत. जंय जंय पावला थंय थंय ताणें बौद्ध ग्रंथांची वासपूस आनी कांय ग्रंथांच्यो आपणाल्या हातान ताणें प्रति-लिपीय तयार केल्यो कितल्या-श्या अडचणींतल्यान ताका वाट काडची पडल्या. कितल्यो संकश्टां झेलचीं पडल्यांत. निमाणीं दोन वर्सां तो श्रीलंकेंत रावला तीन वर्सां उपरांत तो परतो चिनांत पावला.

सय दोनशें वर्सां उपरांत युआंग-च्वांग आयला. युआंग-च्वांगाच्या उल्लेण कांय जाण ह्यु-एन-त्सांग म्हूण कुरतात. त्या काळांत र्स्द्राचें एक व्हडलें ल्हार जाल्ले वरी पुराय आशिया खंडाचेर लो ख्रि. स. ४५३च्या सुमाराक तो च्रिनाचो राजधर्मूय जाल्लो. ख्य शिष्यांक हें आवडूंक नाशिल्लें. फू-ई नांवाचो एकलो च्रो ष्य राजासरीं गेलो आनी म्हणपाक लागलो, कितलोय जाल्यार भाग्रो'. आमकां परकी. तो हांगा पातळ्ळो जाल्यार कुटुंबनिष्ठा, र्बुल्यां लोकांच्या जिवितांतलीं गळून पडटलीं. हे लोक घरदार वेहानी वचून रावतात. देशाचें कितेंच लावन घेनात. सगळ्यांत जा म्हळ्यार, हे लोक कांयच काम करिनात. भिक्षेचेर जियेतात... चेरदी हाडूंक जाय.'

राच बौद्ध जाल्लो. ताचेर हाचो कांयच परिणाम जालो ना.

-गंग राजाच्या दरबारांत आशिल्लो. बुद्ध धर्माचो तो जाणकार नोच पुणून ताका आनिकूय खोलायेंत देंवन हो धर्म शिकपाचो ती. आपूण कांय काळा खातीर हिन्दुस्तानांत वतां आनी जाय कून येतां अशें ताणें राजाक सांगलें. राजान म्हळें, 'च्ये च्ये मकां हांगा जाय.' युआंग-च्वांग मात्सो निर्शेलो आनी एक णा सांगी नासतना पळ्ळो. तो मध्य एशियांत कांय दीस उरलो. जाकडेन ताची दाटी जाल्ली. राजाच्या मनांत ताका तुर्फानाकूच शिल्लो. युआंग-च्वांग हिन्दुस्तानांत वचपाक भायर सरलो म्हळें, 'हांव तुका वचूंक दिवपाचों ना.'

चूंक दिलो ना जाल्यार तुका हांगा म्हजीं फकत हाडांच हो मेळचों ना', ताणें राजाक सांगलें. तो उपास करपाक लागलो. रान ताका वचूंक दिलो.

-गंग सोळा वर्सां हिन्दुस्तानांत उरला. नालंदा विश्वविद्यालयांतलो जन शीलभद्रा सारकेल्या एका आचार्या कडल्यान तो विज्ञानवाद हां रावत ताणें पंच्यास्तर महायानी ग्रंथ चिनी भाशेंत हाडल्यात. र्षवर्धनाची तशी कामरूपच्या भास्करवर्मनाची ताणें इश्टागत

-गंगचे तीन ग्रंथ मेळटात. एक ताचे भोंवडेच्या वर्णनाचो. दुसरो, द्धमत्ताची फोडणिशी आशिल्लो. तिसरो, ताच्या शिष्यांनी च्या जिविता विशिंचो.

परांत ताणें खोतानच्यान आपणाल्या राजाक एक चीट बरोवन ण सांगी नासतना कित्याक गेलों आनी इतलीं वर्सां हिन्दुस्तानांत लों हें सांगून. राजा ताचेर रागार जाल्लो. चीट वाचतकूच हवलो. युआंग-च्वांग चिनांत पावला तेन्ना राजान ताका हुनहुनीत दिला. इतलेंच न्हय तर ताच्या एका पुस्तकाक ताणें प्रस्तावनाय

[ ६ ]

ट संबंद वाडिल्ले आसुनूय चिनांतलो बुद्धधर्म अजून चिनी क नाशिल्लो. तो 'भायलो'च, 'परकी'च उरिल्लो. तो पूर्ण जालो बोधिधर्म चिनांत पावलो तेन्ना.

कांजीवरम्चो. एक ध्यान-मार्गी बौद्ध. तागेलो गुरू प्रज्ञान्तर. र्माक चिनांत वच म्हूण सांगलें. एका तारवार बसून बोधिधर्म तीन वर्सां लागलीं ताका चिनांत पावपाक. सव्या शतमानाच्या खबर ही. रूप ऊग्र. बिटबिटीत दोळे. तांतूंत खाडामिशयांचें ल्लें. सभावानूय तुसडो. भीडभाडो नाशिल्लो. रूपा वयल्यान ो अदमास येनाशिल्लो. 'तुजी पिराय कितली?' कोणें एकल्यान ताका विचारलें. 'देडशें वर्सां', ताणें जाप दिली. ताका सभ्य समाजाच्या शिष्टाचारांची पर्वा नाशिल्ली. बुद्धाचे जल्मभुंयेंतलो एक व्हड बौद्ध जाणकार आपणाल्या राज्यांत पावला म्हणपाची खबर राजाक कळ्ळी तेन्ना राजान ताका आमंत्रण दिवन राजम्हालांत आपोवन घेतलो. राजा बौद्ध. ताणें बोधिधर्माक म्हळें, 'भन्ते, हांवें इतले विहार बांदून बौद्धांक दिले. इतल्या बौद्ध ग्रंथांचे चिनी भाशेंत अणकार करून घेतले. इतल्या तरणाट्यांक भिक्षू जावपाची प्रेरणा दिली. म्हाका कसलें पुण्य मेळटलें?'

'कसलेंच ना.' बोधिधर्मान जाप दिली.

'मागीर, पुण्य जोडपाक हांवें कितें करूंक जाय?'

'कितेंच करून पुण्य मेळपाचें ना...'

राजा घुटमळ्यांत पडलो. ताणें आनीक एक प्रस्न केलो, 'धर्म सिद्धांतांत खंयचो सिद्धांत सगळ्यांत म्हत्वाचो?'

'संवसारूच जंय शून्य थंय अमकें म्हत्वाचें, तमकें न्हय, अशें कशें म्हणूंक येतलें?'

राजा बेजारलो आनी ताणें विचारलें, 'म्हजे मुखार हांगा आसा तो कोण?'

'हांव नकळं' अशी जाप दिवन बोधिधर्म उठून गेलो. राजाक कसलोच उपदेस केलो ना, कसलेंच सूत्र शिकयलें ना, आपणा खातिरूय कितेंच मागलें ना. 'सामको विक्षिप्त मनीस', राजान म्हळें. 'विक्षिप्त मनीस' म्हुण्णूच लोक मागीर ताका वळखुपाक लागले.

बोधिधर्म राजम्हालांतल्यान भायर सरून चलत चलत वेई प्रान्तांत गेलो. थंयच्या 'श्वालिन' विहारांत वचून रावलो. एका सारकीं णव वर्सां तो ह्या विहारांत ध्यानांत गुल्ल रावलो.

ध्यानाची ताची तराय विक्षिप्त आशिल्ली. तो वणटी कडेन तोंड करून ध्यान करतालो. विहारांतले हेर भिक्षू ताका 'वणटीक तोंड तेंकोवन ध्यान करपी ब्राह्मण' म्हणटाले.

ताच्यो आख्यायिका कितल्यो-श्यो चलतात—

एक खेपे खंय ध्यान करतां करतां ताका न्हीद आयली. ताका आपणाली तिडक मारली. हे मुखार अशें घडचें न्हय म्हूण खंय ताणें आपणाल्यो पापण्योच कापून उडयल्यो. पापण्यो जमनीर पडल्यो थंय दोन ल्हान झाडां जालीं. ह्या झाडांच्या पाल्याचो खंय मागीर च्या जालो. ध्यान संप्रदायांत च्याक खूब म्हत्व मेळ्ळें तें हे खातीर. च्या न्हीद येवंक दिना म्हूण. 'च्या आनी च्यान (ध्यान) हांची गोडी सारकीच' अशें हे ध्यानमार्गी म्हणपाक लागले.

आनीक एक आख्यायिका चलता—

आसनमांडी घालून ताणें णव वर्सां ध्यान केल्लें. हाका लागून ताची मांडी खंय घट जाल्ली. ताका उबो रावंक येना जाल्लें.

हे आख्यायिकेचो लोकांक सदांकाळ उगडास उरचो म्हूण जपानी लोकांनी एक बावली तयार केल्या – जी कशीय मोखून मारली तरूय तिचें पोंद जड जाल्ल्यान जमनीर पडटा तेन्ना नीट उबीच पडटा. हे बावलेचें जपानी नांव 'दारुमा'. बोधिधर्माचें जपानींत बोदि-दाऽरमा जालें. बोदि गळून पडलें आनी 'दाऽरमा'चें 'दारुमा' जालें.

एक दीस तो उठलो. जातें हातांत घेवन भायर सरलो आनी कोणाक कांय सांगी नासतना विहार सोडून गेलो. खंय गेलो, कोणाक खबर ना. तो पर्वतांचे दिकेन वता तो लोकांनी पळेल्लो. खंय वता, कोणाक कळ्ळें ना. कोण म्हणटात, तो आपणाल्या मायदेसांत परतो गेलो. कोण म्हणटात, तो वाटेरूच भायर पडलो.

ह्याच बोधिधर्मान चिनांतल्या बुद्धधर्माक पुराय चिनी केला. चिनाचे (आनी सशें वर्सां उपरांत जपानाचे) अध्यात्म साधनेक अशी एक गती दिल्या की जिचो प्रभाव दोनूय देशांचे संस्कृतायेचेर, कलेचेर, साहित्याचेर

– पुराय जीवन-शैलिचेर – खोलायेन अंकीत जाला. 'झेन बुधिझम्' नांवाचो जो बौद्ध संप्रदाय आयज संवसाराचें ध्यान ओडूंक लागला तो हाणें सुरू केला.

वू-ची राजाक ताणें जी जाप दिल्ली ती 'तुसडी' आशिल्ली असो राजाचोय समज जाल्लो, लोकांचोय जाल्लो. खरेपणानशीं ती राजाक 'जागोवपी' जाप आशिल्ली. आपणें केल्ल्या पुण्यकार्यांचो राजाक अभिमान जाल्लो. बोधिधर्मान तो मुळांसयत हुमटावन काडिल्लो. राजाच्या लक्षांत हें आयलें तेन्ना खूब कळाव जाल्लो – बोधिधर्म चीन सोडून खूब पयस पाविल्लो.

णव वर्सां तो चिनी मन समजून घेवपाचो यत्न करीत राविल्लो. अखेरच्या वर्सा शेन-क्वांग नांवाचो एकलो ताओ-पंथी तरणाटो ताचे भेटक आयलो. बोधिधर्मान ताका म्हऱ्यांत लेगीत येवंक दिवंक नाशिल्लो. शेन-क्वांग सात दीस विहारा भायर बसून रावलो. शियांचे दीस. बर्फ पडटालें. तरूय शेन-क्वांग रूख जाल्लेवरी तस्सो एकेच सुवातेर बसून रावलो. सातव्या दिसा ताणें आपणालो दावो हात कचक् करून कापलो. तो भितर धाडून ताणें 'तुमचे कडल्यान शिकपासारकें आसा तें शिकपाक हांव म्हजी कूड लेगीत ओंपीन' अशें बोधिधर्माक सांगून धाडलें. बोधिधर्मान ताका भितर आपयलो. 'म्हजें मन कशेंच शान्त जायना... तें शान्त कशें करचें, सांग', शेन-क्वांगान बोधिधर्माक म्हळें.

'तुजें मन हांगा म्हज्या हातार दवर... हांव तें शांत करतां', बोधिधर्मान सांगलें.

'पुणून म्हजें मन म्हाका म्हजे पसून वेगळावंक येना...'

'तशें जाल्यार हांवें तें शान्त केलें', बोधिधर्मान ताका म्हळें.

जाप आयकून खऱ्यांनीच खंय शेन-क्वांगाचें मन शान्त जालें.

शेन-क्वांगाक बोधिधर्मान आपणालो शिष्य म्हूण मानून घेतलो. 'दुई के' म्हूण एक नवें नांव दिलें. उपरांत बोधिधर्मान ताका स हांव हिन्दुस्तानांतल्यान हांगा आयिल्लों. सगळेकडेन भोंवलों. शारांनी भ तसो गांवांनी भोंवलों. वाळवंटांत भोंवलों. म्हजे अणभव सांगपा स कोणूय एक अधिकारी म्हाका जाय आशिल्लो. तो मेळ्ळो ना ते हांव तोंड धांपून रावलों. अखेरेक तूं मेळ्ळो. **चिनी परंपरेक बादा दिनासतना हांव दितां तें ज्ञान तूं लोकांक दी.** चिनी मनशाच्या आधा म्हाका ह्या ध्यान संप्रदायाचो हांगा प्रचार करपाचो आशिल्लो.' अशें म बोधिधर्मान ताका शिकोवपा सारकें सगळें शिकयलें. तो शिकून तयार म्हणपाचें दिसून येतकूच तो चीन सोडून गेलो.

ह्या झेन संप्रदायान चिनांत पाविल्लो बुद्धधर्म पुराय चिनी करून उड तो भायलो उरूंक ना. भितरलो, निजाचोच जाला.

[ ७ ]

सांजचो हॉटेलांत परतलों तेन्ना एके वाटेन म्हाका पुरो जाल्लें. वाटेन एके नवेच उर्बेन मन भरून आयिल्लें. फळा वयल्यान रू परिक्षा घेवची म्हणटात. तशें जाल्यार, म्हळें, चिनी कलाकारांच्या म येदी सामान्या भायली सृजनशीळताय जो धर्मविचार जागोवंक पावलो विचाराच्या मुळांतूच सृजनशीळ तत्त्वां भरिल्लीं आसूंक जाय.

बुद्ध विचार, म्हळें, आतां खोलायेन समजून घेवचो पडलो.

'तथागत' बरोवपाचो निर्णय मनान घडये हांगाच घेतिल्लो आसूं य

# तातू नायक : एक मरणलेख

अना म्हांबरो



मरण कोणाक चुकना म्हणटात. ह्या संवसारांत जल्माक आयिल्लो दर एकलो मनीस केन्ना तरी मरताच. गोंयांत तर कांय जाण मरचे पयलीं मरतात. आनी मरतकुचूय परथून परथून मरत रावतात.

एकाद्रो चार-चवगांचे वळखिचो मनीस मेलो म्हणटकूच ताची खबर वर्तमानपत्रांनी येता. उपरांत ताचेर जायराती उजवाडा येतात... बाराव्या दिसा, वर्सदिसा बी. तो मनीस केन्ना, खंयच्या वर्सा गेलो हाची खबर फुडलीं कितलिंशीं वर्सा जायरातींतल्यान लोकांक वाचूंक मेळटा. हींय एके तरेचीं मरणांच न्हय ?

भारतांतल्या वर्तमानपत्रांनी मरणाच्यो जायराती खूब येतात – फोटोंसयत. हाचे उरफाटें, ब्रिटीश वर्तमानपत्रांनी कोणूय म्हत्वाचो मनीस गेलो म्ह ताचेर मर्णलेख उजवाडा येतात. कांय वर्तमानपत्रांनी सप्तकांत एक दोन-तीन फावटीं मर्णलेखांचें एक पान घालतात.

ह्या मर्णलेखांनी कितें कितें आसता म्हूण सांगपाचें ? मुळांत तांचे बरे सुरबूस आसतात. तांतूंत उपरांत जो मनीस गेला ताचो इ येता. ताच्या वेवसायांतल्यो खबरी येतात. कुटुंबाची माहिती येता गूण आनी दोश दोनूय येतात. केन्नाकेन्नाय असल्या लेखांतल्यान ते उ येतात त्या वेळावयले सामाजिक परिस्थितिची सुलूस मेळटा.

कांय मर्णलेखांनी मनीस कसो मेलो, खंय मेलो हाची बारिक

हि येता. लेख बरोवपी मनीस साहित्यीक आसल्यार आनी सोंसपाचें य

आं हे माथाळे पळेयात: 'सर थॉमस स्मीथ आपले आपुणूच मेलो', डेव्हीस: तारवांचेर भोंवपी मनीस', 'डॉ. फायझर: हड्ड्यांचीं र..' (म्हळ्यार, हो दोतोर हड्ड्यांच्या दुयेंसांचो), 'डॉक्टर बर्नार्ड: आनी ताचे बायलेक गुंडांनी धरिल्लीं.'

ल्लो मनीस कितें करतालो हें सांगतना अमेरिकन नेमाळ्यांतल्या एका 'तो सप्तकाक ३०० डॉलर्स जोडटालो; तेन्ना चडशा लोकांची लाचे परस खूब उणी आसली' अशे तरेचें वाक्य आयिल्लें. 'अमको बरो आसलो. ऑक्स्फोर्डाक शिकूंक गेल्लो. पूण व्हडलो शिकलो 'अमको हाडापेरान बरो आसलो. पूण ताचें काळीज फ्राक आसलें', सिगरेट बी कांय ओडिनासलो. तरीय ताका कॅन्सर जालो' अशेंय रयात.

ल्लो मनीस खंय मेलो हाचेविशीं 'तो न्हातना मान्न्यांत काळजाच्या कान गेलो', 'बरो धांवपी. मैदानाचेर सोंपलो' असल्यो खबरी वाचूंक ळत.

अमको दोतोर सदांच म्हणटालो, तमको दोतोर पेशंटांक तपासतना लो. अशें मरण कोणाकूय येवचेंच. आनी तशेंच जालें. होय (म्हळ्यार को दोतोर) तसोच मेलो. ताका देव पावलो.'

यिलां गेलीं की तांचेर जे लेख येतात तेय वाची सारके आसतात. तांचे परस तांच्या घोवांचीं, घरच्या दादल्या मनशांची चड माहिती 'तिचो पयलो घोव अमको गेले उपरांत तिणें तमक्याकडेन लग्न हो तिचो दुसरो घोव जाल्यार ती ताची तिसरी बायल.'

न्नाकेन्नाय मेल्लो मनीस मरता आनी वेता आनी मर्णलेखांत जितो ताचेविशीं कितें येवजिता तें येता. हो जितो मनीस साहित्यीक त जाल्यार आनी विचारूंक नाका. आळशी मनशाचें तो 'आसा ते स्थितींत सुखांत रावतालो' अशें वर्णन करता.

अमको मेलो. पूण तो मेलो हें कोणाकूच कळ्ळें ना.' अशे तरेचीं त्रां वाचतना कवतूक दिसता – मर्णलेख बरोवप्याचें.

अमको मनीस खंयच वचनासलो. जेवणखाण व्हडलें घेयनासलो. घरांतूच आसतालो. सॅण्डविचीस खावन जगतालो. आंकवार आसलो.' ल्या मनशाकडेन लग्न कोण जातलो?)

ब्रेटीश वर्तमानपत्रांतले हे मर्णलेख आनी तांचेर उजवाडा आयिल्लीं कां वाचतकूच हांवें मनांत म्हळें, अशे लेख आमी आमच्या खिच्यांविशीं बरयले जाल्यार कशे लागतले? बरयतले कोणाचेर? कोण बगर कांय ताचेर लेख बरोवंक मेळना. इतल्यांत आमचो एक पणजेकार तातू नायक – गेल्याची खबर कळ्ळी. हीच संद घेवन हांव हो लेख तां:

## तातू नायक

### पिशांतलो शाणो मनीस गेलो

यर ९ सप्टेंबराक तातू नायक गेलो. तातू नायक पणजेंतलो एक मनीस. बरे मनीस पणजेंत खूब उणे (ते मडगांवां, म्हापशां, वास्को, ळ्ळे बी आसतात). देखून तातू हांगा चार-चवगांत बरो उठून दिसतालो. तातू दिसूंक काळसो आनी आंगान फोफसो आसलो. निबर कातिचो मोव काळजाचो आसलो. तातूक कोणाचोय कित्या खातिरूय हुस्को लो जाल्यार ताच्या काळजांतल्यान रगत व्हांवतालें. ताका लागून तातूचें ळीज ल्हान ल्हान जायत वेतालें. देखून ताचे कांय इश्ट ताका 'हुलकेच्या ळजाचो' म्हणटाले. (हुलकेचें काळीज कोणें पळेलां?)

तातू रायबंदरा आजोळा वाडलो. ताचो आजो धवड आसलो. संत तुकारामाचे अभंग बरे म्हणटालो. भुरगेपणांत तातूक तो मसका सांगांनी मारतालो. ताका लागून तातूक शिस्त लागली. ही शिस्त ताका मुखावेल्या जिवितांत उपकरा पडली. कोणाकूय तोपी घालची जाल्यार तातू ती शिस्तीन घालतालो.

तातूचो बापूय – मर्तो – बकासूर कसो आसलो. तो भाऊ बांदोडकाराची सदां तुस्त करतालो आनी ती करतां करतांच तो एक दीस अकस्मात भायर पडलो.

मर्तो नायक कोंकणींत बरयतालो. ताच्या काळार गोंयांत कोंकणी वर्तमानपत्रां नासलीं. म्हूण ताचें बरप कोणें वाचलें ना आनी ताका साहित्य अकादमीचें बक्षीस मेळ्ळें ना. त्या काळार गोंयांत सुनापरान्त सारकिलें वर्तमानपत्र आशिल्लें जाल्यार तो 'मर्तो नायक कॉलम' बी बरयतलो आसलो.

तातूची आवय जनी. तिका शेजारीपाजारी संत जनाबाई म्हणटाले. जनी दीसरात गायताली. खरेले जनाबाईन 'विठू माझा लेकुरवाळा...' हो अभंग बरयल्लो. तेच धर्तेर तातूचे आवयन 'तातू माझा लेकुरवाळा, दिसायला आंवाळा-कुंवाळा' असो अभंग रचिल्लो.

तातूक एक भयण आसली. ती एक दीस बांगड्यांचे उड्डमेथयेंत सान्नां बुडोवन खातना मेली. तेन्नाच्यान तातून पयलीं सान्नां आनी उपरांत उड्डमेथी खावंची सोडली.

तातूलें मुळावें शिकप ताच्या गांवांत जालें. थंय मास्तरान ताका 'नाना फडणीसाचो बापूय कोण?' असो प्रस्न विचारलो. तातूक जाप दिवंक आयलिना आनी ताका लागून तो त्या वर्साचे परिक्षेंत नापास जालो.

तातूक शाळेचें शिक्षण मेळ्ळेंना तरीय ताणें पुस्तकां वाचून आपली उदरगत केली. रवीन्द्रबाबालें वैचारीक बरप ताका अजिबात कळनासलें. तरीय तो तें वाचून ताचेर मनन आनी चिंतन करतालो.

तातूच्या आंगांत थोडीं पिशेपणां आसलीं. ताचे आवयन तीं पळेल्लीं. लोक तातूक पिसो म्हणत म्हूण जनी ताका 'शाणो' म्हणटाली. (लक्ष्मणराव सरदेसाय हांच्या घरांत असोच एक पिसो आसलो. लक्ष्मणराव एकेकडेन बरयतात, 'आमच्या घरांत हो एकलोच (हांव सोडलों जाल्यार) पिसो आसलो. आनी ताची आवय ताका शाणो म्हणटाली.')

तातूचें लग्न जालें. ताका बायल बरी मेळ्ळी. ती तातूक देव लेखून सद्दां ताची पुजा करताली. 'देवा पाव' म्हणचे बदला 'तातू पाव' म्हणटाली.

चंद्रकांत केणयाचें 'व्हंकलपावणी' हें पुस्तक तातूक खूब आवडटालें. तो ताचीं पारायणां करतालो. एक दीस तो अशेंच पारायण करतालो तेन्ना ताका पयलो आताक आयलो. दोश तातूचो. व्हंकलपावणेचो न्हय. तांतुंतल्यान बरो जातकूच तो नेमान कोंकणीवाद्यांक पत्रां बरोवंक लागलो. एक दीस ताका एका कोंकणी लेखकाक पत्रांतल्यान बरी गाळ घालपाची आसली. देखून ताणें गोवा कोंकणी अकादेमीचो कोश उगडलो. पळेल्यार तो अमक्या एका अक्षरामुखार पावूंक नासलो. आनी जीं अक्षरां तांतूंत आसलीं तांतूंत फावो तशो गाळी नासल्यो. म्हणून ताणें पत्र बरोवपाचेंच सोडून दिलें. तेदीस तो बेशुद्ध पडलो. ते अवस्थेंत आसतना कोणें तरी ताका दोतोर भिकाजी घाणेकाराची कविता वाचून दाखयली तेन्ना तो साबुद्दीर आयलो.

तातू नायक कांयच कारण नासतना पयर भायर पडलो. तो देवाची भक्ती खूब करी. उपास-तपास करी. पूण दोतोर विलीक पावला तसो कांय देव ताका पावलो ना.

तातू नायक भायर पडला हें अजून तागेले शेजारी-पाजारी, सोयरे-धायरे नकळत. देखून हो लेख बरयला.

तातूल्या आत्म्याक ह्या लेखाक लागून शांती मेळटली.



# पिलां

## मूळ बरोवपी: आंतोन चेकोव्ह
## कोंकणींत हाडपी: शंकर रामाणी

सकाळ. हारशा-जनेलां वयल्यान निथळपी बर्फाचे नक्षींतल्यान सूर्य किर्णां भितर रिगल्यांत. स वर्सांचो व्हॅना आनी धाकली भयण निना हांकां न्हिदेंतल्यान जाग येता. व्हॅनाचे केंस बारीक कापल्यात. कोटाचो बुतांव कशें ताचें चेपटें-फेचें नाक. निना कोंगऱ्या केंसांचें. आंगाचो रंग गोरो. आपापल्या खाटिंच्या गरादींतल्यान दोगांय एकामेकांकडेन पळेत दोळे बिटबिटायतात. इतले म्हणसर तांची दाई थंय येता आनी तांकां तापयता. ''आळशी खंयचे कडलीं! उठात बेगीन! दीस वयर आयलो! सगळ्यांनी नाश्तो लेगीत केलो. आनी तुमच्या दोळ्यांर अजून न्हीद! चलात, उठात!''

दोगांयल्या ब्लँकेटांचेर, वणटीर, दाईल्या घागऱ्यार पडिल्लीं किर्णां आपणा वांगडा भुरग्यांक खेळूंक आपयल्लेवरी दिसतात. पुणून व्हॅनाचें तांचेर लक्षूच ना. ताच्या कपळाक आंट्यो. ''नाश्तो केलो...! नाश्तो!'' तो पुटपुट्टा. निनाय पिंरगता. कित्याक, ताकाच खबर ना. बारीक दोळे करून तें पळेता. कसलेंय निमित्त काडून रडपाक सुरू करपाक तांची आवय सालांतल्यान कुडींत भितर सरता आनी दाईक म्हणटा, ''बिलूक दूद घालूंक विसरूं नाका आं! आतां ताका पिलां जाल्यांत!''

भुरग्यांच्या कपळाक पडिल्ल्यो आंट्यो थंयचे थंय जिरतात. दोगांय खाटी वयल्यान सकयल उडयो मारतात. तांगेलो बोवाळ सुरू जाता. सगळें वातावरण उल्हासीत जाता. रातन्हेसणानूच आनी पांयांत मोचे घाली नासतनाचँ तीं बद्द रांदचे कुडींत धांव मारतात.

रांदचे कुडींत एका बांका पोंदा एक पियां-कास. तांतूंत कोळशे. स्टेफनाक शेगडी पेटोवपाची आसता तेन्नाच तांची गरज. ते काशींतल्यान बिलू भायर पळेता. ताच्या तोंडार बांळटेराचे थकावटिचें सांवट. ताच्या पांचव्याचार दोळांतल्यो आखूड बावल्यो आनिकूय आखूड आनी व्याकूळ दिसतात. पिलांचो बापूय काशींत भितर सरल्यारच बिलूच्या काळजाची आनी कुडिची दूख थांबून ताका बरें दिसतलें अशेंच किर्तेशी ताची मायेस्त नदर सुचयता. जाता तितल्या मोठ्यान रडपाचो यत्न तें करता पूण लांब हुस्कारा बगर कसलोच आवाज ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरना. ताच्यांत आज त्राण ना. पांयांच्यो खोंटो जाता तितल्यो वयर करून, स्वास रोखून भुरगीं काशींत पळेतात. अजापान भारावल्ले वरी दिसतात. तांचे फाटल्यान उबी आशिल्ले दाईच्या रागीट दोळ्यां कडेन तांचें लक्ष ना. एका वेगळ्याच आनंदान तांचे दोळे लिकलिकतात.

''इल्लींशीं कुकूलीं पिलां! कितलीं सोबीत!'' निना आपणाले मोठे दोळे आनिकूय मोठे करून हांसूंक लागता. ''हुंदरां बशेन दिसतात न्हय पिलां?'' व्हॅना मेजता, ''एक, दोन, तीन. म्हळ्यार, एक तुका, एक म्हाका आनी तिसरें कोणाकूय दुसऱ्याक.'

'म्याँव, म्याँव...' बिलू आवाज काडटा. आपले कडेन लक्ष दिलें हाचें ताका समाधान जाल्ले वरी दिसता. निखटें पिलांकडेन पळेत रावन भुरग्यांचें पोट भरना. व्हॅना बिलूच्या पोटाखाला हात घालून अचळय पिलांक उखलता. दोगांय तांकां सांसपितात आनी मागीर आपणाल्या रातन्हेसणांत तांकां घेवन भायर-भितर सगळ्याक धांवत सुट्टात.

''आई! आई गे! आमच्या बिलूक पिलां जाल्यांत! पळे गे काय बरीं!' किनऱ्या आवाजान आनी मोठ्यान निना आवयक सांगता. आवय सालांत एका परकी मनशाकेन उलयत बसल्या. भुरग्यांनी अजून तोंडां धूवंक नात. रातन्हेसणांय आंगावयलीं देवोवंक नात. तांगेलें बेशिस्त आनी तो अवेवस्थीत अवतार पळोवन आवयक तिडक मारता. तांचे रागान पळेत ती म्हणटा, 'लागात चलूंक हांगासल्लीं! लज नाशि वतात काय नात? काय घालूं फाटीर धुमके?!'

आवयची तिडक आनी तो परकी मनीस हांचें भुरग्यांक कांयच वचूंक ना. तीं पिलांक थंयच कार्पेटीर सोडटात. पिलां बारीक आवा 'मियांव... मियांव...' करूंक लागतात. तांचो आवाज आयकून भितल्ल बिलू थंय येता. पिलां भोंवतणी फिरत रावता. उपरांत दाई येता भुरग्यांक कुडींत व्हरून तांचे कपडे बदलता. मागीर प्रार्थना आनी ना सदची कार्यावळ. पूण केन्ना काय तांतुंतल्यान सुटका जाल्यार पुरो भुरग्यांक जाता. तांकां उमळशीक पिलां म्हऱ्यांत वचपाची. सदचे आनी हेर उपद्व्याप तीं विसरल्यांत. माणकुल्या पिलांबगर तांकां आ कांयच येवजना. आयचो दीस तांकां चैतन्यान चंवरिल्लो दिसता. आज तांगेलें सर्वस्व. स्टेफन आनी दाई जेवणाच्या बोवाळांत आस भुरग्यांचेर तांचें लक्ष ना. देखून भुरगीं बिलूले काशी कडेन बोवाळ तांकां त्या पिलांचोच हुस्को! कशें जातलें तांचें! खूब वेळ चिंतले उपर तीं निमाणें थारायतात, ''एका पिलाक ताचे आवय म्हऱ्यांत रावं दुसऱ्याक मागीलदारांतले खोंपींत सोडुंया आनी तिसऱ्याक कोठये कु थंय तांकां जाय तितले हुंदीर मेळटले.''

''आं!! हीं पिलां दोळे उकते करून आमकां कित्याक पळेनात? भिका भशेन तीं कुड्डीं काय कितें?'' — निना.

व्हॅनाकूय अजाप जाता. पिलांचे दोळे उकते करपाचो तो यत्न कर पूण ताका यश येना. मागीर भुरगीं पिलां खातीर दूद, ताज्या मांस मोवसार कुडको बी घेवन येतात. पूण हट्टी पोरा भाशेन पिलां कित्या तोंड लायनात. तांगेल्या ह्या सत्याग्रहान भुरग्यांक पर्थून हुस्को जा तीं पर्थून पर्थून तें खाण पिलांच्या नाका तोंडां कडेन व्हरतात. इतल बिलू येता आनी तें सगळें खाण खाता.

''ऊठ. पिलां खातीर आमी माणकुलीं घरां बांदुया.'' व्हॅनाचे तक नवी येवजण येता. ''दोगांक दोन घरां! बिलूक मागीर मदीं मदीं त वचून मेळुंदी.''

पापेलांवाच्यो दोन काशी व्हरून तीं रांदचेकुडिच्या दोन कोनशांनी वेवस्थ बऱ्यो मांडटात. रोखडीच तांतूंत दोगां पिलांची रवानगीय जाता. पूण तं अशे तरेन वेगळीं दवरपाची कल्पना बिलूक मान्य नासुंये. करूण चेर तें त्या काशीं भोंवतणी आनाळ्यो-गुनाळ्यो काडीत रावता आनी म ल्हवूच तांकां उबारून आशिल्लीं तशीं आपणाले काशींत हाडून दवर सगळीं जाणां एकेच काशींत एकामेकांक दसून रावतात.

''बिलू पिलांची आवय!'' व्हॅना म्हणटा. ''पूण तांचो बापूय कोण काय ?

''हय, कोण काय तांचो बापूय...?'' निना.

व्हॅना म्हणटा, 'कोणूय तरी बापूय आसतलोच ह्या पिलांक.' अ हो विचार मागीर ताची फाट सोडिना. निमाणें, नाका जाल्लें सामान दवरु कुडींत पडिल्लो मोडको लाकडी घोडो पिलांचो बापूय म्हूण दोगांकूय प

उ[illegible]ताका ओडीत हाडत रोकडींच तीं बिलूचे काशी सरीं दवरतात.

"ऐ आँ... तुवें हांगासल्लो हालूंक फावना. पिलां सारकीं वागतात [illegible] ताचेर सारकी बरी नदर दवर.'' भुरगीं घोड्याक सांगतात.

हें सांगतना तीं गंभीर जाल्यांत. मनापसून तीं पिलांची जतनाय घेतात. [illegible] ताचीं पिलां, ती कास, तो मोडकरो घोडो हांचे बगर संवसारांतले [illegible] गजालिचें अस्तित्व भुरग्यांक मान्य ना. तांचे खोशयेक आतां सुमार [illegible]रुवना.

[illegible]ंणा पयलीं व्हॅना बापायले अभ्यासिकेंत बसला. गोबरा कोराचें एक [illegible] जा वयल्या दिव्याच्या स्टॅंडा भोंवतणीं घुटमळटा. बापायच्या कामाच्या [illegible] वयल्यानूय फिरता. व्हॅनाचे दोळे पिलाक ओखेतात. मदींच तो [illegible] तोंडांत काडी वा पेन्सील घालपाचो यत्न करता. इतल्यांत थंय [illegible]पावता. "व्हॅना, आरे गाडवा, कितें चल्लां रे हें?'' बापायची रागीट [illegible] ळोवन व्हॅनाची गुळी जाता.

'[illegible]मगेल्या बिलूचें पील हें, बाबा...'' तो आडखळत आडखळत म्हणटा.

'[illegible]ळे हांगा, ताणें कितें केलां तें! म्हजीं सगळीं म्हत्वाचीं कागदां म्हेळीं [illegible] उडयलीं. सामको अक्कल नाशिल्लो मरे तूं! पिलाक मेजार घेवन [illegible]? मूर्ख!'' बापूय व्हॅनाचो कान पिंवळटा आनी स्टेफनाक उलो [illegible] आनी रागान चणचणटा. "आरे ह्या पिलाक हांगासल्ल्यान व्हर [illegible]भायर मार पळोवया व्हरून...'' कितलें अपुरबायेचें पील आनी बाबाक [illegible] शीं मात्तूय माया कशी दिसना? व्हॅनाक अजाप दिसता.

[illegible]णा वेळारूय अशेंच घडटा. वाडप सुरू आसतनाच मेजा पोंदसून [illegible] किनरो आवाज कानार पडटा. निनाच्या कदेला पोंदा पिलांक [illegible]टा तें पळोवन बापायक परतीय तिडक मारता. "निना, ऊठ थंयचें. [illegible] भायर वच... आरे, त्या पिलांक व्हरून उडयात रे खळयेंत. बुरशी [illegible] कडलीं! कितें आडायलां हें तुमी म्हज्या घरांत...?''

[illegible]ना आनी निना दोगांय कुळकुळ्ळ्यांत. पिलांक खळयेंत मोखून मारपाचे [illegible]नूच तांच्या आंगार कांटो येता. बिलू, तो तांबडोगुंज लाकडाचो [illegible] पिलांची कास, तांच्या फुडारा विशीं तांणीं केल्ले बेत... हो सगळो [illegible]न भरिल्लो संवसार असो कांय न्हय सो करून ना जातालो... [illegible]अस्वस्थ जातात. पिलां मातशीं व्हड जातकीर एकल्याक मागीलदारचे [illegible], दुसऱ्याक कोठये कुडींत आनी तिसऱ्याक आवय म्हऱ्यांत रावंक [illegible]चें... सगळ्यांक वेगळीं वेगळीं घरां. अदीं मदीं बिलू तांकां मेळूंक [illegible] सगळें काय बरें थारायल्लें. कसलेंच आडमेळें येना आसतना जावपाचें [illegible]. आनी आतां मदींच हें बाबाचें! भुरग्यांक रडूंक येता. तीं बापायक [illegible]तात. अखेरेक तो आयकता. पुणून एके अटीर! भुरग्यांनी रांदचे कुडींत [illegible] फावना; आनी पिलांक हात लेगीत लावंक जायना.

[illegible]रगीं खंती जातात. जेवणा उपरान्त तीं घरभर घुमळटात. रांदचे कुडींत [illegible]क तांकां बंदी. ताका लागून दोगांय रागार फुगार जावन बसल्यांत. [illegible]यांक तिडक येवपा सारकें सगळें कितें तीं करतात. जापो दितात, [illegible]त खायनात. सांजचो तांचो काका येता तेन्ना पिलांक खळयेंत उडोवपाचे [illegible] धमके विशीं तीं ताका सांगतात. "काका, पिलांक आमचे कुडींत म्हूण सांगता आईक? सांग रे...!''

[illegible]बरें आसा, पळेतां...'' अशें म्हणून तांकां कुशीक काडून तो सरळ [illegible] वता. हरशीं काका चड करून एकटोच येता. पुणून ताचे वांगडा [illegible] – ताचो डॅनिश शिकारी कुत्रो आसता. धांपिल्ल्या कानांचो, उबे [illegible] शेंपडेचो! नीरो सदांच शांत, गंभीर. कोणाची पर्वा नाशिल्लो. आपणाल्या [illegible]णाची सुमारा भायर जाणविकाय आशिल्लो. भुरग्यांचेर तो नदर लेगीत [illegible]ना. तांच्या म्हऱ्यांतल्यान येतना वतना तांचेर चाबूक कशी आपली [illegible] मारता. भुरगीं आनी जीव नाशिल्लीं कदेलां-मेजां हांचे भितर तो [illegible]ण करना. भुरग्यांक ताची सदां तिडक! पुणून आज मात ताचे कडेन पळोवपाची तांची नदर वेगळी जाल्या.

"निना, त्या घोड्या परस हो नीरोच पिलांचो बापूय बरो सोबतलो. न्हय? तो घोडो खेळांतलो. खरो न्हय. पुणून नीरो सामको खरो. जीव आशिल्लो. न्हय?'' व्हॅना आपणाले वांटकुळे दोळे निनाचेर थिरायता.

केन्ना एकदांचो बापूय पत्ते खेळूंक बसता हें पळोवपांतूच भुरगीं सगळी सांजवेळ घालयतात. निमाणें बाबा खेळांत गुल्ल जाला तें पळोवन तीं नीरोक रांदचेकुडींत व्हरपाचें थारायतात. आईय च्या करपांत घुस्पल्या.

"चल, यो बेगीन...'' व्हॅना निनाच्या कानांत फुतफुतता.

थोड्या वेळान स्टेफन कुत्छित्री हांसत सो भायल्या सालांत येता आनी सगळ्यांच्या कानांर पडचें इतल्या मोठ्यान म्हणटा, "व्हनीबाय, नीरोन पिलां खालीं गे!'' भुरग्यांक कच्च जाता. तांचे दोळे भरून येतात. भियेल्ले नदरेन तीं स्टेफना कडेन पळेतात. तो म्हणटा, "हय, खरें... नीरोन एका घासांत खालीं सगळीं पिलां...''

त्या दुश्ट, काळीज नाशिल्ल्या नीरोक घरांतलीं सगळीं पेट्टलीं अशें भुरग्यांक दिसता. पूण एकलोय आपणाल्या जाग्यावेलो उठना. कांयच घडूंक नाशिल्ले वरी सगळीं थंड आसात. कांय जाणां नीरोचे भुकेची तोखणायूय करतात. बाबा, आई हांसतात. सालांत मेजाकडेन नीरो शेंपडी हालयत पासयो मारता. मदीं मदीं जिबल्यो चाट्टा. बिलू बावडें अस्वस्थ. शेंपडी फुलोवन सगळ्याक भोंवता. दुबावान, आकूळ पिकूळ नदरेन दर एकल्याकडेन पळेत हुस्कारता. रडकुळ्या आवाजांत 'म्यांव म्यांव' करता.

"भुरग्यांनो, णव वरां जावन गेलीं...'' आई धेंगशेता. "चलात न्हिदूंक.'' भुरगीं न्हिदूंक वतात. हांतरुणांत तोंड मुंगरून रडटात. खूब वेळ मेरने बिलू आनी ख्यास्त जावंक नासतना सुटिल्लो निरो हांचेच विशीं तीं येवजीत रावतात.

✳

# चलून आयिल्ली लक्ष्मी

चंद्रकांत केणी



दोंगुल्लेची चडण चडून तो वयर आयलो आनी बोडके पठार ताचे नदरेंत भरले. क्षितिजामेरेन शेकानशेक पातळिल्लें दोंगराचें माथें. पूण एकूय रूख दिश्टी पडनासलो. वयर निळ्या मळबाचो घुमट. कितलोय सोबीत आसलो तरी त्या निर्जन, पडीक वाठारांतलें वातावरण तो अदिकच भयाण करतालो.

नागमोडीं वळणां घेवन एक डांबरी रस्तो वता. अरुंद खरो. पूण समतल आशिल्ल्यान फुडली वाट चलपाक तितलेंच सोंपें जातलें, ताणें येवजिलें. दोंगुल्ली चडटां-चडटां ताचे दोनय पांय भरून आयले. उबी पाज शेकऱ्यांनी भरिल्ली आनी सगळे वाटेक वतान करपून गेल्लीं झोंपां. मदींच एकाद्री काण्णिणिंची खांदी नकळटना पांयांपोंदा येताली आनी ताचें रबराचें जोतें भेदून तळव्याक एकाद्रो कांटो तोंपतालो. थंयच बसकण मारून कांटो काडलो तरी सणसण थांबनासले. कानाक लायिल्ले विडयेचें पोंतेर पेटोवन तो एकाद्रो झुरको घेतालो आनी त्या कांट्यांच्या घायाचेर एक दाग दितालो. उबेचो धग हाडामेरेन पावून सगळ्या आंगांतल्यान वीज चडटाली. पूण पांय ल्हव जातालो.

त्या हिसपान डांबरी रस्तो वेगळे तरेचो. इतले मेरेन हाडून हो सोंपयला कित्याक काय? दोंगुल्ली देंविल्ली जाल्यार मुखेल रस्त्याक मेळूंक येतालें, ताणें मनांत म्हळें. सरकारालीं कामां अशींच. बजेट सोंपलें आनी काम बंद पडलें. उपरान्त त्या रस्त्याचो उगडास कोणाक जायना.

डांबरी रस्त्याचेर पावल दवरिनाफुडें ताणें दोनय पांयांचीं जोतीं काडून हातांतले पोतयेंत घालीं आनी वतान तापिल्ल्या रस्त्याचेर पावलांक शेक दिलो. त्या हून शेकान ताचे गुळे गेले. पांय सदळ जाले. आनी घसघशीत पावलां उखलून तो चलत रावलो.

दोंगराचे दुसरे दिशेन न्हंय आसा. न्हंयचेर तार. ती तार काडून ताका पलतडीं पावपाचें आसा. दिसाउजवाडे पावंक जाय. तसो आपूण पावतां असो ताणें रकाद धाडला.

दुसरी वाट नासली अशें न्हय. पूण ती खुबच पैस आनी खच आडवाटेची खबर ताका कोणें सांगिल्ली ताचो ताका उगडास जाल पूण ताणें म्हणिल्लें, ल्हानशी दोंगुल्ली चडची आनी देंवची. पावलो. अद प्रस्न.

ताणें पर्थून वाठाराचो नियाळ घेतलो. हय. चडच जाल्यार अर्द प्रस्न आसलो. आनी आतां रस्तो डांबरी आशिल्ल्यान घसघशीत सोंपें जातालें. ताणें मनांत येवजिलें, धग सोंसूं येता ते मेरेन उकत्या प चलचें आनी सामकें नज जाल्यार जोतें परत पांयांत चडोवचें.

ताच्या हातांत एक पोती आसा. पोतयेंत लाँड्रींतल्यान हाडिल्ले आसात. तिसरी वस्त ना. ना म्हळ्यार एक तुवालो ताणें ते पोतयेंत घ

रस्तो निर्जन. एकय रूख नाशिल्ल्यान खंयच सावळी ना. दनप कडार कावळे लेगीत खंय लागसार दिसनात. हेर सवण्यांची गजालच र सुणे थंय कित्याक येतले? कावळे लेगीत ह्या वताच्या धगांत भायर सर

घसघशीत पावलां उखलून तो बरोच फुडें आयलो तेन्ना पयस र कुशीक ताका एक रंगीत वस्त दिसली. मैलाचो फातर आसतलो मनांत म्हळें. वयले वटेन काळो तांबडो आनी सकयल्या आंगान पुराय ह कोणाखातीर काय हो फातर, अशें येवजून तो हांसलो. ताका दिसलें, र वचपी कोण नासतना जर रस्तो बांदला जाल्यार मैलाचो फातर आसल्यार अजाप कसलें?

अचकीत ताका तो फातर हालिल्ले भाशेन दिसलो. ताणें दोळ्य वक्ल काडून बुशर्टाच्या पोंतान पुसलें. बोल्सांतल्या लेंसान कपल हूम पुसून घेतली. आनी मनांत म्हळें, दोळे तपासून घेवंचे पडटले आकृती हालप हें नंबर बदलिल्ल्याचेंच लक्षण.

तार जरी पयस आसली तरी तो मैलाचो फातर खुबच लागीं पा थंय मेरेन बेगीन पावलों जाल्यार उरिल्ले वाटेचो अदमास येतलो अशें ताणें व्हड व्हड धेंपां घालूंक सुरवात केली.

लां पावलो तेन्ना ताचे ताकाच अजाप जालें. तो फातर नासलो. ती बाल रस्त्यावाटेन फाट करून बशिल्ली. काळ्या केंसांचेर, चड करून ओंचो झेलो आसतलो, वेडायिल्लो. आनी ती हळडुवीच साडी न्हेशिल्ली. य ताका भास जाल्लो? परत ताणें वक्ल पुसून सारकें पळयलें. नासलो. खऱ्यांनीच त्या तापिल्ल्या सड्याचेर रखरखीत वतांत बल बशिल्ली.

किलेशेच प्रस्न एकदम मनांत दाटून आयले. लागसार खंय वस्ती दिसना. बाल थंय कशी पावली? म्हजेसारकी वाटसूर आसत जाल्यार मदींच कित्याक? तीय बी वतांत? कोण आसत ती?

शीं पावलो तशी आकृती नदरेंत भरली. ताणें पोतयेंतलें जोतें भायर आनी पांयांत चडयलें. रबराच्या जोत्यांचो टपटप आवाज येवंक . ताका दिशिल्लें, तो आवाज आयकून ती नदर घुंवडावन पळयतली. चत रावलो. नदर तिचेरच थिराविल्ली.

सरीं पावलो आनी तो उबो रावलो. टपटप आवाज थांबिल्लो. ताका शेलें, ती मान फिरोवन पळयतली. पूण ती थीर, निश्चल; रस्त्यावेटेन करून तशीच बशिल्ली.

र्गे 'शूऽऽच' करून तिका हटकिली.

सासाणेन तिणें तकली वयर केली आनी मागीर मान फिरोवन ताचेकडेन लें.

ल वाटकुळे काळे दोळे. कपलाचेर पन्नास पैशांयेदो वाटकुळो कुकूम. ळोय वाटकुळोच. एखाद्र्या शिसवी शिल्पासारकी ती आकृती. काळ्या नी सोबा तिच्या तोंडार दिसताली.

टक ती ताका पळयत रावली आनी तो तिका. फुडें कितें विचारचें का येवजना जालें आनी आपल्या एकांताचो भंग करपी हो आगांतूक अशी तिची भावना आसुंये.

ताका असो तेळटा कित्याक?' तिणें विचारलें. 'चल तुजे वाटेन.'

येवं नाका. हांव तुका कांय करिना. हांव तारीर वतां. पूण तूं कोण?' विचारलें.

णय जायना, तुका कितें लागता?' अशें म्हणून भियेल्ले अवस्तेंत ग चोरून हात पांगरून घेवंक लागली.

आतां तिका सारकी पळोवंक पाविल्लो. दिशिल्ली ताचेपरस ती खुबूच आशिल्ली. पिराय २४-२५ आसुंये. एकशिवड आंगलोट आनी कोरिल्ल्या वरी देहाची रचणूक.

सो पळयता कितें?' आकांतून किळचल्ले वरी तिणें ताका म्हळें. ळय आं, तूं तुजे वाटेन वच. म्हज्या आंगाक हात बी लावशीत जाल्यार दार! हांव नाखटांनी फाळटलें. दांतांनी चाबडायतलें.'

यलेच खेपे तिच्या हातांचेर ताची नदर गेली. दोनय हातांक दोन-दोन चीं कांकणां. गळ्यांत मंगळसूत्र. त्या सगळ्या वाठारांत ती कृत्रिम ाली. वाट चुकिल्ली शारांतली चली आसत नाजाल्यार कोणय पिशी त.

चेमुखार दोन पर्याय आसले. एक तर अनवळखी बायलेच्या नादाक चें सोडून आपले वटेन फुडें वचपाचो, नाजाल्यार ते बायलेची वासपूस ती अडचणींत आसली जाल्यार तिकां आधार दिवपाचो.

णें दुसरो पर्याय आपणावपाचें थारायलें.

* * *

या आयली आनी तागेलें उलोवणें थांबलें.

तूं कथा कित्याक बरयना?' तागेली खबर आयकून हांवें म्हळें, 'तूं ता तशेंच बरोवन काडशीत जाल्यार बऱ्यो कथा बरोवंक पावतलो. डेन भास आसा. कथाकाराची नदर आसा आनी कथा सांगपाची हातोटीय



आसा. ही सगळी कथा बरोवन कित्याक काडिना?'

'तुका उबगण आयली दिसता', अशें म्हणून तो हांसलो.

'ना बाबा, ना. म्हाका तुजें सांगप इतलें मानवलें की तुज्याच उतरांनी ही कथा वाचप्यांमुखार वचची अशें म्हाका दिसलें. हांव मस्करी करिना.' हांवें ताका समजायलो.

'ही घडणूक घडल्यार उणींच तीस वर्सां जालीं. आतां ती बरोवन काडूंक जायत अशें दिसना', ताणें म्हळें. 'आज तूं आमगेर आयलो. विशयाक विशय मेळ्ळो आनी ही म्हजी खबर सांगची-शें दिसलें. तूंच ती बरे तरेन बरोवन काडटलो. पूण बरोवचीच असो म्हजो आग्रो ना.'

शारांतल्या फ्लॅटांत बसून तागेली कथा आयकतना म्हजे नदरेमुखार निर्जन दोंगराचें पठार, दनपारचो रखरख, सगळें उबें रावलें. जशें काय तें म्हजे सामकारच घडटालें. पूण एके सार्वजनिक संस्थेखातीर वर्गणी मागूंक आमी चार लोक तागेर गेल्ले आनी तो कथा सांगता ती आयकुपाची मनस्थिती म्हज्या सांगात्यांची नासली. तांकां जाय आशिल्लो तो वर्गणेचो आंकडो. तो तर ताणें आदींच बरयल्लो. आमी अपेक्षा केल्ली ताचेपरस चडच म्हळ्यार जाता.

च्या घेतां घेतां तो आपली खबर सांगतालो. तागेले व्हडले चलयेन, जी पासडेखातीर पाडव्या दिसा कुळारा आयिल्ली, आमकां च्या हाडून दिली. तिची वळख करून दिवपाचें निमित्त जालें आनी ताणें म्हळें, 'कोणालें लग्न कशें जुळून येता हें ज्योतिशाच्यान लेगीत सांगूंक जावचें ना. सामकी अणभवाची गजाल उलयतां हांव.' आमकां दिसलें, तो धुवेच्या लग्नाची खबर सांगता आसतलो. हांव ओगी रावलों. एका सांगात्यान म्हळें, 'हालींच लग्न जालां न्हय तिचें?'

'तूं धुवेविशीं म्हणटा?' ताणें विचारलें. 'तिची खबर सांगिना हांव. तिचें लग्न तिणेंच जुळयलें. आमकां त्रास पडले नात वा आमची कागाळय कसली ना. हांव म्हज्या लग्नाची खबर सांगतालों. म्हजी लक्ष्मी म्हाका रस्त्यार मेळ्ळी. दोगांय कफल्लक. आमी वचून लग्न जालीं. पूण तिचे पांय घराक लागले आनी चमत्कार घडलो. आज तुमकां जी वर्गणी हांव दिवंक पावतां ती तिगेलीच कृपा म्हणूंक जाय. नाजाल्यार हांव अजून पसऱ्यावयल्यो पोटल्यो बांदीत बसपाचों.'

इतली प्रस्तावना करून ताणें आपली खबर सांगूंक सुरवात केली आनी सांगत सांगत खबर रंगार हाडिल्ली. ताणें ती बेगीन सोंपोवची अशें येवजून

हांवें म्हळें, 'मागीर कितें जालें ?'

'राव, आर्दी तुमची म्हजे बायलेकडेन वळख करून दितां', ताणें भितल्ल्यान तोंड करून उलो मारलो.' 'रतन...'

हांव येवजूंक पडलों. निकतोच हो आपले बायलेचें नांव लक्ष्मी अशें सांगतालो. मागीर ही रतन कोण ?

भितल्लेवटेन कांकणांचो आवाज आयलो आनी एक पन्नाशींतली बायल भायर येवन नदर सकल करून उबी रावली.

पिकिल्ले केंस आनी सुटिल्लो देह तिगेले पिरायेची कल्पना दितालो. पूण तरी आमचे मुखार तेंच शिसवी शिल्प आसलें जिचें वर्णन ताणें आपले भाशेंत केल्लें. तोच कुकूम, तोच काळो देह, तोच रसरशीत तोंडावळो आनी तोंडार हांसो. नमस्कार करूंक तिणें हात जोडले तेन्ना मात तिगेल्या आंगावयल्या भांगराचेर नदर गेली. खुबशो भांगराच्यो वस्ती तिच्या आंगार आतां चडिल्ल्यो.

वळख केली तेन्ना ती हयन्हयशी हांसली. धवेफुल्ल दांत चकचकले. रोखडीच ती गेली. एकय उतर उलयली ना.

'एक सांग', हांवें म्हळें, 'ही रतन जाल्यार तूं लक्ष्मी म्हणटालो ती कोण ?'

'ती रतनच. ती म्हजी लक्ष्मी जावन आयली अशें हांवें म्हळें', अशें म्हणून तो हांसलो.

'तुका भुरगीं कितलीं ?' हो प्रस्न हांवें विचारलो तेन्ना हांव गजाली वाडयतां अशें खुणावन सांगत्यान म्हाका कोंपर लायलो.

'ही चली तुमी पळयलीच. पयर माधांत तिचें लग्न जालें. दुसरो चलो. तो अमेरिकेंत शिकता.'

फुडलो प्रस्न विचारिल्लो सांगात्यांक रुचचोना हाची कल्पना आशिल्ल्यान हांव बसून रावलों. सांगात्यांनी उठपाची तयारी केली, तशें ताणें म्हळें, 'रावात, उरल्या तितली खबर सोंपयतां. तुमचो वेळ हांव घेतां हें जाणां...'

आनी ताणें आपली फुडली खबर सांगूंक सुरवात केली.

'... तर हांव खंय पाविल्लों ?' असो आमकांच प्रस्न विचारून तो याद करूंक लागलो.

'ते बायलेक आधार दिवपाचें तुवें थारायलें...'

'हय. पूण ती तर म्हजेकडेन दुबावान पळयताली. तेन्ना हांवें तिका सांगलें, 'हें तुका नाका आसत जाल्यार हांव म्हजे वाटेन वतां. पूण तुका एकलेक हांगा सोडून वचपाक मन तयार जायना.'

'म्हजें हांव पळयतां. वच तूं.' फटकळपणान तिणें सुचयलें.

'हांव वतां. हांव तार काडून पलतडीन वतां.' हांवें तिका सगलें सांगपाचें थारायलें आनी म्हळें, 'हांव कित्याक वतां तेंय सांगतां. न्हंयचे पलतडीन जो गांव आसा त्या गांवचे एके चलयेची म्हाका सोयरीक आयल्या. आनी आज हांव ते चलयेक पळोवंक वतां.'

म्हजें म्हणणें आयकतकच तिणें पांगुरिल्ले हात सोडले.

ताका दिसलें, आतां तिचो भंय उणो जाला आनी संकोचय सोंपला. ताणें तिका म्हळें, 'तूं तरणीताठी बायल. ह्या निर्जन वाठारांत कशी पावली ? ह्या रस्त्याचे कुशीक वताच्या रखरखांत कित्याक बसल्या ?

येवजिल्लेभाशेन दोळे करून तिणें जाप दिली. 'जीव दिवपाचें थारावन हांव घरांतल्यान भायर सरिल्लें. तूं जी न्हंय हुपून जंय वता थंयसूनच हांव आयलां. तेच न्हंयंत जीव दिवपाचें हांवें येवजिल्लें. पूण ऐन वेळार विचार बदललो. दोंगराचे पलतडचे वाटेन म्हजें कुळार. कुळारा वचपाचें थारावन चलत रावलें. पूण शेणिल्लें मन थीर जायना. कुळारा वचचें काय वचचें न्हय हें म्हाका येवजना. देखून येवजूंक बशिल्लें, कुळारा वचपाचें जालें तर वराभितर हांव कुळारा वतलें.'

'आनी कुळारा वचचें न्हय अशें दिसलें जाल्यार ?' ताणें तिका विचारलें.

तिणें जाप दिली ना. नदर सकयल व्हेली आनी मोन्यांनी उबी रा

'हें पळय, पिशेपणां करूं नाका.' ताणें म्हळें. 'म्हज्या सांगाता जाल्यार तुका घोवागेर पावयतां. घोव आनी बायलेची वा मांय-सुनेचीं सगळेकडेन जातात. पूण झगडीं जाल्लेय खेपे सुनेन जीव दिवपाचें वा वचपाचें थारायलें जाल्यार संवसार कसो चलतलो ? चल. तूं म्हज्या स यो.'

'ना, ना.' निश्चयी सुरान तिणें जाप दिली. 'जीव गेलो तरी हां त्या घराचो हुंबरो हुपचीं ना. तूं वच. हांव थोडो वेळ बसतां आनी वतां.'

आपणाक जे चलयेची सोयरीक आयिल्ली ते चलयेची वासपूस ताणें विचारलें, 'तूं तिका वळखता ?'

'वळखना जावंक कितें जालां ? बाई मूं ? तिका कोणूय वळखता. शिकयता ती.'

'चली कशी ?' ताणें विचारलें.

'लग्नाचें बी थारायलां आनी आतां म्हाका, वाटेर मेळिल्ले अन बायलेक, चलयेविशीं विचारता ? हांवें चली बरी न्हय म्हळें जाल मोडटलो काय हांगसुनच वतलो ?' तिणें ताका परतो प्रस्न केलो.

'तशें न्हय. ओगी एक खबर घेतली. हांवें चलयेक पळोवंक ना तिगेल्या घरच्या लोकांनी तिचेविशीं जें सांगलां ताचेभायर कांय आ ना. तूं ते गांवची म्हणून तुका विचारलें.'

'तशें जाल्यार हांव सांगतां, चली एकदम बरी. गोरी गोमटी. शि सवरिल्ली. संवसारीक, सरळ चालिची. पूण घरांत फाटलींफुडलीं चार आनी तांचो भार तिचेरच आसता. धाकलो भाव निकतोच नोकरेक म्हूण आयकतां.'

इतलें सांगून तिणें मात्शें येवजिल्ले भाशेन केलें आनी म्हळें, 'तुमी दुसऱ्याचे सांगणेन वागतात हाचेंच म्हाका अजाप दिसता. आतां हांवें चली वायट म्हूण सांगिल्ली जाल्यार तूं कितें करतलो आसलो ?'

'तरी हांव तिका पळोवंक वतलों आसलों.' ताणें जाप दिली. 'तुवें त्या गांवची म्हळें म्हणून तुका विचारलें. नक्षत्र पळयलें, प्रसाद घेतल नशिबांतलें चुकना.'

तिका आतां मात्शी धिटाय आयली. तिणें ताची वासपूस घेतल खंयचो, कितें करता, घरा कोण कोण आसात हें सगळें आयकून आनी म्हळें, 'म्हज्या उतराचेर पातयेवन तूं लग्न जा. तुजो संवसार सु जातलो.'

आतां ताका वताचो रखरख जाणवंक लागलो आनी ताणें तिका निमाणें म्हळें, 'पळय, हांव चली पळोवंक आयच्या जाग्यार फाल्यां वचन. तूं वता जाल्यार तुका पावयतां.'

तिणें दाव्या हाताचीं नाकटां दांतान मोडीत येवजिल्ले भाशेन केलें म्हळें, 'हांव कितें करूं तें तूंच सांग.'

भर गिमाच्या दिसांनी दनपारच्या वताकडार चारीय दिसांनी पावशी दाटून येवंचीं आनी अचकीत पावसाची दडक येवंची तशी तिची आवस्था जाली. ती एकदम घुसमटिल्ले भशेन खांकूंक लागली आनी दोनूय पा तोंड धांपून हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागली.

येदोवेळ तिणें सगळें मनांत दवरिल्लें. पूण संयमाचो बांद आतां पु आतां ती आपली खबर सांगतली अशें येवजून तो थंयच उबो रावलो. धीर दिवंक तिचेलागीं गेलो जाल्यार तिचो गैरसमज जातलो अशी भिरांत आसली.

* * *

'तूं बायलेची खबर सांगता तीच ही तुजी बायल?' हांवें तागेली कथा थोडेभितर सोंपची अशें येवजून विचारलें.
'हय तीच ही बायल. रतन. हिकाच हांव लक्ष्मी म्हण्टां.' ताणें अभिमानान आनी तिच्या पांयगुणानच म्हाका वेगळो धंदो करपाची बुद्द जाली आज हांव देणगी दिवपाचे अवस्थेक पावलों.'
'मागीर जे चलयेक तूं पळोवंक भायर सरिल्लो तिचें कितें जालें?' हांवें
'ह सांगतलों जाल्यार म्हाका कांयच खबर ना. हांव त्या दिसा तिगेर आनी इतलेंच न्हय तर आयुश्यांत त्या गांवांत केन्ना पावलों ना.'
घडीभर तो दोळे धांपून येवजिल्ले भाशेन बसलो. म्हाका दिसलें, खबर आनी आमी उठून उबे रावले.
'थोडो वेळ तुमी बसले. आतां आनीक पांचच मिनटां. मनांत आयलां सांगतां. कोणेंतरी ही खबर बरोवन काडूंक जाय. तूं ती बरयतलो म्हणून तुका विस्तारान सांगलां. उरिल्ली सांगतां, म्हजें मन ल्हव जातलें.'
आमकां परत बसचें पडलें. ताणें आपली काणी फुडें सांगली.

* * *

रडटा तें पळोवन ताणें तिचे फाटीर हात दवरलो ते सरशीं ती किळांचली.
'हांव तुका कांय करिना, पूण रडून फायदो कितें? कितें घडलां तें सांग.' ताणें तिका समजावपाचो यत्न केलो.
तिणें फाटीवयलो पदर कुशीक काडलो आनी ताका आपली फाट दाखोवन सांगलें, 'वेताच्या बडयांनी काल म्हज्या घोवान म्हाका मारली. ते वळ अजून फाटीर आसात. तुजो हात लागून वळ दुखलो.'
ताणें पळयलें. चार-पांच वळ आनी त्या वळांचेर वयर किणेल्लें रगत. ताका तिची काकूळट दिसली. तो चुरचुरलो. ताणें विचारलें, 'अशें घडलें कितें?'
'नशीब म्हजें. दोश कोणाक दितले?' रडत रडत ती उलोवंक लागली. 'ताच्या उतरां सोंसू नज जावन हांव खरें तें उलोवन गेलें. देखून ताणें म्हाका बडयलें. घरांतलें भायर घालें आनी दार बंद केलें. रातभर भायर बसून रावलें. दार उकतें करूंक काकुळटेक आयलें. पूण ताणें उगडलें ना. फांतोडेर हांव भायर सरलें आनी तार हुपून आलतडीन आयलें... पदर गुठलावन लोकांक दुबाव येवचो न्हय म्हूण हांवें वळ लिपयले. थोडीक एक रुपया आसलो तो तारेक दिलो. आतां म्हजेकडेन कांयच ना. येवजितां तें इतलेंच, की ज्या घरांतल्यान वाजंत्र्यांच्या सांगातान भायर सरिल्लें त्या म्हज्या कुळारा हें तोंड घेवन कशें वचूं?'
सकाळमेरेन घोवाचो राग न्हिवतलो आसलो. असलीं झगडीं जालीं म्हणून सोडूंक फावना आसलें.' ताणें म्हळें.
ती कांय उलयली ना. तिणें दोळे पुसले आनी ताका सांगलें, 'चल तूं. म्हजे वाटेन वतां. आवय म्हाका घरांत घेतलेबगर रावची ना.'
'अशें कितें उलयली तूं?' ताणें विचारलें.
तेन्ना तिणें आपली खबर सांगली. गरीब घरची चली. शेतांत काम करुन आवय-बापायक आधार करताली. मागणी घालून तिका घोवान व्हेल्ली. लग्नाक आतां पुरतीं तीन वर्सां जालीं. पूण मांयन तिका खुबच पिडली. घोव गुन्यांव एकच आसलो. कुसवो रिकामो उरिल्लो. सुरवेच्या दिसांनी मांय तिका केंच्केंच् करताली. मागीर आयिल्ल्या गेल्ल्यांकडेन 'आमगेलें वांझ' असो तिचो उल्लेख करूंक लागली. तिका त्रास जाताले पूण ती मोन्यांनी सोंसताली. तिणें येवजिल्लें, जण एकलो आपलें नशीब घेवन जल्माक येता. ह्या जल्मांत वांझ म्हणून घेवपाचें आपल्या नशिबांत आसत जाल्यार आसूं.
हालिंच्या दिसांनी तिगेले मांयन दुसऱ्या लग्नाचो विशय आपल्या पुताकडेन काडूंक सुरवात केल्ली. रातीं मांयन होच विशय काडिल्लो. तिणें एक चलीय पळोवन दवरिल्ली.
'पूण कायद्यान दोन लग्नां करूं नज.' पुताक आवयक म्हळें.
'कायदो कोण विचारता? कितल्याशाच जाणांनी अशीं दोन लग्नां केल्लीं आसात.
'हांव घर सोडून गेल्लें तिका जाय आसलें. देखून ती म्हाका पिडटाली.' तिणें म्हळें.
'पूण तुवें डॉक्टराक दाखयलें ना?' ताणें विचारलें.
'डॉक्टर जाले, घाडी जाले. देव देवस्पणय जालें. सगलें जालें. पूण ताचो कांय उपेग जालो ना.' तिणें जाप दिली.
त्या दिसा मांय नाका नाका तें उलयली आनी निमाणें तिणें म्हळें, 'तूं तोंड घेवन गेली जाल्यार सगळें बरें जातलें.' तेन्ना म्हज्यान सोंसूं नज जालें आनी हांवें म्हळें, 'म्हगेर भुरगीं जायनात हो दोश म्हजो न्हय. मागीर हीं उलोवणीं म्हाका कित्याक?'
मांयन म्हळें, 'तूंच वांझूड. आनी आतां नशिबाक दोश दिवन फायदो कितें?'
तेन्ना तिच्यान रावं नज जालें आनी तिणें म्हळें, 'एक खेपे तुज्या चल्याक तपासून घे आनी मागीर म्हाका दोश दी.'
इतलेंच ती उलयली. त्या उतराक मांयचें तोंड सुटलें आनी घोवान हातांत वेताची बडी घेवन तिका बडयली.
इतली खबर सांगून तिणें म्हळें, 'जावं दी ताका दुसरें लग्न. पळोवया तागेर भुरगीं जातात जाल्यार.'
इतली तिगेली खबर आयकतकच ताणें तिका विचारलें, 'तुका कुळारा वचूंक लज दिसता जाल्यार तूं म्हगेर कित्याक येना?'
'तुजे बायलेक तें सोंसत?' तिणें विचारलें.
'तशें न्हय... तुजेकडेन हांव लग्न जावंक तयार आसां.' तो उलोवन गेलो.
ते सरशीं तिगेले संस्कार जागे जाले आनी तिणें म्हळें, 'ना, ना. तो कसोय आसूं वा कितेंय करूं, म्हजो लग्नाचो घोव तो. ह्या जल्मांत दुसऱ्या घोवाचो विचार लेगीत म्हाका सोंसचो ना.'
ती आयकुची ना, तो समजलो. तरीय ताणें चली पळोवंक वचपाचो विचार बदललो. तिचेवांगडा तो परतूंक लागलो.
दोंगरा सकल एक ल्हानशें हॉटेल आसलें. थंय ताणें तिका च्या-नाश्तो दिलो. तिका थोडी थाकाय आयली. आनी तिणें म्हळें, 'देवानच तुका धाडला आसूंक जाय. तुजे उपकार हांव विसरचें ना. ह्या दिसा उजवाडा हांव म्हज्या गांवांत कशें वचूं? हांव आयची रात तुगेर रावतां. सकाळीं तूं चली पळोवंक वच आनी हांव कुळारा वतां.'
तो कबूल जालो. ती तागेर गेली. आनी उपरांत थंयच रावली.
'तीस वर्सां आदली ही गजाल तुमकां म्हणून सांगतां. आमच्या लग्नाचो तेर्म अजून जावंक ना. पूण आमचो संवसार बरो चल्ला.' मागीर म्हजेकडेन तोंड करून ताणें विचारलें, 'बरयता न्हय ही खबर!'
'यत्न करतां. पूण अजून म्हाका दिसता, तुवेंच ती बरयली जाल्यार चड प्रभावी जातली.' हांवें जाप दिली.



# एका दिसाची गजाल

मीना काकोडकार

का दिसाची गजाल!
एच दीस, पूण याद उरपा सारको.
स्येचो दीस! हेर दिसांवरीच एक पूण मातसो सुस्त!
गळ सदचेवरीच उदेल्ली.
चेवरीच पोमी गेटीकडेन येवन हांबेली.
ची गाय! सद्दां चुकनासतना आमच्या वाड्यार येता. घरामुखावेली ाक्ती आसल्यार सरळ पोरसांत येवन निवळसाणेक लागता. बंद स्यार भायर उबी रावन हांबेता.
शी ती उबी रावली म्हणटकीर हांव कितेंय ना कितें हाडून तिका वतां.
चें खरें नांव कितें कोण जाणा. पूण तिका पळयतकीर पोमी म्हणचें हाका दिसता, म्हणून ती पोमी.
कोणाली गाय हेंय म्हाका खबर ना. तशी ती सगळ्या वाड्याची हणूं येता. वाड्यावेलीं सगलींच पोमीक खावड घालतात. युनिव्हर्सिटींत टींग प्रोफेसर बी आसतात तशी ती वाड्यावेली व्हिजिटींग गाय.
र त्या दिसा पोमी आपली हजेरी लावन गेली आनी बऱ्या वेळान यान हांबेवपाचो आवाज आयलो. पोमी परती आयली काय कितें, चिंतून हांव भायर आयलें जाल्यार गेटीकडेन कोण ना.
रतो हांबेवपाचो आवाज आयलो.
मच्या दुर्गा भायलेवटेन बरेंच झील वाडलां. पाणयाळ जमनींत एकेतरेचीं टी झोंपां जातात. तांकां हळडुवींच बोंडां कशे फुलां तुरे येतात. त्या चें बीं पोरसा भायल्या प्लॉटांत पडून प्लॉटभर तीं झोंपां किल्लल्यांत. जेन्ना तांकां फुलां फुलतात तेन्ना हो पुराय जागो हळडुवेच बोंगे ार मिरयत झेलता. ह्या झोंपांचेर तरेकतरांच्यो वाली चडल्यात आनी दाट झील जालां. सुकण्यांक घोंटेर बांदूंक तो सामको बेस बरो जागो . सुकणीं भुर्ऽ करून झिलांतल्यान भायर उडून वतात आनी घोंटेराचें न चोंचींत घेवन परतीं झिलांत नाच्च जातात.
ांगचेलें म्हळ्यार, एक सुपुल्लें पांचवेंचार रान आमच्या शेजरा आसा. हांबेवपाचो आवाज ह्या झिलांतल्यानच येतालो.
ायर येवन पळयत जाल्यार त्या झिलांत भितर एक गाय उबी आशिल्ली. थंय कशी पावली? आनी पावलीच जाल्यार भायर सरनासतना कित्याक उबी रावल्या, अशें तकलेंत येवपाक ती परती हांबेली. कसाण घेतकीर ती गाभणी आसा हें म्हाका समजलें. आनी ती व्हियेवपा र थंय रावल्या हेंय लक्षांत आयलें.
रत चरत पयस पावली तरीकय तांतुंतले तांतूंत व्हियेवपाखातीर आडोस काडून थंय वचून राविल्ले ते गायेची म्हाका लक्तुबाय दिसली. ांत वचून पोशेवचें कशें दिसलें.
नीसजात जावं मोनजात, बाळंटेराच्यो वेणो समजूंक बायलेचेंच काळीज . पूण मोनजातीक त्या वेळार कोणाचो सांगात नाका हें खबर आशिल्ल्यान पयसच रावलें.
तले म्हणसर तिचें हांबेवप वाडोभर घुमिल्ल्यान कितें जालें तें पळोवंक वाड्यावेली मंडळी थंय जमली.

म्हजो अदमास हांवें तांच्या कानार घालतकीर गाय कोणाली ही चवकशी करूंक वाड्यावेले पोरांटे सायकलीवेल्यान चार दिकांनी भोंवडी करून आयले. पूण पत्तो लागलो ना.

व्हियेवं दी पयलीं, मागीर पळोवंया, अशें म्हणून सगलीं आपआपल्या घरा परतलीं.

हांवय मन झिलांत दवरून घरांत गेलें.

* * *

म्हज्या ल्हानपणांत आमच्या मागीलदारांत गोठो आशिल्लो. त्या गोठ्यांत गोरवां, म्हसरां आसतालीं. फांतोड जायनाफुडें दूद काडपाचो, गोठो निवळ करपाचो वावर सुरू जातालो.

आमगेर एक रांदपीण आशिल्ली. आमी भुरगीं तिका आम्मा म्हणटालीं. तिणें एक म्हस पोशिल्ली. तिवूय बी आमच्याच गोठ्यांत आसताली.

आम्मा दूद काडटा तें पळोवंक म्हाका मजाच दिसऽ. आम्मा खिणा मजगतीं आयदनां भरून दूद काडी. तें पळोवन दूद काडप सामकें सोप्पें कशें म्हाका दिसऽ.

'हांव काडटां गे आम्मा', अशें म्हणून हांवें म्हशिच्या पान्यांक हात घालचो. पूण एक थेंब लेगीत दूद पान्यांतल्यान येनासलें.

आम्मान मागीर हांसचें आनी पानो वांकडो करून म्हजेर दुदाची धार सोडची आनी सगलो दीसभर दुदाचो वास म्हज्या आंगाक दसून उरिल्लेवरी म्हाका दिसचें.

वाड्यार सगल्याच घरांच्या मागीलदारांत अशे गोठे आसताले. आनी फाटले पाळणींतल्यान यो वच करतल्याक चलतना सबंद पाळणभर शेणाचो आनी गोरवांचो वास घेत चलचें पडटालें. आमी भुरगीं हे पाळणीक गोठे-पाळण म्हणटालीं.

आमच्या गोठ्यांतले दर एके गायेक आनी म्हशीक नांव आशिल्लें. म्हाका गायो वळखूंक येताल्यो, पूण म्हशी सगल्यो सारक्योच दिस. आम्मा मात जण एकल्याक ज्युस्त वळखताली. तिणें म्हणचें, 'ही चंपू. हिजें शींग पळय कशें वांकडें.' 'शांतूचें तोंड काळीच्या तोंडापरस रुंद.'

पूण तिणें कितलेंय सांगलें तरी म्हसरां मदलो फरक म्हाका कळच नासलो.

गोठ्यांतली गाय वा म्हस गाभणी जाली जाल्यार आमी भुरगीं पोस खावंक मेळटलो आनी खेळूंक वासरूं मेळटलें म्हणून खुश आसतालीं. मागीर आमी सद्दां आम्माक धोंसचें आनी विचारचें, 'केन्ना व्हियेतली गे शिबरू?'

म्हयने सोंपून सोंपनात कशे आमकां दिसऽ. चडसो व्हियेवपाचो आक्त गोठ्यांत जातालो. रातिचो वेळ आसल्यार आम्मा आनी राखणो अग्गा लापयांव पेटोवन गोठ्याभायर जागरणां करी. आनी आमी थंय गेल्यार श्शू श्शू करून धांवडावन घाली.

मात केन्ना केन्ना रानांत चरूंक गेल्लेकडेनच गाय व्हियेताली आनी तिळसांजचो घरा येतना अग्गा पाडकाक वेंगेंत धरून घेवन येयी.

पाडकाच्यो घराकडेन ज्यो तोखणायो जाताल्यो तांकां सुमार नासतालो.

आमी भुरगीं तर पाडकाच्या काळ्याच बुळबुळीत नाकाची टुक्क टुक्क करून अपुरबायेन पापी लेगीत घेतालीं. मागीर ताका नांव कितें दवरप हाचेर आमचीं आकांताचीं झगडीं जातालीं.

हें सगळें जाका लागून जातालें तें पाडूक मात आंगाची पोटली करून मान आंगाचेर आडवी घालून पडवेवेल्या साकाचेर सुश्शेगाद न्हिदतालें. आनी ताच्या मोवसार आंगावेल्यान हात भोंवडायतना आमकां भोवच खोस भोगताली.

ताचें तें पयलीं लटलटत चलप, मागीर मस्तेपणान धांवप, जाग्यावेल्यान हालपाचें मनांत नासल्यार एका जाग्यार घट्ट खुंटो कशें उबें रावप, शिंगां नाशिल्ले तकलेन आमकां धोंशी मारप... सगळेंच मजेचें.

एक पावट बुधी गायन अग्गाक शिंगार घेवन कुशीन उडयलो. अग्गाक कांय जालें ना खरें पूण आपल्याक तिणें असो उडोवचो हाचो ताका बरोच पच्छाताप जालो.

'हिका आग्गान खावं' अशें म्हणून ताणें तिका बरीच खेपली आनी तिचेर चार शिट्ट्योय ओडल्यो.

त्या दिसा फुला-बोलाक गांठ पडची तशी रान्नांत चरूंक गेल्ली बुधी तिळसांज जाली तरी घरा परतलीच ना.

अग्गा पिशावरी जालो. हेर राखण्यांक एकठांय करून रातयांच रानांत धांवंक लागलो. ते राती बुधी मेळ्ळी ना. पूण दुसऱ्या दिसा वागान अर्दकुटी खावन उडयिल्ली बुधी तांकां मेळ्ळी.

अग्गा खाय-जेवनासतना बुधीचें दावें हातांत धरून गोठ्यांत बसून रावलो. एक उतर ताणें तोंडांतल्यान भायर काडलें ना. मदींच भार आयिल्लेवरी फडाफडा पोले फोडून घेतालो.

घरांतल्या सगल्यांनी कितलो समजायलो, फुसलायलो. पूण अग्गाक शॉक बशिल्ले वरी जाल्लो. आपणें दिल्लो शापच बुधीक बादलो अशें कितें तरी ताच्या मनान घेतिल्लें.

दोन दीस जाले, चार दीस जाले. सगल्यांक भंय दिसपाक लागलो. पांचव्या दिसा गाभणी शुभी व्हियेली आनी तिणें बुधीवरीच तांबशा रंगाच्या पाडकाक जल्म दिलो. आम्मान तें पाडूक उबारलें आनी अग्गाचे वेंगेंत दवरून म्हळें, 'ही पळय बुधी परती आयली.'

हीं उतरां कानार पडल्यांत मात, अग्गाचो बांद हुंवार आयिल्लेवरी कोंसळ्ळो. पाडकाक घट्ट धरून तो हुडक्या हुडक्यांनी रडलो.

कोणेंच कांय थारायलें ना तरीकय त्या पाडकाक आमी बुधी म्हणूंक लागलीं.

अदीं मदीं घर आनी आंगण शेणान सारोवचेलो आक्त आसतालो. बॅटरी फोडून भितरली काजळी शेणांत भरशितालीं आनी अशे तरेन बरें काळेंकिट्ट जाल्लें शेण घेवन वावराड्यो सगलें घर आनी आंगण सारोवंक लागतालीं.

अशे तरेन जमीन सारयली म्हणटकीर मागीर पांयांक शेण लागचें न्हय म्हणून आमी तरेतरेच्यो कसरती करून गरज नासतना सगल्या घरांत आनी आंगणांत भोंवतालीं. दुसऱ्याचो तोल वचून पांय शेणांत पडचो म्हणून एकामेकांक धुकलतालीं.

मुंबयच्या सोयऱ्यांचीं भुरगीं सुटयेंत आमगेर येतालीं. तांणी मुंबयचे नेट आमचेकडेन केले जाल्यार आमी मुद्दाम तांकां गोठेपाळणींतल्यान पासयेक व्हरतालीं आनी वाटेर पडिल्ल्या शेणा-थाप्यांतले खंयचें गायचें आनी खंयचें म्हशिचें तें वळखात म्हणून सांगतालीं. तांणी केन्ना थापो पळयल्लोच नासतालो, म्हणटकीर खंयचो कोणाचो तें तीं बाबडीं कशीं वळखतलीं?

इतली सादी गजाल आपल्याक खबर ना म्हणून तांकां लज जा

मागीर आमी तांकां म्हशिचो थापो कसो अघळपघळ थलथलीत लिबलिबीत आसता आनी गायेचो कसो नकसूद थंयचेथंयच भरूव असो आनी घटसो आसता हें विसकटावन सांगतालीं. उपरांत, to the point आमी तांकां 'हात लावून बघणे' करूंक लायतालीं. तशें लावणें' जातकीर मागीर 'व्हिस्तिदाला पुसणें' अपरिहार्य आस व्हिस्तिदाचें कोणाक पडून वचनासलें, कारण येदें म्हत्वाचें गांवगिरें फुक्याफुकें कशें मेळूं येतालें?

मुंबयकारां सामकीं गुंग जावन 'अय्या हो?', 'अय्या खरंच?' आमचें उतरान उतर आयकतालीं. घरा परततकीर तीं 'मम्मी आतां शेणाचा थापा ओळखतां येतोऽ गऽऽ' अश्यो आड्डी मारीत सरतालीं. तितले म्हणसर तांचे मम्मीचे नदरेक तांच्या व्हिस्तिदाचें पडटाली आमी उपरांत कांय वेळ घरांत आकांताचो 'कुलेकुलाट' ज – म्हळ्यार, कुल्यांचेर चुळचुळीत थापटां पडटकीर भुरग्यांचो कुल जातालो.

कोण खंयची गाय आमच्या घरा शेजरा व्हियेवंक आयिल्ली आनी फ सगल्यो यादी तिणें चाळोवन घाल्ल्यो.

खंयचेय मोनजातीकडेन मातशे लेगीत लागेबांधे जुळून आयले ज रोखडोच ताचो बारसो करचेली म्हाका संवय. ते संवयेनुसार हांवें नांव दवरलें 'शामी'.

दनपार उलगतां उलगतां शामीचें हांबेवप थांबलें. हांवें बेगिबेगीन दुग वचून पळेत जाल्यार शामी म्हऱ्यांत सोबीत सुंदर तांबशा रंगाचें पाडू

इतले म्हणसर 'बाळका'चो जल्म जालो आनी बाळ-बाळंतीण सु आसात म्हणचेली वार्ता वाडोभर पातळ्ळी. हातांतलें काम उडोवन झिला गर्दी जमली. सगल्यांनी पयसुल्यानच लक्तुबायेन शामीक आनी पा पळेलें.

'सकाळच्यान तळमळटा पापीण, बरीच भुकेल्या आसतली' अशें को म्हळें मात, कोणें घरातली भाजी हाडली तर कोणें रोटयो. आजी आ तें कानामनार घेनासतना कोण नात तर केळ्यांचो फेंड्या फेंडोच आयली. हांवें घरांत वचून पेजेक घालें.

खरो प्रस्न तिगेले भुकेचो नाशिल्लो तर तिका खंय दवरप हो आशि रातिची तिका आनी पाडकाक त्या झिलांत दवरप सारकें जावचें ना आनी ती कोणाली हें तर अजून कळूंक नाशिल्लें.

शामीचो बाळंटेर आमच्या दुर्गाक तेंकून जाल्ल्यान ताची तात्पुरती व आमच्या पोरसांत करची अशें एकमतान थारलें. पोरसांत हाडप म्हण पर्यायान शामीक बांदून घालप गरजेचें आशिल्लें. नाजाल्यार पो दुर्दशा अटळ आशिल्ली.

'राजू कोणाकडेन आसा?'

हालीं नळाक लागून बांयोच दिश्टी पडनात. म्हणटकीर राजू खंयचो? पूण पोरांट्यांनी धांवाधांव सोदासोद करून कोणागेरच्या राजू हाडलो. कुसकुशीत सो! पूण बुडट्याक काडयेचो आधार त आमकां दिसलो. ताचें दावें तयार केलें.

आतां प्रस्न आशिल्लो तो, शामीक आनी 'बबलू' पाडकाक प कशें व्हरप हो. बबलूक वेंगेंत घेवपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली म्हळें, हांव पाडकाक घेवन येतां. फाटोफाट शामी आपशींच येतली.

तिणें शिंगार घेतल्यार?'

'ना घेवची.'

'घेतलीच!' भोव धिरदिणीं उतरां!

पूण जे भुकेल्ले गायेक आमी मायेन खावंक घाल्लें ती गाय शिंगार घेत हें म्हाका कशेंच पटना जालें.

'नाका नाका' म्हणपी सगल्यांक थातारलीं, थोडीं केळीं घेतलीं लांत पावल दवरलें. ल्हवू ल्हवू शामी म्हऱ्यांत वचून हांवें दोन चेमुखार धरलीं. येद्दी लांब जीब भायर काडून शामीन केळीं रून तोंडांत घेतलीं. हांवें शामीक पोशेली. तिणेंय बरे तरेन पोशेवन उरिल्लीं केळींय हांवें तिका खावयलीं.

पेल्यान प्रेक्षक मंडळी स्वास रोखून चललां तें नाटक पळयतालीं. ल्हवूच बबलूक पोशेलो. शामीन कांय केलें ना. पूण म्हजेवेली शीन काडली ना. हांवें अळंग बबलूक उबारून वेंगेंत घेतलो. आतां मी म्हजे वटेन येवंक लागली. ना म्हळें तरी जीव सामको गळ्यांत घेता दिसता ही म्हाका शिंगार असो भोव धीर-दिणो विचार येवन काळजांत धडधडलें. तरीकय बबलूक घेवन हांव झिलांतल्यान सरूंक लागलें.

वेल्यान आकांतान हेवटेन तेवटेन पळपी प्रेक्षक मंडळींवेल्यान शामी गटोफाट भायर येवंक लागल्या हेविशीं म्हाका मात्तूय दुबाव उरलो

ल्यान पळयनासतना हांव बद्द पोरसांतले पेरी म्हऱ्यांत गेलें आनी सकयल दवरलो. इतले म्हणसर शामी येवन सामकी म्हाका तेंकली. लूक चाटपाच्या बोवाळांत आसतनाच हांवें दावें तिच्या गळ्यांत आनी दुसरें पोंत पेरीक बांदलें.

व्हडलो आक्त मेकळो जाल्लो.

पळ जाल्ली मंडळी पोरसांत जमली. परती शामी मुखार खावडिची डली. हांवें पेजेचो तोप मुखार दवरलो आनी बबलूची पोटभर अपुरबाय घेतली.

ले म्हरसर आमचे पोरांटे परत एक पावट भोंवडी करून आयले. तरी गाय अमक्याल्या पोरसांत व्हियेल्या, ही बातमी तांणी दवंडी तशी मेळटा ताका सांगली. पूण कांय फायदो जालो ना.

सांज जाल्ली. शेजारी ल्हवू ल्हवू घरा परतलीं. उरलीं शामी, आमी घरचीं आनी बॉबी, आमचो कुत्रो. बबलूक रातभर भायर बरोबर जावचें नासलें. आमी ताका घरांत हाडचेलें थारायलें आनी तीर हांतूण बी तयार केलें. घरांत एकेवटेन उमेदिचें तर दुसरे वटेन चें वातावरण पातळिल्लें. शामी कोणाली ती कळ्ळी ना जाल्यार दीस आमी तांकां आमगेर दवरूंक शकतलीं आशिल्लीं?

डचें फुडें, सध्या आंयचे रातीपुरतें पळोवया, अशें आमी चिंतलें. क तर मजाच दिशिल्ली. शामी गेल्यार वचूं, पूण बबलूक सदांच र दवरचें, असो तांचो आग्रो आसलो.

येची सुलूस लागत सावन आमच्या बॉबीन भुंकून भुंकून घर माथ्यार लें. ताका मागीलदारा बांदून घाल्लो. आपूण खासा घरचो आसून आपल्याक घरा भायरो केला म्हणून तो कश्टी तोंड करून बशिल्लो. यर वचून आमी शामीकडेन संभाषण केलें. बबलूक भितर व्हरप कशें आनी तिणें भायरच रावप हेंय गरजेचें कशें, तें तिका समजावन . मागीर आमी बबलूक उबारून घेतलो. इतले म्हणसर लायट गेली. ट संवकळिची आशिल्ल्यान एकामेकांक धरून आमी तशींच सालांत . इतले म्हणसर लायट आयली. आमकां सूऽऽ जालें. पूण खिणभरच. मागीर आमी सगळ्यांनीच कच्च् करून आंग काडलें. भितर सालांत वांगडा शामीय उबी आशिल्ली.

मकां काळखांत कांय दिसनाशिल्लें. पूण तिका सगळें ज्युस्त दिसतालें कपलार हात मारलो आनी सगळीं बबलूक घेवन परतीं पोरसांत .

आतां कितें करप हें चिंतता थंय आसात, गेटीकडेन दोन दादले आनी एक बायल दिसली. 'आमची गाय', शामीकडेन बोट दाखोवन ते बायलेन म्हळें.

खऱ्यांनीच ती तांची गाय काय कितें हो दुबाव मनांत येता थंय आसा, शामी ते बायलेक पळोवन खोशयेन हांबेली. मनांतलो दुबाव पयस जालो.

ते बायलेन शामीक पोशेली. आमकां देव बरें करूं म्हळें.

आमचो हुस्को पयस जाल्लो. पूण म्हजे दोळे बेठेच भरून आयले. बाळंटेराक आयिल्ली धूव नातवाक घेवन घरा वचूंक भायर सरची तशें दिसलें.

ही शामी, हो बबलू, म्हाका खंय परतीं दिश्टी पडूंक आयिल्लीं?

मालकान येवन बेगीन व्हेल्यार पुरो अशें दिशिल्लें खरें, पूण आतां व्हरूंक येतकीर मन जड जाल्लें. हांवें शामीक पोशेली. बबलूक उबारून वेंगेंत धरलो. ताच्या बुळबुळीत नाकाची पापी घेतली. आनी ते बायलेकडेन दिलो.

तीं सगळीं गेलीं तरी कितलोसोच वेळ आमी गेटीकडेन उबीं आशिल्लीं. परतलीं तेन्ना पेरीकडेन नदर गेली. शामीन तोडिल्लें दावें पेरीक लांबतालें. पोरसूं सगळें रितें जाल्लेवरी म्हाका दिसलें. मन मात भरून आयिल्लें. गजाल एकाच दिसाची!

एकच दीस. पूण याद उरपा सारको!



# गणपतीबाप्पा

एस्. डी. तेंडुलकार



सवंगां :

धा गणपती, मनीस-१, मनीस-२, नुस्तीं, हुंदीर आनी रसीक प्रेक्षक

[पड्डो उगडटा. माचयेर काळोख. काळखांत 'सुखकर्ता दुखहर्ता' ही आरत टाळांच्या गजरांत आयकूंक येता. आरत सोंपले उपरांत ल्हवू-ल्हवू निळसो उजवाड फांकारता. त्या उजवाडांत एक न्हंयचो तळ दिसता. तळाक वेगळ्या-वेगळ्या आकारांचे विसर्जित केल्ले धायेक गणपती आसनमांडी घालून बशिल्ले दिसतात. माचयेवेलो उजवाड उदकाचे तलमतेसारको थरथरपी, जातुंतल्यान हो न्हंयचो तळ आनी स्टेज पुराय उदकांत बुडल्या असो आभास निर्माण जावंक जाय. पात्रांच्यो हालचाली उदकांतल्या सारक्यो स्लो मोशनांत. देड दिसाची चवथ सोंपले उपरांतची फांतोड.]

**गणपती १** : काबार !

**गणपती २** : काबार ?

**गणपती १** : काबार !

**गणपती २** : कितें काबार ?

**गणपती १** : चवथ !

**गणपती २** : आं, चवथ ! (पॉज) हांव समजलों, हें नाटक क म्हणून !

**गणपती ३** : नाटक सुरू जालें तर ?

**गणपती ४** : हो कितें आत्तां पड्डो वयर गेलो तो ! ते पळे, नाटक पळोवपाक बसल्यात.

**गणपती १** : पूण लोकांक खबर आसा रे ?

**गणपती २** : कितें तें ?

**गणपती १** : ते सगले उदकांत, न्हंयच्या तळाक आसात म्हणून

**गणपती २** : आसतलेंच. आमकां न्हंयंत बुडयल्ल्यान आमी स न्हंयच्या तळाक आसात आनी आमकां ते पळोवंक शक हाचेवेल्यान तेवूय न्हंयच्या तळाक पावल्याच आस ते बगर तांकां हें नाटक दिसचेंय ना आनी कळचेंय (पॉज)

**गणपती ३** : आरे, सगले ओग्गीशे ? कितेंतरी उलयात.

णपती ४ : (व्हडल्यान मंत्र सुरांत) ओऽऽऽम!

णपती ५ : ओऽऽऽम!

णपती ६ : ओऽऽऽम!

णपती ७ : ओऽऽऽम!

णपती ८ : ओऽऽऽम!

णपती ९ : ओऽऽऽम!

णपती १० : ओऽऽऽम!

णपती १ : ओऽऽऽम!

णपती २ : ओऽऽऽम!

णपती ३ : ओऽऽऽम!

(पॉज)

णपती ३ : उलयात मरे! ओगी शे?

णपती ४ : आत्तां आमी सगले जाण उलयल्ले मरे!

णपती ३ : आरे, बेठो आमचो गजर केलो म्हणून कितें उलोवप जाता? एकामेकांवांगडा संवाद जावंक जाय, तेन्नाच तें उलोवप!

णपती १ : उलयतलो कितें? चवथ तर सोंपली.

णपती २ : येतली परत फुडल्या वर्सा. सोंपप, सुरू जावप, परत सोंपप, परत सुरू जावप; हो नेमूच हांगासल्लो.

णपती १ : पूण आमकां चवथीक परत-परत जल्म घेवचो पडटा ताचें कितें?

णपती २ : तुका नाका जाल्यार तूं घेवं नाका जल्म.

णपती १ : पूण तें म्हज्या हातांत थोडेंच आसा.

णपती २ : मागीर कोणाच्या आसा तर?

णपती १ : मनशाच्या. सगलें आतां मनशाच्याच हातांत आसा. तोच दर वर्सा चवथीक आमच्यो मुर्ती घडोवन आमकां परत-परत जल्म दीत आसता. चवथ सोंपली की न्हंयंत आमचें विसर्जन. (पॉज) आतां हांव कसली वाट पळयतां तें खबर आसा तुमकां?

णपती २ : कसली?

णपती १ : ह्या उदकांत विरघळून वचपाची.

णपती २ : आमी सगलेच विरघळून वतले एक दीस!

(पॉज)

णपती १ : चवथीक आमकां व्हडलो व्हालोर. पूण निमाणें बुडयले उपरांत कितें उरता आमचें? माती, फकत चिकणमाती!

णपती २ : आरे, तूं सामको निर्शेल्ले सारको कित्याक उलयता, म्हाका समजना! मनशांक हें एक वेळ सोबता. आमी देव मरे! ही पृथ्वी आमी घडयल्या. आमीच जर अशें उलोवंक लागले तर मनशांनी कितें करपाचें?

णपती १ : ही पृथ्वी घडोवन एक मुर्खपणाची गजाल आमी केली अशें तुका दिसना?

णपती २ : कित्याखातीर?

णपती १ : पयर चवथी दिसा म्हाका सूर्यदेव मेळिल्लो.

णपती २ : मागीर?

णपती १ : म्हाका माथ्यार मारून पुजेक लावपाक व्हरताले. माथ्यार वताचो रखरख. त्या वगतार तो रखरखीत सूर्य वयल्यांतल्यान म्हज्या कानांत फुतफुतलो, परत परत उदयाक येवप आनी परत-परत अस्ताक वचप ह्या कामाचो आपणाक सामको वाज आयला म्हूण. ताका खंय विसव जाय!

णपती २ : पूण सूर्यान असो विसव घेयत तर सगलेंच सोंपलें!

**गणपती १** : सोंपूं दी. व्हडलेंशें कितें जातलें? निमाणें हें विश्व म्हळ्यारूच एक मोटें शुन्य. (पॉज) जाय जाल्यार ह्या विश्वाचो विध्वंस करून आमी नवें विश्व तयार करूंया!

**गणपती २** : ह्या विश्वाचो विध्वंस आमी करपाची गरजूच ना. तो मनिसूच करतले एक दीस!

**गणपती ३** : आरे, तुमी येदोळच्यान कसली रड लायल्या? कितेंतरी बरें उलयात. आतां केन्ना तरी आमी उदकांत विरघळून वतलेच. चिकणमाती जातली आमची. ते म्हणसर हांसून-खेळून दोन उतरां उलोवंया तरी! (गणपती-२क) आं सांग, तुवें चवथीक कितें कितें खालें?

**गणपती २** : खातलों कितें कपल! दर वर्सा त्योच नेवऱ्यो, तेच मोदक, तेच वडे.

**गणपती ३** : जावं रे! पूण वर्सांत एकदांच खावंक मेळटात मरे, तें अप्रूप न्हय?

**गणपती २** : अप्रूप कसलें? करतात आमचे खातीर पूण खाता मात मनीस!

**गणपती ४** : तुमकां एक ज्योक सांगूं?

**गणपती ३** : सांग, सांग! ह्या दोगांयच्यो रडव्यो गजाली आयकून वाज आयला सामको.

**गणपती ४** : आयक तर! म्हाका ज्या घरांत पुजेक लायल्लो, त्या घरांत सगल्याक हुंदिरूच हुंदीर. रातचे ते म्हज्या माथ्यार चडटाले. सोंडीर बसताले.

**गणपती २** : पूण हातूंत विनोद कितें असा?

**गणपती ४** : फुडें आयक रे! थंय एक माजर आयलें तांकां खावपाक. ते बराबर सगले हुंदीर पळून गेले. पूण म्हज्या पांयां सकयल जो चिकणमातयेचो हुंदीर आशिल्लो, ताका तें खरो हुंदीर समजलें, आनी ताचेर घुरी घालून तें ताचेबरोबर खेळूंक लागलें. पूण तो हुंदीर हालना, धोलना आनी ताका भियेना हें पळोवन तें सामकें गोंदळ्ळें. कितें तरी विपरीत घडलां अशें दिसून ताणें म्यांव-म्यांव करीत भायर धांव मारली.

**गणपती ५** : हँ, हो कसलो विनोद? म्हजो आयक. हांव जांचेकडेन गेल्लों, त्या घरांत एक पांच-स वर्सांचो भुरगो आसलो. तो भुरगो कोण ना सो पळोवन परत-परत म्हजेकडेन येतालो आनी म्हज्या मोट्ट्या पोटाक हात लावन म्हणटालो – 'गणपतीबाप्पा, तुज्या पोटांत बाबू आसा न्हय रे?' म्हाका आयलो राग. हांवें कितें केलें, हांवें ताच्या कुल्याबरोबर एक थापट शेडायलें. ते बराबर तो भुरगो लागलो रडूंक. ताची आवय 'कितें जालें, कितें जालें' म्हणन धांवून आयली. भुरग्यान सांगलें, 'गणपतीबाप्पान माल्लो.' आवयन म्हळें, 'पिसो रे तूं! गणपतीबाप्पा केन्ना मारता?' 'खरेंच गे मम्मी', भुरगो सांगूंक लागलो. पूण आवयन ताचेर मात विश्वास दवरलो ना. चवथभर हांव त्या भुरग्याक सोंडयेन चाळोवन दाखयतालों आनी तो भुरगो 'पळे, पळे, गणपतीबाप्पा म्हाका चाळोवन दाखयता', अशें सांगीत राविल्लो.

**गणपती २** : जालें तुजें? आतां म्हजें आयकात. हांव गेल्लों त्या घरांत असोच एक भुरगो आशिल्लो. म्हाका पळोवन तो बापायक म्हणूंक लागलो, 'आम्गकां हतयाचें तोंड आशिल्लो गणपती नाका.' बापायन म्हळें, 'आरे, गणपती तसोच आसता.'

आनी ताणें ताका, शंकरान गणपतीची तकली मारून त्या जाग्यार हतयाचें शीर कशें लायलें ती काणी सांगली. पूण तो भुरगो तिरसुवाद. हट्टच धरून बसलो की गणपतीचें तें हतयाचें शीर काडून परत ते सुवातेर तें आदलें गणपतीचेंच शीर लाय म्हणून.

गणपती ४ : मागीर बापायन कितें केलें तर?

गणपती २ : बापूय कितें करतलो? भुरग्यांचो नस्तो हट्ट पळोवन एक शेडायलें ताणें!

गणपती ३ : हांव गेल्लों तें घर तर सामकें मांसाहारी. दोन दीस चवथिचें शिवराक जेवप म्हणजे तांच्या कपलाक आंठयो. तांणी कितें केलें खबर आसा? म्हाका पायता ते सांजचें नुस्तें हाडून दवरलें घरा फाटले खोंपींत. म्हाका पायले उपरांत तेच रातीक खावपाक. हांव मकरांत बशिल्लों थंय म्हाका त्या नुस्त्याच्यो घाणी येताल्यो म्हणजे पळय!

(इतल्यांत एक नुस्तें पेंवत माचयेर येता.)

गणपती २ : हें पळे, नुस्त्याचो विशय काडिना फुडें नुस्तें साक्षात हजर.

(नुस्तें माचयेर येवन सगल्या गणपतींक हुंगून-हुंगून पळयता.)

गणपती १ : आगो नुस्त्या, कितें हुंगता? आमी कितें उदकांत बुडून मेल्लीं मडीं म्हणून समजलां काय कितें?

नुस्तें १ : तुमी मडीं आशिल्ले जाल्यार चड बरें जातलें आसलें. तुमचे दोळे, मास खावन म्हजी भूक तरी भागतली आसली. पूण तुमी फकत चिकणमाती. तुमकां खातलो तरी कोण?

गणपती २ : आगो नुस्त्या, तूं बरें चुरूचुरू करून उलयता मगो!

नुस्तें १ : देवा, तुमी चिकणमाती आसले तरी देव हें कितें म्हाका खबर ना? पूण म्हाका सांगात, हांव कितें फट उलयतां?

गणपती ३ : ना. पूण आमची चिकणमाती वयर काडपाची तुका गरज ना. तुजेसारक्या किरकोळ नुस्त्याक तर तो हक्कूच ना.

नुस्तें १ : मागीर सगलो हक्क तुमी मनशाकूच दिला काय कितें? देवा, हे पृथ्वीचेर कोणूच नाशिल्ले, मनीस लेगीत नाशिल्लो तेन्ना आमी आशिल्लीं. आमी हे पृथ्वीवयले सगल्यांत पयले रहिवासी. तुमी आमकां रेस्पेद दिवंक जाय खरें म्हळ्यार!

गणपती २ : आमी तुका रेस्पेद दिताच गो! पूण आमच्याकूय चड मनीस तुका रेस्पेद दिता. मनशाक तुजो भोव घोस्त. तूं ना जाल्यार कांय जाणांच्या पोटांत एक उणीय वचना, खरें मगो?

नुस्तें १ : पाड पडूं तांचें! हे मनीसजातीन जिबेखातीर आमचो सामको विध्वंस केला. चवथीक दोन दीस शिवराक जेवतात ते आमचेर उपकार केल्लेसारकें. तें जावं, तुमची कशी जाली चवथ?

गणपती ३ : तूं आमची खबर घेवंक आयलां काय कितें गो?

नुस्तें १ : तुमी पडले देव, तुमची खबर आमी कितें घेतलीं? तुमीच आमची खबर घेवपाची. आमची इत्सा पुरी करपाची. (पॉज) देवा, म्हजें एक मागणें आसा तुमचेकडेन.

गणपती ३ : मागणें? तेंय बी एका नुस्त्याचें?

नुस्तें १ : हय. तुमकां हांगा पळयले आनी ती मनांतली अतृप्त इत्सा जागी जाली. दिसलें, तुमी येदे व्हडले देव. तुमच्यांनी ती सेर्त पुरी करूंक जातली.

गणपती २ : आगो, पूण इत्सा कसली तें तरी सांगशीत?

नुस्तें १ : मनशाचें मांस खावपाची. (पॉज) मनीस सदांच आ[...] खाता, घोस्तान खाता. आमचें मास खावन-खावन त[...] मासाक कितलो सुवाद आयला तें पळोवपाची उमळ[...] म्हाका लागल्या.

गणपती १ : मनशाचें मास?

नुस्तें १ : हय देवा, मनशाचेंच. तुमी म्हजी ही इत्सा पुरी क[...] अशी आस्त हांव बाळगूं?

गणपती २ : कसली अघोरी इत्सा!

नुस्तें १ : अघोरी? मागीर मनीस आमकां मारून खाता तें अ[...] न्हय? मरताना आमी कशीं तडफडटात तें तुका [...] सांगूंक जाय देवा? देवा, ओगी कित्याक? काय [...] मनशाचोच पाखो घेवपी देव?

गणपती १ : ना. (पॉज) ना. (पॉज) ना! तुजी ही इत्सा पुरी जा[...] ना. ह्या जल्मांत तरी.

नुस्तें १ : कित्याक? कित्याक देवा?

गणपती १ : आगो, तुजी जीण तरी कितली उरल्या?

नुस्तें १ : म्हळ्यार?

गणपती १ : तुजी इत्सा पुरी जावचे आदींच तुका मर्ण येतलें!

नुस्तें १ : मर्ण? कोण मारतलो म्हाका? मनीस?

गणपती १ : ना. तुजोच जातभाय! तुज्याकय मोटें नुस्तें तुका [...] उडयतलें.

नुस्तें १ : देवाऽऽ!

गणपती १ : तें पळे, येता. मोटें नुस्तें. तुका खावपाक.

(मोटें नुस्तें पेंवत येता. दबो धरता. ल्हान नुस्तें-१ भि[...] आकांतान गणपती-१च्या पांयांर घालून घेता.)

नुस्तें १ : देवाऽऽ! म्हाका वाटाय देवा ऽऽ!

गणपती १ : आमच्यांनी कांयच करूंक जायना. तुजें मर्ण अटळ. नु[...] उठ, मर्णाक येवकार दी. जल्माक आयिल्लो नि[...] मरतलोच हें सत जाणून घे.

नुस्तें १ : ना, म्हाका मरपाचें ना. म्हाका जियेवपाचें आसा. दे[...] म्हाका वाटाय!

(मोटें नुस्तें ल्हान नुस्त्याक धरपाक फुडें येता. ते ब[...] ल्हान नुस्तें-१ जळामळाक धांवूंक लागता. मोटें [...] ताचे फाटल्यान. गणपतींच्या अदल्या-मदल्यान ध[...] माचयेक एक-दोन भोंवाडे काडून ल्हान नुस्तें-१ [...] घेवन माचयेभायर वता. ताचे फाटल्यान मोटें नुस्तें. [...] खावपाक.)

गणपती २ : ह्या नुस्त्यान बरो टायमपास केलो न्हय रे?

गणपती १ : टायमपासूच तो! (हांसता)

गणपती २ : पूण तूं हांसता कित्याक रे?

गणपती १ : हांव हांसतां मर्णाक.

गणपती २ : मर्णाक?

गणपती १ : हय.

गणपती २ : म्हळ्यार?

गणपती १ : आरे, तें मोटें नुस्तें ल्हान नुस्त्याक आतां खातलें. म्ह[...] येन्नासर ताका खावनूय उडयलां आसतलें. पूण हाचे [...] मजा म्हळ्यार, त्या मोट्या नुस्त्याचें मर्णूय ताचे फा[...] आसा.

गणपती २ : म्हळ्यार ताका ताच्याकूय मोटें नुस्तें खातलें तर?

णो १ : ना. (इतल्यान वयल्यान एक गरयेचो दोर लांबत माचयेर येता. गरी दाखयत...) पळे, ती गरी पळे. पळे तें हांयस. वयर न्हंयचे धडेर एक मनीस नुस्तें गरोवपाक बसला. ही गरी त्या मोट्या नुस्त्याच्या ताळ्याक लागून ताकाय निमाणें मर्ण येतलें. आतांच कांय खिणांभितर. (हालते गरयेक पळेत) पळे, पळे मर्ण कशें भोंवता फाटसून फुडसून! (गरी ल्हवू-ल्हवू दिसनाशी जाता. पॉज)

णी ६ : मर्ण तर मर्ण! म्हजी चवथ कशी जाली हें खबर आसा तुमकां?

णी ३ : सांग, सांग.

णी ६ : आरे, हो ज्योक न्हय. हांव ज्या घरांत आशिल्लों त्या घरांत एक जाण्टेलो आशिल्लो. तो पंचमी दिसाच पालवलो. घेऽ घरांत रडारड. म्हाका मागीर कोणूच पळोवपाक तयार ना. चवथ चालू आसतना घरांतल्या मनशाक मर्ण येवप ही म्हजे सारक्या गणपतीक केदी व्हडली लजेची गजाल! पूण मर्णाफुडें देव तरी कितें करूंक शकता?

ती २ : म्हाका लोकांचें हांसपाकूच येता.

ती ३ : कित्याक?

ती २ : आरे, ते आमची आरत कितें म्हणटात तें आयकलां तुमी?

गणपती : (सुरांत) सुखकर्ता, दुखहर्ता, वार्ता...

ती २ : पुरो, पुरो. म्हाका सांगात, आमी कसले सुखकर्ता आनी दुखहर्ता? आमच्या हातांत आसा कितें? जल्माक आयिल्ल्या दर एका जिवाक सूख, दुख्ख, मर्ण हें आसाच. ताचे पासून सुटका खंयची? तें सगळें भोगचेंच पडटा. तातूंत आनीक, बदल ना. खंयचोच व्हडलो देव तातूंत बदल करूंक शकना. निमाणें जीण म्हणटात ती हीच न्हय?

ती ३ : पूण तरीय लोकांचो आमचेर भावरात आसा.

ती २ : निमाणें भावरातूच तो!

पती ३ : पूण तोच भावरात ही जीण जियेवपाक मदत करता मरे?

पती १ : हांव ज्या घरांत आशिल्लों, त्या घरांत एक तरणाटो आशिल्लो. एकदम बंड. म्हाका एकूय दीस तो हात उखलून पांयां पडूंक ना. सामको नास्तिक. चवथ-बिवथ सध्या आऊटडेटेड जाल्या अशें म्हणपी. आवय-बापायचो आनी ताचो सदांच वाद. चवथीक तुमी इतलो खर्च करतात, तो सगळो फुकट. ते परस ते पैशे अनाथाश्रमाक, गरीब-दुबळ्यांक दिल्ले जाल्यार सार्थक जावपाचें अशें ताणशेवन म्हणपी हो तरनाटो.

पती ४ : पूण म्हातारो जालो की रगत न्हिवतलें ताचें. मागीर तोवूय एक गोरूच जातलो.

पती १ : पूण सगळेच मनीस तशे आसतात अशें ना. कांय जाण तर तत्त्वाखातीर आपली सबंद जीण होगडावपी आसतात. (पॉज) पूर तरीय हालीं मनशांचो आमचेवेलो भावरात कमी जायत चल्ला अशें तुका दिसना?

पती ४ : कमी? आदले परस आनीक वाडला तो. आरे, मनीस जितली आपली ऐहिक प्रगती करता, तितलो-तितलो ताच्या मनांत असुरक्षिततायेचो भंय वाडटा. मनांत भंय वाडलो की ताका भावराताची गरज भासताच. म्हणून निमाणें ताका आमचेच कडेन येवचें पडटा.

पती २ : पूण भावराताबगर मनीस जियेवंक शकना अशें तुका दिसता?

**गणपती ४** : ना. जियेवंक शकना तो. देवावेलो भावरात सोडून दी, पूण खासा आपणाले जिणेचेर तरी ताणें भावरात दवरचोच पडटा. नाजाल्यार तो सरळ आत्महत्या करून मेकळो जातलो!
(इतल्यान वयल्यांतल्यान एक मनीस प्रेतासारको सकयल येता. जमनीर पडटा.)

**गणपती ३** : आं? हो आनीक कोण? कोण रे तूं? (सगले गणपती त्या मनशा भोंवतणीं जमा जातात.)

**मनीस १** : (धडपडून उठून बसत) हांवें आत्महत्या करपाक हे न्हंयंत उडी मारिल्ली. हांव आतां जितो आसां काय मेलां?

**गणपती १** : तुका आत्महत्या कित्याक करचिशी दिसली?

**मनीस १** : हांव हे जिणेक वाजेल्लों! सामको वाजेल्लों.

**गणपती १** : कित्याक?

**मनीस १** : तें सांगपाक लेगीत म्हाका वाज येता.

**गणपती १** : म्हळ्यार खऱ्यांनीच तूं जिणेक सामको वाजेला तर...

**मनीस १** : आतां हांव खंय आसां?

**गणपती १** : न्हंयच्या तळाक. हो न्हंयचो तळ.

**मनीस १** : म्हळ्यार हो सर्ग काय नर्क?

**गणपती १** : तुका कितें दिसता?

**मनीस १** : म्हाका कांयच समजना म्हूण तुमकां विचारतां. तुमी देव, म्हळ्यार तुमकां तें खबर आसतलेंच.

**गणपती १** : मेला जाल्यार सर्गांत आसा अशें समज. आनी जितो आसा जाल्यार नरकांत आसा अशें समज.

**मनीस १** : हांव जितो आसां काय मेलां?

**गणपती १** : खरो प्रस्न होच!

**मनीस १** : म्हळ्यार?

**गणपती १** : म्हळ्यार, होच खरेलो प्रस्न.

**मनीस १** : प्रस्न? जिणेंत हे सगले प्रस्नूच प्रस्न कित्याक? (पॉज) कित्याक?
(पॉज)
(उपरांत असहाय्य जाल्ले वरी) तुमी हांगा कितें करतात? चवथ तर सोंपली.

**गणपती १** : उदकांत विरघळून वचपाची वाट पळेतात.

**मनीस १** : मागीर कितें जातलें?

**गणपती २** : मागीर आमची चिकणमाती जातली.

**मनीस १** : मागीर कितें जातलें?

**गणपती ३** : फुडल्या वर्सा आमी तेच चिकणमातयेचे गणपती जातले.

**गणपती ४** : मागीर आमकां परत पुजेक लायतले.

**मनीस १** : मागीर कितें जातलें?

**गणपती ५** : मागीर आमकां परत बुडयतले.

**मनीस १** : मागीर कितें जातलें?

**गणपती ६** : मागीर आमची परत चिकणमाती जातली.

**मनीस १** : मागीर कितें जातलें?

**गणपती ७** : मागीर तूं आत्महत्या करतलो.

**मनीस १** : मागीर कितें जातलें?

**गणपती ८** : मागीर तुका परत जल्म मेळटलो.

**मनीस १** : मागीर कितें जातलें?

**गणपती ९** : मागीर तूं परत आत्महत्या करतलो.

**मनीस १** : मागीर कितें जातलें?

**गणपती १०** : मागीर तुका परत जल्म मेळटलो.

**मनीस १** : (पॉज) म्हळ्यार, आत्महत्या करून प्रस्न सुटचो ना तर!

**गणपती १** : ना.

**मनीस १** : मागीर हांव आत्महत्या करिना.

**गणपती १** : तुवें आत्महत्या आदींच केल्या.

**मनीस १** : म्हळ्यार, हांव मेलों तर?

**गणपती १** : तोच तर खरो प्रस्न.

**मनीस १** : आतां हांव कितें करूं?

**गणपती १** : तुका कितें करचेंशें दिसता?

**मनीस १** : म्हाका कांयच करन दिसना. (गळीत जाल्लेसारको जमनीर थपकल मारता आनी थंयच लवंडटा. जीव नाशिल्ले वरी जावन पडटा.)

**गणपती २** : ह्या मनशाचें म्हाका कांय कळना. सामको कुंप्लिकाद.

**गणपती १** : (हांसत) जगचें काय मरचें हो ताका पडिल्लो प्रस्न न्हय. आपूण जितो आसां काय मेलां होच ताचो प्रस्न. जगचें काय मरचें हो प्रस्न सोडोवं येता. पूण आपूण जितो आसां काय मेलों हो प्रस्न सोडोवंक सामकें कठीण. (इतल्यान एक हुंदीर धडपडत सकयल येता.)

**गणपती १** : यो, मुषका, यो!

**हुंदीर** : देवा, तुमी हांगा आसात? बरें जालें. तुमकां सगलें सांगपाक मेळ्ळें. देवा, तुमकां भर्जी म्हणटात तें कितें खबर आसा?

**गणपती २** : भर्जी?

**हुंदीर** : हय. भर्जी. तळ्ळीं म्हणटकीर बरो घमघमीत वास सुट्टा तांचो. गरम-गरम कितें लागतात भर्जी! म्हाका तांचो खूब घोस्त. पूण देवा कितें सांगूं, भर्जी खावनूच म्हजी वाट लागली. आनी म्हजी वाट लावपी कोण जाणा? मनीस! म्हाका खंय खबर, ह्या मनशांनीच मुद्दाम म्हाका जिवानशीं मारपाक त्या भज्यांनी वीख घातलां म्हूण! हांवें तीं खालीं आनी हांव मेलों तडफडत-तडफडत. आनी मागीर म्हजें मडें काडून हे न्हंयंत मोखून मारलें. देवा, खंय फेडटले पाप हे मनीस?

**गणपती १** : म्हळ्यार, तुवें आत्महत्या करूंक ना!

**हुंदीर** : आत्महत्या? म्हजो खून जाला देवा, म्हजो खून जाला.

**गणपती १** : म्हळ्यार तूं जितो आसा काय मेला?

**हुंदीर** : देवा, तुमी अशें कितें उलयतात? म्हजो खून जाला म्हळ्यार हांव मेलोंच न्हय!

**गणपती १** : तुका खात्री आसा? तूं मेलो म्हणून?

**हुंदीर** : हय तर.

**गणपती १** : हे त्या मनशाक पळयला? (निपचित पडिल्ल्यां मनशाकडेन बोट दाखयता.) ताणें आत्महत्या केल्या. पूण तो आपूण मेला काय जितो आसा ह्याच दुबावांत आसा.

**हुंदीर** : म्हाका कसलोच दुबाव ना.

**गणपती १** : म्हणुनूच तो मनीस आनी तूं हुंदीर!

**हुंदीर** : नांव काडूं नाका मनशांचें. म्हजो खून केला तांणी. देवा, आमी तुमचें वाहन न्हय?

**गणपती १** : आरे, ना कोण म्हणटा?

**हुंदीर** : मागीर मनीस तुमकां पुजता आनी आमचो विध्वंस करूंक सोदता. येद्या व्हडल्या देवाच्या वाहनाचो विध्वंस? देवाऽऽ, हें खंयचे नैतिकतेंत बसता?

**गणपती २** : मनीस म्हणटा, तुमी हुंदिरूच विध्वंसक, म्हूण ते तुमचो विध्वंस करतात.

**हुंदीर** : आमी इतले विध्वंसक जाल्यार तुमी आमकां तुमचें वा करचेच नाशिल्ले. देवाक आमी आवडटात जाल मनशाकूच कित्याक आवडनात? आमी दिश्टी पडना घेऽ दांडे घेवन मनीस आमचे फाटल्यान लागतात. मनशाच्या संवसारांत जियेवप दिसानदीस कठीण जा चल्लां. (पॉज) देवा, निमाणें आमचे जिणेचो अर्थ किते

**गणपती १** : जिणेचो अर्थ कितें? (हांसता) हो सनातन प्रस्न आ हुंदरांकूय पडूंक लागलो तर! (पॉज) मुषका, जिणेंत क प्रस्नांक जापो नासतात!

**हुंदीर** : पूण म्हाका जाप जाय.

**गणपती १** : एकाच प्रस्नांत हजार प्रस्न लिपिल्ले आसतात. आ एकाच प्रस्नाक हजार जापो आसतात. केन्ना केन्ना प्रस् प्रस्नाक बरी जाप आसता.

**हुनीर** : म्हजे तकले वयल्यान गेलें!

**गणपती १** : म्हाका सांग, तूं मेला. मागीर तुका ह्या प्रस्नाचें कित्या पडलां? हें चिंतपाचें जिते आशिल्ल्यांनी.

**हुंदीर** : तशें जाल्यार, म्हाका परतो जितो कर.

**गणपती १** : तूं मेला हाची तुका खात्री आसाच. आतां तुका र जाय काय नर्क इतलेंच सांग.

**हुंदीर** : म्हाका सर्गूय नाका आनी नर्कूय. म्हाका परतो जि कर हे पृथ्वीचेर.

**गणपती १** : परतो जितो जावन तूं कितें करतलो?

**हुंदीर** : जिणेचो अर्थ सोदपाचो यत्न करतलों.

**गणपती १** : म्हळ्यार कितें करतलो?

**हुंदीर** : म्हळ्यार मनशाच्यो व्हाणो, लुगटां, कापेती, लाडू-बि सगले फस्त करीत रावतलों. (इतल्यांत एक मोट्टें नुस्तें-३ वसवशिल्ले वरी हुंदर दिकेन येवंक लागता.)

**गणपती २** : हें पळय, एक नुस्तें आयलें. तुजें मडें खावपाक. (नुस्तें-३ हुंदराची शेंपडी आपल्या तोंडांत धरता आ ताचें मडें ओडीत व्हरता.)

**गणपती ३** : (तीं गेल्ले दिकेन पळयत) हें तेंच येदोळचें व्हडलें नु काय कितें रे?

**गणपती १** : न्हय. तें वेगळें आनी हें वेगळें. पूण ल्हान-मोटो आक सोडलो जाल्यार तशें सगलें एकूच. (हांसता.)

**गणपती २** : हांसलो सो?

**गणपती १** : एक मजा पळय. ज्या हुंदराक ताणें आपलें खाण म्ह व्हेला त्या हुंदरान वीख खालां. आतां वीख खाल्ले हुंदीर तें नुस्तें खातलें. आनी विखाची बाधा जावन तें निमाणें मरतलें. (हांसत) हाकाच नियती म्हणटात! (सगले गणपती व्हडल्यान हांसतात.)

**गणपती २** : ही जीण पळेल्यार हांसचें काय रडचें तेंच कळना! (इतल्यान एक मनीस फाटीक ऑक्सिजनाची बॅग, तोंडा वादी, दोळ्यांर ग्लास लावन पेंवत सकयल येता. स गणपती ताका पळेत रावतात.)

**गणपती ३** : हो आनीक कोण?

**गणपती ४** : हाका तोंडाक सोंडये सारकें कितें आसा मरे!

**मनीस २** : (संकयल देंवन) गणपतीबाप्पा मोरया, फुडल्या व लवकर या!

णपती ५ : तूं कोण रे बाबा?

नी २ : गणपतीबाप्पा, तुमी हांगा बसून नेवऱ्यांच्यो गजाली करतात काय किर्ते रे?

गपती १ : तशेंच समज. पूण तूं कोण? तुंवूय आत्महत्या करूंक सोदता काय किर्ते?

नी २ : आत्महत्या? (हांसता) हांव पुलिसेंतलो. हांगा येदोळ एका मनशान आत्महत्या केल्या. ताचें मडें सोदपाक धाडला म्हाका.

गपती १ : (मनीस-१क बोट दाखयत) हो तो पळे तो मनीस.

नी २ : गुड! (त्या मनशा म्हऱ्यांत वता आनी ताका उखलून फाटीर मारपाचो यत्न करता. इतल्यांत मनीस-१ जागो जाल्ले वरी उठून उबो रावता.)

नी १ : कोण तूं?

नी २ : तूं अजून जितो आसा काय किर्ते रे?

नी १ : हांव जितो आसां काय मेलां होच प्रस्न म्हाका पडला. पूण तूं कोण?

नी २ : तुजें मडें उदकांतल्यान भायर काडपाक म्हाका धाडिल्लो. चल या वयर. तुजीं सोयरीं तुजें मडें पळोवपाक आशेल्यांत. रोखडेंच तुका मसंडेंत व्हरून लासपाचे आसात.

नी १ : सोयऱ्यांचें आनीक किर्ते काम? तेंच. खांदो दिवपाचें आनी लासपाचें.

नी २ : चल या तर!

नी १ : हांव येवचों ना.

नी २ : म्हळ्यार?

नी १ : हांव मरुंकूच ना, जाल्यार म्हजें मडें तूं कशें व्हरतलो?

नी २ : तशें जाल्यार तूं जितो आसा म्हणून तुका हांव वयर काडटां. तुजो जीव वांचयल्लेबद्दल सरकार म्हाका वीर-पुरस्कार दितलो.

नी १ : हांव मरुंकूय ना आनी जितोय ना.

नी २ : म्हळ्यार?

नी १ : तुजे वांगडा आतां उलयता तो हांव न्हय.

नी २ : मागीर कोण तर?

नी १ : तो हांव न्हय.

नी २ : मागीर तूं कोण तर?

नी १ : हांव, हांव न्हय.

नी २ : पूण तूं कोण?

नी १ : तूं म्हळ्यार हांव न्हय.

ती १ : पूण तरीय तूं कोण हो प्रस्न उरताच.

स १ : गणपतीबाप्पा, तुमी मात्शे ओगी रावात. तुमकां मनशांचे प्रॉब्लेम कळचे नात.

ती २ : आरे, आमकां मनशाचे प्रस्न कळटात, ते आमी सोडयतात, म्हणून तर आमकां मनीस पुजेक लायता. आमची भक्ती करता.

स १ : तशें तुमी आपलें समाधान करून घेयात.

ती २ : मनिसूय तशें आपलें मनाचें समाधान करून घेता.

स १ : पूण हांवें फटिच्या समाधानान जगपाचें आतां सोडून दिलां.

स २ : म्हळ्यारूच तूं मेला तर!

स १ : ना. हांव मरुंकूय ना आनी जितोंय ना. हांव फकत उदक जावन खोल-खोल जालां. म्हणुनूच असो खोल तळाक पावलां. (पॉज) कांय जाण तेंगशेर पावतात. हांव तळाक पावलां, इतलोच फरक. (पॉज) तेंगशेर आशिल्लो मनीस सकयल पडपाचो भंय आसता. हांव पयलींच तळाक आशिल्ल्यान आनीक सकयल पडपाचो म्हाका भंय ना.

मनीस २ : गणपतीबाप्पा, हो किर्ते उलयता तें तुमकां कळटा हो?

गणपती १ : उतरांक अर्थ आसता आनी नासताय बी.

मनीस २ : आगा, हाची बडबड ही न्हिदेंतली. हो मरणझेम घेता आनी ते झेमेंत हें असलें किर्ते किर्ते बडबडटा. (मनीस १-क) आरे पापया, म्हाका वेळ ना. बेगीन चल म्हजे वांगडा. वेळार नीट काम करिना म्हणून बॉस म्हज्या नांवान करंदाय मारतलो.

मनीस १ : म्हाका सांग, हें तें तुजे फाटीर किर्ते आसा?

मनीस २ : ऑक्सिजनाचो ट्यूब तो.

मनीस १ : आनी हें तें तोंडाक किर्ते?

मनीस २ : ती वादी ऑक्सिजन घेवपाक.

मनीस १ : त्यो तुज्यो ऑक्सिजनाच्यो खुंटयो काडून उडयत जाल्यार तुजें किर्ते जातलें?

मनीस २ : किर्ते जातलें? उदकांत हांव घुस्मट्टलों. उदकांतल्यान बेगीन वयर येना जाल्यार हांव मरतलों.

मनीस १ : मरतलो न्हय? पूण तूं मेलो हाचें तुजेकडेन किर्ते प्रॉव्ह आसतलें?

मनीस २ : कांय ना. हांव मेलों हेंच म्हाका पयलीं खबर नासतलें.

मनीस १ : बरें. तूं जितो आसा हें तरी तूं प्रॉव्हार करूंक शकता?

मनीस २ : तुजेकडेन हांव ह्या खिणाक उलयतां म्हळ्यारूच हांव जितो आसां.

मनीस १ : तूं म्हजेकडेन उलयचना!

मनीस २ : मागीर हांव कोणाकडेन उलयतां तर?

मनीस १ : तूं तुजेचकडेन उलयता.

मनीस २ : तशें जाल्यार तूं कोणाकडेन उलयता?

मनीस १ : हांव म्हजेच कडेन उलयतां.

(दोगूय एकामेकांक पळेत उरतात. व्हडलो पॉज.)

गणपती ३ : आरे, उलयात मरे. तुमच्यो गजाली आयकून आमचोय मात्सो बरो वेळ पासार जाल्लो.

मनीस १ : मनीस भोगता आनी तुमी देव आमची मजा पळेतात.

मनीस २ : तूं येना मरे? हांव वचूं तर?

मनीस १ : वच. वचून सांग लोकांक म्हजें मडें मेळूंक ना म्हूण.

मनीस २ : बरें तर. (गणपतीक पळोवन, व्हडल्यान) गणपती बाप्पा मोरया, फुडल्या वर्सा लवकर या. (पेंवत वयर वता.)

मनीस १ : फुडल्या वर्सा! कितलीं वर्सां? हजार वर्सां, लाख वर्सां, कोटी वर्सां, अब्ज वर्सां, निखर्व वर्सां, वर्सां, वर्सां, वर्सां; ह्याय फुडें कितलिंशीं वर्सां हांव पडून रावतलों ह्या तळाक. (परत आड पडटा. उमथो पडून निपचित जाता.)

गणपती १ : खरें सांगूं, हांवूय वाजेलां दर वर्सा चवथीक येवपाक.

सगले गणपती: तशे आमीय सगलेच वाजेल्यात.

गणपती २ : परत परत तेच मोदक.

गणपती ३ : परत परत त्योच नेवऱ्यो.

गणपती ४ : परत परत तेच वडे, तोच रोस.

गणपती ५ : तीच आरत.

गणपती ६ : तीच पुजा.

गणपती ७ : तेंच मागणें.

गणपती ८ : तेंच मागणें.

गणपती ९ : तेंच मागणें.

गणपती १०: तेंच मागणें. (पॉज)

गणपती १ : पूण करतलो कितें? येवचेंच पडटा. दर वर्सा येवचेंच पडटा. तो खेळ खेळचोच पडटा!

गणपती २ : आमी आयले म्हूण कितें मनशाचें दुख्ख सोंपचें ना.

गणपती ३ : आमी आयले म्हूण कितें मनीस सुखी जावचो ना.

गणपती ४ : आमी आयले म्हूण भ्रष्टाचार, बेकारी, लांचलुचपत थांबची ना.

गणपती ५ : आमी आयले म्हूण कितें मर्ण येवचें रावचें ना.

गणपती ६ : आमी आयले म्हूण चोरी, आत्महत्या, खून थांबचे नात.

गणपती ७ : आमी आयले म्हूण हॉस्पिटलां बंद पडचीं नात.

गणपती ८ : आमी आयले म्हूण सोरो, मास खावप बंद जावचें ना.

गणपती ९ : आमी आयले म्हूण गरिबी हटची ना.

गणपती १०: आमी आयले म्हूण कितें पृथ्वीर नंदनवन जावचें ना.

गणपती १ : आमी आयले नात जाल्यार मात आमी ना जातले. आमचें अस्तित्व ना जातलें. म्हणून आमी येवंकूच जाय. तो खेळ खेळुंकूच जाय. (सगले गणपती एकामेकांच्या खांदाक हात घालून प्रेक्षकां सामकार उबे रावतात. आनी गीत गायत नाचूंक लागतात.)

दर वर्सा येवचेंच पडटा<br>
खेळ तो खेळचोच पडटा<br>
माजराचो खेळ जाला<br>
हुंदीर आमचो रडटा ॥धृ॥<br>
जिणेची जाली नेवरी<br>
मर्णाचो जाला मोदक<br>
सगळेकडेन उदकूच उदक<br>
मळब अशें बुड्टा ॥१॥

मळबा मळबा बुडूं नाका<br>
हुंदरा म्हज्या रडूं नाका<br>
चवथिचो चंद्र आज<br>
पृथ्वीआड दड्टा ॥२॥

(नाच आनी गाणें सोंपता सोंपता सगले गणपती एक
एकामेकांक फाट करून दसून रावतात. तांचो अ
मनभुलोवणो आकार तयार जाला. आतां ते धाय
म्हणजेच एक प्रचंड गणपती आशिल्लेवरी दिसता.
प्रेक्षकांतल्यान एक रसीक प्रेक्षक उठून माचयेर येता

प्रेक्षक : देवा, हांव तुमचें नाटक पळेत बशिल्लों. रावूं नज
माचयेर आयलां. देवा, तुमीच जर इतले निराश ज
आमी लोकांनी कितें करपाचें? तुमी येयात. दर व
येयात. तुमी येवप म्हळ्यार आमचे जिणेंत काव्य ये
पळे तुमचो देह. तुमचो अख्खो देह म्हळ्यार एक
जिवंत कविता. तुमचें तें हतयाचें तोंड, मोट्टें पो
वाहन तो माणकुलो हुंदीर, हें सगलेंच तुमच्या का
प्रतिमा कश्यो! देवा, जियेतलो जाल्यार आमकां आम
काव्य जाय. तुमी आयले नात जाल्यार आमचे
काव्य हरपतलें. ना जातलें. तुमी येयात देवा, दर व
(मोठ्ठ्यान) गणपतीबाप्पा मोरया, फुडल्या वर्सा
(प्रेक्षकांतल्यानूय कांय लोक 'गणपतीबाप्पा मोर
घोशणा दितात. तो रसीक प्रेक्षक गणपतीक साष्टांग
घालता.)

( पड्डो )

# श्रीमद् भगवद् गीतेचो अणकार

सुरेश गुंडू आमोणकार

श्रीमद्-भगवद् गीता (गीता) म्हळ्यार **श्री भगवंतालें गीत.** तो वैदीक धर्माचो एक मुखेल ग्रंथ. वेद आनी उपनिषदांचो सार म्हळ्यार गीता. देखून गीतेक उपनिषदाचो मान फावो जाला. श्री व्यासाची गीता हो ७०० श्लोकांचो माणकुलो आनी अप्रूप ग्रंथ. भारतीय दर्शनांचो विकास तशेंच आमच्या जिवितांत उपरासपी नितीक आनी हेर प्रस्नांची फोडणिशी गीतेंत आयल्या. देखून गीता वैश्वीक जाल्या. भारतीय भासां वांगडाच संवसारांतल्या म्हत्वाच्या भासांनी तिचीं एकापरस अदीक भाशांतरां जाल्यांत. गीता छंदमय, देखून ती गावचेली. महाभारताच्या भीष्मपर्वांत २३ ते ४० ह्या अध्यायांत गीतेचो आसपाव केला.

**गीतेचे कोंकणी अणकार :**

(i) गीतेचो पयलो कोंकणी गद्य अणकार शणै गोंयबाबालो. तो १९३५तजालो पूण १९५९त उजवाडाक आयलो. हो अणकार भारतीय भासांमदलो एक उत्तमांतलो उत्तम अणकार. त्या काळाची गरज म्हणून आनी कोंकणीचे अभिव्यक्तिची तांक दाखोवचे पासत शणै गोंयबाबान आपल्या अणकाराची भास शुद्ध राखपाचो यत्न केलो. गीतेंतलीं परिभाशीक आनी तत्सम उतरां घेवपाचें ताळ्ळें. ह्या पयल्या अणकारा उपरान्त गीतेचे धा बारा अणकार जाल्यात अशें आयकूंक येता. तांतूंत म्हजे नदरेक आयिल्ले अणकार अशे आसात :

(ii) **श्री गीतार्थसुधा** – अ. शेषगिरी केशव प्रभू (१९५७) – (पद्य).

(iii) **गीताय** – अ. बाकीबाब बोरकार (१९६०) – (पद्य).

(iv) **गीतामृत साकी** – अ. बंगले नारायण कामत (पद्य साकी वृत्तांत), १९६२

(v) **श्री 'गीताम्मा'** – अ. पांडुरंग नारायण नाडकर्णी (पद्य), १९७१

(vi) **श्रीमद्भगवदगीता** – अ. रवीन्द्र केळेकार (गद्य), **महाभारत खण्ड** २ – परिशिश्ट १ (१९८७).

(vii) **श्रीमद्भगवद्गीता** – अ. अशोक श्रीधर भट (गद्य), १९९५.

इतले अणकार आसतना आनीक एका अणकाराची गरज आशिल्ली ? हो अणकार हांवें करूंक ना. म्हजेकडसून तो जालो. 'धम्मपद' कोंकणींत करतना **गीता** कितें सांगता हें समजून घेवपाची उमळशीक आसली. म्हूण १९९३त गीता वाचपाक आरंब केलो. संस्कृत भाशेकडेन तोंडवळख आशिल्ली. पूण ४० वर्सां वयर संबंद तुटिल्लो. देखून दर एका संस्कृत पदाचो (शब्दाचो) अर्थ बरोवन काडलो. अर्थ बरोवन काडलो म्हूण गीता कळटाच अशें ना. गीतेंत सगल्या भारतीय दर्शनांचो समन्वय जाला. **गीता** सारकी कळूंक तीं दर्शनांय वाचचीं पडलीं. **धम्मपद** करतना छंदांकडेन संवकळ जाल्लीच. हे संवकळेची दाटी जावचेली गरज आसली. तीय ह्या अणकाराक लागून जाली.

१.४ **ह्या अणकाराचें खाशेलेंपण :** प्रत्येक श्लोकाच्या दर एका संस्कृत पदाचो अन्वय आनी अर्थ, पद्य अणकार, गद्य अणकार आनी म्हत्वाची विकसावणी दिल्या. दर एका अध्यायाची वळख आनी गीतेचे परिभाशेचो अर्थ दिला. गीतेचे जायते भाश्यकार जाल्यात. शंकराचार्य, विनोबा, डॉ. राधाकृष्णन, डॉ. रानडे, डॉ. रुडॉल्फ ऑटो आदी. म्हत्वांच्या श्लोकाचेर ह्या म्हालगड्यांचें भाश्य दिलां. एकाच ग्रंथांत गीतेविशिंची माहिती कोंकणी वाचप्यांक मेळटली आनी तांची संस्कृत भाशेकडेनूय संवकळ वाडटली.

१.५ **गीतेंतले छंद :** गीतेंत मुखेलपणान दोन छंद वापरल्यात. आठ अक्षरांचो अनुष्टुभ् छंद आनी इकरा अक्षरांचो त्रिष्टुभ् छंद (परिशिश्ट १). छंदांचें बंधन राखून अर्थाक बादा हाडिनासतना पद्य अणकार करप हांतुंतूच अणकारप्याचें येस आसता. मूळ संहितेंतलो अर्थ जिस्ताजिस्त हाडून मुदलांत नाशिल्लें अणकारांत भरसूंक जायना हाची जतनाय घेवंची पडटा. संस्कृत भाशेचें एक खाशेलेपण म्हळ्यार तांतले समास. एक एक समास सोळा अक्षरांचो. देखीक : कृपयाविष्टमश्रुपूर्णाकुलेक्षणम् [१३ अक्षरांचें एक उतर (२.१)]; सुहृन्मित्रार्युदासीनमध्यस्थद्वेष्यबन्धुषु [१६ अक्षरांचें एक उतर (६.९)] अश्यो शेंकड्यांनी देखी मेळटात. प्रतिभावंत नाशिल्ल्या अणकारप्यांक खरस हाडचेली कसरत करची पडटा. प्रतिभावंतांक घडये हें सोंपेपणान सादता.

१.६ गीता हें एक आव्हान. अणकारप्यां मुखार उप्रासपी प्रस्न जितल्या समाधानान सुटावे जातात त्या प्रमाणांत अणकारपी यशवंत जाता.

१.७ वेगळ्या वेगळ्या अणकारप्यांनी दुसऱ्या अध्यायांतलो पयलो श्लोक कसो अणकारला तें आतां पळोवया :

> तं तथा कृपयाविष्टअश्रुपूर्णा कुलेक्षणम् ।
> (कृपया, आविष्टम्, अश्रुपूर्णा, कुलेक्षणम्)
> विषिदन्तमिदं, वाक्यमुवाच मधुसूदन: ॥२.१॥
> (विषीदन्तम्, इदम् वाक्यम्, उवाच, मधुसूदन:)

गद्य अणकार : अन्वय आनी अर्थ

तथा = अशे तरेन; कृपया आविष्टम् = काकळुटीन भरिल्ल्या; अश्रुपूर्णाकुलेक्षणम् = दोळ्यांत दुकां दाटून दिसना जाल्ल्या आकूळ; विषीदनाम् = खेद करतल्या; तम् = ताका (अर्जुनाक); मधुसूदन = कृष्णान (मधुसूदनान = मधु नांवाच्या दैत्याक मारतल्या) इदं वाक्यं उवाच = हें उतर म्हळें.

**पद्य अणकार :**

विनोबा (गीताई, मराठी) :

> असा तो करुणा ग्रस्त घाबरा अश्रु गाळित।
> करीत असतां खेद त्यास हें कृष्ण बोलिला ॥१॥

बाकीबाब (गीताय) :

> अशा त्या काकुयटेस्त दुखां दोळ्यांत भल्लल्या

बाबड्या खेदिश्ट पार्थाक म्हळें हें मधुसुदनान ॥१॥

नाडकर्णी (गितात्मा, चित्रापूर कोंकणी) :
दयेन दुःखवेगाने अश्रुंनी जड दृष्टिने ।
चोय्तल्या अर्जुना त्या हें कृष्णाने वाक्य सांगलें ॥१॥

प्रभु (श्री गीतार्थसुधा, कारवारी कोंकणी) :
ग्रस्त जावनु कृपेन असो अश्रु गळैत आसिल्ल्याक त्या
विषाद युक्ताक हें वाक्य उलैलो मधुसूदनु ॥१॥

आमोणकार (श्रीमद्भगवद्गीता) :
काकुळटीन भरिल्ल्या त्या दाटिल्ल्या दोळ्यां दुकां ।
शोकाकुळ अशा पार्था कृष्णान हें अशें म्हळें ॥

१.८ थिओडोर सॅव्हरी आपल्या 'The Art of Translation' ह्या ग्रंथांत सांगता, दर एका अणकारप्यान आपणाक तीन प्रस्न विचारचे खंय: (१) लेखक कितें उलयता?, (२) तो कितें सांगता?, (३) तो कसो उलयता? म्हळ्यार, लेखकाचे शब्द खंयचे, ताचो आशय कितें आनी ताची शैली कशी.

हातुंतल्यान खूब प्रस्न उप्रासतात.

'अणकारप्यान मुळांतल्या शब्दांकडेन इमान राखप काय कल्पनांकडेन; अणकार मूळ कृती भाशेन आसचो काय अणकारासारको; तातूंत मूळ कृतिचे शैलीचो प्रत्यय येवचो काय अणकारप्याचे शैलीचो; अणकारप्यान मूळ कृतींतल्या काळांतलें साहित्यीक खाशेलेंपण राखचें काय अणकारप्याच्या काळांतलें; अणकारांत भर घालप काय मुळांतले कांय वांटे (उतरां) गाळप गरजेचें काय गरजेचें न्हय; पद्याचो अणकार गद्यांत करचो काय पद्यांतूच करचो, ह्या सगळ्या प्रस्नांक निर्णय दिवपी जापो नात अशें दिसून येता. (पळेयात, तौलनिक साहित्याभ्यास, ब. वसंत बापट, मौज, मुंबई ४, पान ५३).

१.८.२ **गीता** हो एक धर्म-ग्रंथ. सगल्या धर्मग्रंथांक – वेद, बायबल, कुराण आदींक **ईश्वरी शब्द** मानपाची परंपरा आशिल्ल्यान तांचो अणकार यथार्थ जावंचो, तांचो भावार्थ दिवचो न्हय असो एक सूर आसा. विनोबान 'धम्मपदा'चे सव्वीस वर्ग (अध्याय) अठरा अध्यायांत वांटून घालून धम्मपदाची नव-संहिता केली तेन्ना बौद्धजगांत व्हडलें मोड आयलें. धर्मग्रंथाच्या अणकारांत आपलें आंगचें वारें उपेगाचें ना. धर्मग्रंथांचो स्वैर अणकार उपेगाचो नासता. युरोपांत रेफोर्मेशनाच्या काळांत बायबलाचीं भाशांतरां जावंक लागलीं आनी तेन्नापसून युरोपांत जथापथ (precise) भाशांतराची कला वाडीक लागली. भारतांतूय मीमांसक आनी आचार्यांनी वैदीक वाङ्मय जिस्ताक जिस्त अणकारलां आनी आपल्या कल्पना विलासाक तांतूंत मातूय वाव दिवंक ना. तशेंच, गीतेचो 'भावार्थ' सांगला म्हूण ज्ञानदेवाक **यथार्थदीपिका** बरोवपी वामनपंडितान दोश दिलो. पुणून अशें आसुनूय आज लोक 'यथार्थदीपिके'क विसरल्यात आनी ज्ञानेश्वराची ज्ञानेश्वरीच माथ्यार घेवन नाचतात.

ह्या अणकारांत म्हाका कांय पथ्यां पाळचीं पडल्यांत. अणकार यथार्थ आसपाचेर भर दिला. परिभाशीक उतरांचो उपेग केला. देखीक परा, अपरा, ब्रह्म, कर्म, पुरूश, प्रकृती, ईश्वर, क्षेत्र, क्षेत्रज्ञ हीं उतरां वापरल्यांत आनी त्या उतरांची गरज थंय फोडणिशी दिल्या. शब्दांचे संख्येचे नदरेन; अर्जुनाचीं आनी कृष्णाचीं जीं नांवां मूळ श्लोकांत आसात तीं गरज थंय गाळ्ळ्यांत. तीं गाळ्ळ्यांत म्हूण अर्थाची हानी जावंक ना. अणकारप्यान एक लक्षांत दवरूं जाय: "The letter kills, the spirit gives life." 'अक्ष (शब्द) जीव घेता, मानस जीव फुंकता." हें तत्त्व सदींच नदरेमुखा दवरल्यार अणकाराक जिवसाण येता.

छंदांचे नदरेनूय कांय प्रयोग केल्यात. कोंकणींतलो मूळ 'उ'का आज साश्टींतले कोंकणींत आनी चित्रापूर कोंकणींत आजून दिसता देखून, सांगिला (सांगला), येतुलें (येतलें), मानिलां (मानलां), जोडिता (जोडटा), उजळायिता (उजळायता), दोऱ्यांतले (दोऱ्यांतले), हांवु (हांव) अशीं उतरां वापरल्यांत.

'वेती' आनी 'वती' हीं दोनूय उतरां वापरल्यांत. देखीक, नव संकरान् वेती (१.४२) आनी ब्रह्मपदाक ते वती (१३.१४). (पळेयात परिशिश्ट २).

'अनुष्टुभ्' छंद हो अक्षर छंद. दर एका चरणांत कुल्लीं आठ अक्षरां आसूंक जाय. कोंकणींत आतां हलन्त (न्) घालपाची चाल ना, तशेंच, जोडगीर अक्षरूय बरोवपाची चाल ना (रावता राव्ता). 'जैं' आतां 'जंय' अशें आमी बरयतात. ह्या अणकारांत दर चरण आठ अक्षरांतूच हाडपांत चडशें येस आयलां. विनोबान आपले **गीताईंत** तें पूर्ण साधलां.

गीता ही गावचेली देखून उतरांचो उपेग करतना, हाचें भान राखचें पडटा. हाका लागून कांय तत्सम उतरां वापरचीं पडल्यांत, देखीक (अविनाशी, अव्यक्त, ब्रह्मचर्य, एकाक्षरी आदी).

१.९ हांव साहित्यीक न्हय. पूण साहित्याचो मोगी. बरो अणकार एक नवी निर्मणी अशें हांव मानतां. अणकारप्याक मूळ साहित्य कृतींतल्या दर उतराकडेन झोंबचें पडटा. 'आशयाइतलीच अभिव्यक्तीय म्हत्वाची थारता. अणकारपी खिणाखिणाक अर्थ, शब्दन्यास, वाक्यरचना, चरण-रचना, छंद, अनुप्रास, नाद अर्थाची सया, अशा वेगळ्या वेगळ्या आघाड्यांचेर तो झुजता निखट्या निवळ आत्मानंदाखातीर.' अणकारपी अडटा तेन्ना ताका निर्मणेच्यो वेणो येतात आनी फावो तें उतर मेळटकूच ताका सुटकेचो खोस जाता. आपणाक भाविल्ले, आवडिल्ले कृतिचो आपले भाशेंत अणकार करपाचो आनंद आपणें भोगचो आनी वाचप्याकूय ताचो भागी करून घेवंचो म्हूण तो आंवडेता. देखून आपली कृती सहृदयी रसिकाक वाचून दाखयता.

१.१० **पद्य अणकाराची प्रक्रिया** कशी आसता? म्हज्या मत्तान, पुरायेन समजप, तांतूंत स्पंजांभाशेन बुडप, काव्य-रोस पुराय आंगांत घेतकूच आनी तांतूंत एकरोंस जातकूच तो स्पंज पिळटना आपले भाशेंतल्या पद्यांत ताचो नवो रुपकार **आपशींच घडून** येता. रवीन्द्रबाब हे प्रक्रियेक 'अळंकाराचेर कंगरकीस घालप' अशें म्हणटा. म्हाका ती जुगलबंदीय कशी दिसता. गीतेकडेन म्हजी ही जुगलबंदी फाटलीं पांच वर्सां चल्ल्या – आजुनूय ती सोंपूंक ना. कोणाच्या काव्याचो जेन्ना अणकार जाता, तेन्ना कोणाची हार जाता आनी कोण जिखता हें म्हत्वाचें नासता. गीता मंत्रवाणी आनी शक्तीवाणी. हे कोंकणी गीतेक ती मंत्रशक्ती आयल्यार म्हाका खोशी.

१.११ म्हज्या कोंकणी अणकाराक शणै गोंयबाबांली **गीता** एक संदर्भ म्हूण हांवें आधार घेतला. तशेंच हो अणकार पुर्वसुरींच्या अणकारांचें रीण मानून घेतला. गीतेचे मराठी, इंग्लीश, हिंदी आनी कन्नड अणकार हांवें पडटाळून पळेल्यात. तांकां लागुनूच हो अणकार जावंक पावला.

शणै गोंयबाबाल्या **श्री भगवंतालें गीत** ह्या ग्रंथाचे संपादपी भौ. काशिनाथ श्रीधर नायक हांणी ग्रंथाचे प्रस्तावनेंत एक आस्त परगटायल्या. ''शणै गोंयबाबा असलो कोणूय समान-धर्मी आनी समान-सभावी म्हाआत्मो फुडें सरून हें चड गरजेचें आनी भोवच म्हत्वाचें पुस्तक निवाळावन फावो जाल्ले फोडणिशी सयत वाचप्यांक दिलो अशी आस्त धरतां.''

ही तांक म्हाका ना. शणै गोंयबाब एक युगपुरूश. तोच आमच्या कांठ्यार बसून हो वावर करून घेता. आमी हाचे फुडल्या वावराखातीर वाट तयार करतात. एक दीस ते वाटेवयल्यान तांचो समान-धर्मी आनी समान-सभावी चलून मुखार येतलो आनी हो वावर पुराय करतलो अशी आस्त आमी परगटावया.

आधारावळ:

**श्री भगवंतालें गीत,** सं. का. श्री. नायक, उ. गोमन्तक छापखान्याचो धनी, मुंबै-४ (१९५९).
**गीताय,** अ. बाकी बोरकार, पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबै ७ (१९६०).
**श्री 'गिताम्मा',** अ. पांडुरंग नारायण नाडकर्णी, उ. व्ही. राजगोपाल भट, १७ लॅबर्नम रोड, मुंबयि ७ (१९७१).
**श्री गीतार्थसुधा,** अ. शेणगिरी केशव प्रभू, प्र. मधुकर पै, मुंबई ३१ (१९५७).
**गीताई,** अ. विनोबा, प्र. परंधाम प्रकाशन, पवनार, वर्धा (१९६०).
**तौलनीक साहित्याभास,** ले. वसंत बापट, मौज प्रकाशन गृह, मुंबई ४ (१९८१).
**गीतादर्पण,** स्वामी रामसुखदास, गीता प्रेस, गोरखपुर.

# गीतेंतले छंद

१.१ गीतेंत दोन छंद वापरल्यात:

(i) आठ अक्षरांचो **अनुष्टुभ छंद** (कुल्लीं श्लोक ६४५); णव अक्षरांचो **बृहती छंद** (फकत १ चरण अ. ११– श्लो.१-चरण १)
एक अक्षर वाडल्यार 'भुरिक्' संज्ञा दिवन छंद 'अनुष्टुप' जाता.

(ii) इकरा अक्षरांचो **त्रिष्टुभ छंद** – (कुल्लीं श्लोक ५५). बारा अक्षरांचो **जगती छंद** (कुल्लीं पांच चरण)
१) अ. २. – श्लोक क्र. ६ – चरण क्र. १ आनी २
३) अ. २. – श्लोक क्र. १९ – चरण क्र. २
४) अ. ८. – श्लोक क्र. १० – चरण क्र. ४
५) अ.१५. – श्लोक क्र. ३ – चरण क्र. १
एक अक्षर उणें जाल्यार 'निचृत्' संज्ञा दिवन 'त्रिष्टुभ्' छंद जाता.

१.२ 'अनुष्टुप' छंदांत दर चरणांत कुल्लीं अक्षरां आठ. चार चरणांत ४ x ८ = ३२ अक्षरां.

१.३ 'त्रिष्टुभ्' छंदांत दर चरणांत कुल्लीं अक्षरां इकरा. चार चरण मेळून ४ x ११ = ४४ अक्षरां.

१.४ 'अनुष्टुभ' छंदाची व्याख्या अशी दिल्या. (पळेयात, आपटेचो संस्कृत-इंग्लीश कोश, पान ६४९) – अनुष्टुभ छंदाक 'श्लोक'य म्हणटात.

श्लोके षष्ठं गुरू ज्ञेय सर्वत्र लघु पंचमम्।
द्विचतु: पादयों ऱ्हस्वं सप्तमं दीर्घ अन्ययो॥

जाण श्लोकीं गुरू सट्वें पांच्वें सगल्यांत तें लघु।
दुस्ऱ्या चवथ्या चरणीं ऱ्हस्व हेरांत सातवें गुरू॥

हाची मांडावळ अशी करूं येता: (लघु short syllable; गुरू — long syllable).

| अक्षर क्रम — | १ | २ | ३ | ४ | ५ | ६ | ७ | ८ |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| चरण क्रमांक १ | | | | | ल(◡) | गु(—) | गु(—) | |
| २ | | | | | ल(◡) | गु(—) | ल(◡) | |
| ३ | | | | | ल(◡) | गु(—) | गु(—) | |
| ४ | | | | | ल(◡) | गु(—) | ल(◡) | |

१.५ **त्रिष्टुभ** छंदांत दर चरणांत इकरा अक्षरां आसतात आनी तांचे गण (लघु-गुरू) छंदाप्रमाण बदलतात.

(संस्कृत छंद शास्त्रांत आठ गण (syllabic feet) येवजिल्यात:

१) य: ◡ — — (Bacchius)
२) र: — ◡ — (Amphimacur)
३) त: — ◡ ◡ (Anti-bacchius)
४) भ: — ◡ ◡ (Datctylus)
५) ज: ◡ — ◡ (Amphibrachys)
६) स: ◡ ◡ — (Anapaestus)
७) म: — — — (Mollosus)
८) न: ◡ ◡ ◡ (Tribrachys)

१.६ **त्रिष्टुभ्** छंदांत विसां वयर छंद आसात आनी ताचे गण अशे:

| | १ | २ | ३ | ४ | ५ | ६ | ७ | ८ | ९ | १० | ११ |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १. इंद्रवजा | — | — | ◡ | — | — | ◡ | ◡ | — | ◡ | — | — |
| २. उपेंद्रवजा | ◡ | — | ◡ | — | — | ◡ | ◡ | — | ◡ | — | — |
| ३. शालिनी | — | — | — | — | — | ◡ | — | — | ◡ | — | — |
| ४. शहामृगी | — | — | ◡ | — | ◡ | ◡ | — | — | ◡ | — | — |
| ५. प्राकारबन्ध | — | — | ◡ | — | — | ◡ | — | — | ◡ | — | — |
| ६. वार्तोर्मी | — | — | — | — | ◡ | ◡ | — | — | ◡ | — | — |
| ७. गुणांगी | — | — | — | — | — | ◡ | ◡ | — | ◡ | — | — |

(८) राधा, (९) गंगा, (१०) रति, (११) गति, (१२) विशाखा, (१३) यशोदा, (१४) ललिता, (१५) संश्रगश्री, (१६) शारदा, (१
चित्रा, (१८) इष्ट, (१९) इष, (२०) वंशस्थ आदी.

१.७ ९, १० आनी ११ हीं अक्षरां सगल्याच त्रिष्टुभ छंदांत (◡ — — ल गु गु ) ह्या क्रमान येतात (Bachius).

१.८ चार चरण एक वा अदीक वेगळ्या वेगळ्या गणांत आसल्यार तो **उपजाति** छंद जाता. (देखीक, पयलो चरण इंद्रवज्रा, दुसरो शालि
तिसरो इहामृगी, चवथो गुणांगी). (पळेयात: गीतादर्पण, गोरखपूर प्रॅस, पान. २५२).

# श्रीमद्-भगवद्-गीतेंतले वेंचीक श्लोक

### यो अध्याय (अर्जुनविषाद योग)

तराष्ट्रान म्हळें

मूंय कुरुक्षेत्रार   एक जाले झुजूंक गा।
या नी पांडु पुत्रांनी   केलें थैं संजया कितें॥१॥

र्जुनान म्हळें

श आप्त हे कृष्णा   खुमखुमले झुजपाक जे ।२८॥

गां गांडीव हातांतलें   ही कातूय हुल्पता म्हजी।
ना उबोच रावूंक   घुंवताशें मन हें म्हजें ॥३०॥

भोग सुखां आमी   जांचे पासत इत्सुर्चीं।
प्राण धनार् सोडून्   रावल्यात ते रणीं उबे॥३३॥

चा घाव पर्तो हांव   शस्त्र सोडल्यार तें बरें।
हातांत घेतिल्ले   मार्तीत् कौरव भौ बरें ॥४६॥

### रो अध्याय (सांख्य योग)

भगवंतान म्हळें

नाशिल्ल्या करी खेद   सांगी वयल्यान जाणवाय्
-जिव्यांविशीं खेद   कर्नात शोक पंडित ॥११॥

तर्णी वशा म्हात्री   जिवात्म्याक कुडींत हे।
तशी नवी मेळटा   हें जाण्टल्याक मोह ना ॥१३॥

वन आंगवस्त्रां   झिर्झिरिल्लीं
रीं नवीं   जशी मनीस घेयी।
मो तसो कुडी   उडोवनच पोन्यो
तो दुसऱ्योच   कुडी नवेल्यो ॥२२॥

त्रां हाका चिरीनात   हाका उजोयि लाशिना।
यना उदक हाका   सुकयना वाव बी तसो ॥२३॥

मल्ल्या सुटना मर्ण   मेल्ल्याक जल्म सुटना।
ना ते गजालीचो   नाकाच खेद तूं करूं ॥२७॥

धेकार तुका कर्मांत्   फळांत ना कदापि तो।
का कर्म फळा आशा   अकर्मा ओड बी तशी॥४७॥

सा मनांतुल्यो सर्व   जेन्ना सामक्योच सोडुनू।
अंतरांत धादोस   तो म्हळा थीर बुद्दिचो ॥५५॥

खांत उब्गना जाल्लो   आशा सुखांत ना असो।
-क्रोध-प्रिती गेल्लो   थीर बुद्द मुनी म्हळा॥५६॥

ळाची ओड सोडून   कर्मां योगवृत्तीन कर।
येस अपेशीं जा।   समभावच योग गा ॥४८॥

डीन जल्मता इत्सा   इत्सेन् तिडक जल्मता ॥६२॥
ळटा बुद्द तिड्कीन   वता तिणेच सुद्द गा।
द गेल्ल्यान वता बुद्द   जाता घात तिणेच गा ॥६३॥

म्हणून इंद्रियां जाणें   विशयांतसून सामकीं।
आंवळून घेतलीं पार्था   ताची बुद्द थिरावली ॥६८॥

### तिसरो अध्याय (कर्म योग)

पुणून जो मनानूच   करी इंद्रिय निग्रह।
ओडीविणें करी कर्मां   योग्यतायेन तो व्हड ॥७॥

फळाची ओड सोडून   सदीं कर्तव्य तूं कर।
मनीस ओड नाशिल्लो   परम पद जोडिता॥१९॥

कर्मां सगलींच जातात   प्रकृतीच्या गुणानि गा।
पिसाविल्लो अहंकारान् हांवच कर्तो अशें म्हणी ॥२७॥

धर्म आपलो उणो आसूं   परधर्मांकूय बरो।
बरें मर्ण स्वधर्मांत   परधर्म भिरांतिचो ॥३५॥

इत्सा ही तिडकै   हीच जल्मल्या जी रजोगुणान।
वखवखी महापापीण्   हांगा वैरीण जाण तूं॥३७॥

### चवथो अध्याय (ज्ञानकर्म संन्यास योग)

धर्मा अवनती जाता   जेन्ना जेन्ना परंतपा।
मात्ता अधर्म तेन्नाच   दितां म्हाकाच जल्म हांव॥७॥

पार्था बऱ्यांक राखूंक   दुश्टांच्या कर्दनाक हांव।
धर्म स्थापूंक सारको हांव   युगान यूग जल्मतां ॥८॥

भंय क्रोध प्रिती गेल्लो   चित्तीं हांव आस्रय म्हजो ।
ज्ञान तपान ते चोख   मेळ्ळे म्हज्या रुपांत ते ॥१०॥

नमस्कारान सेवेन   प्रश्नान ज्ञान जाण तूं।
जाण्टले तत्त्व ते ज्ञानी   तें ज्ञान दितुले तुका॥३४॥

पेटयिल्लो उजो करता   जळवा गोबोर लासुनू।
ज्ञाना उजो करी भस्म   कर्म दोश सगळे तशे ॥३७॥

ज्ञाना समान ना कांयच   हांगा हेर पवित्र गा।
जो योगसिद्ध कालान   तें आपशीं जोडि अंतरीं ॥३८॥

### पांचवो अध्याय (संन्यास योग)

कर्मां ब्रह्माक ओंपून   करी तीं ओड सोड्डनू।
पातका लेप ना ताका   कमळा पाना जशें जळ ॥१०॥

जांचें अज्ञान आत्म्याचें   आत्मज्ञानान नश्टिलें।
सुर्याभाशेन तें ज्ञान   परब्रह्म उजळायिता ॥१६॥

तिडकी वान्शेक लागून   मर्णा मेरेन ताप गा।
सोंसुची तांक गा जाका   तोच योगी सुखी खरो॥२३॥

### सवो अध्याय (ध्यान योग)

जाका संन्यास म्हण्टात   जाण तो योग अर्जुना।
वासना सोडिल्लेवीण   योगी कोणूच जायिना॥२॥

उखलचो आपणें आपणा लावंची न्ही वाट आपुली।
आपलो आपूण गा भाव वैरी आपूण आपलो ॥५॥

जिखिलो आपणा आपणें तो आपलेंच करी बरें।
जिखिना आपणाक जो वैरिसो आपुलोच तो॥६॥

आपणा जिखून जो शांत थीर तो आत्म संयमी।
शीं हून सूख दुख्खांत मानपमानि बी तसो ॥७॥

दुख्खा स्पर्श वियोगाक म्हळां योग दशेक ते।
चित्ताचे उब्गणे वीण चलोवंचो नित्शयान तो ॥२३॥

म्हजेठांयीं पळे सर्व म्हाका सर्वत्र जो पळे।
ताका अंतरना हांवु म्हाकाय अंतर तो दिना ॥३०॥

आपलेपणान जीवांचीं सर्व सुखां दुखां पळे।
दृश्टीन समतेचे जो तो योगी मानिला व्हड ॥३२॥

ना दुबावूच कौंतेया हुळहुळें मन तें हटी।
वैराग्य आनि अभ्यासान् येना करूंक तें वश ॥३५॥

**सातवो अध्याय** (ज्ञान-विज्ञान योग)

एकलो कोण हजारांत वावुरता सिद्धिपासत।
सिद्धांत एकलो कोणूय म्हाका खरोच जाणता॥३॥

भूंय उदक उजो वारें आकाश बुद्ध नी मन
अहंकारूय अशे आठ प्रकृती-अंश ते म्हजे॥४॥

ही म्हजी प्रकृती खाल्ती वर्ती प्रकृती दुसरी।
तिणें जीव रुपानूच आधार ह्या जगा दिला ॥५॥

**अध्याय आठवो** (अक्षर ब्रह्म योग)
सर्वज्ञ अनादी विश्वा नियंतो
अणुकूय सुक्षीम सर्वांक पोसपी।
तर्काचे पेलो सुर्यसम तेज
काळखा पेल्यानच्या प्रभूक स्मरून ॥९॥

मरच्या खिणार जो योग बळान
समा थारावन् दों भोंवयांत स्वास ।
मनान थीर मोगान स्मरून
पावता तो दिव्य त्या ब्रह्माक होड ॥१०॥

**अध्याय णववो** (राजविद्या राजगुह्य योग)

म्हज्या अव्यक्त रुपान व्यापी हांव सगटू जगा।
म्हज्यांत रावती जीव पूण हांव ना जिवांत त्या ॥४॥

म्हज्यांतूय रावना जीव योग हो ईश्वरी पळे।
जल्मां घाली जिवां पोशी पूण ना हांव त्या मदीं ॥५॥

ओंपी भक्तीन जो म्हौंका पान फूल फळोदक ।
अंतरीं शुद्ध भक्तान ओंपिल्ली भेट खायि हांव ॥२६॥

जें जें खाशी दिशी दान ओंपशी तूं कर्म तूं करी।
तप तूं करशी तेंयु तूं म्हाका ओंप अर्जुना ॥२७॥
**धावो अध्याय** (विभूती योग)

सर्वांचें मूळ हांवूच म्हजे पासून सर्व ते ।
जाणून लोक ते ज्ञानी म्हाका मोगान पुजती ॥८॥

मन जीव म्हजेठांयीं गायती गुण ते म्हजे।
एकामेकांक बोधून तुश्ट जाती सुखावती ॥९॥

म्हज्या ध्यानांत जे गुल्ल म्हाका मोगान पूजती ।
बुद्दी योग दितां तांकां जो पावयत म्हजेसरीं ॥१०॥

**इकरावो अध्याय** (विश्वरूपदर्शन योग)

अर्जुन

देवांक सगल्यां तुजे कुडींत देवा
जिवूय पळे हांव नाना तरांचे ।
ब्रह्मो बशिल्लो कमलासनांत
तशे सर्व रुशी नि दिव्य सर्प ॥१५॥

तूं व्हड अक्षर अनंत ब्रह्म
गमता तूं म्हाका आधार जगाचो।
नित्य सनातन राखपी धर्म
शाश्वत आत्मो मानी तुका हांव ॥१८॥

तुका ना आदी नायु मध्य अंत
बाव्ळे भौ तुजे दोळे सुर्य चंद्र ।
तोंडां तुगेलीं उज्यावरी पेट्टीं
तेजान तुज्या तूं लाशी जगाक ॥१९॥

श्री भगवंत

लोकां ना करपी मातिल्लो हांव काळ
सल्लां मुखार सांवारूंक लोकां।
तूं नासल्यारय ना जातले हे सगलेच
एकमेकां आड उबे जे झुजूंक ॥३२॥

देखून तूं उठ जा जैतिवंत
शत्रूंक जिखून घे राज्य भोग।
आदींच हे सगले माल्ल्यात हांवें
जा गा तूं पार्था कारण निम्ताक ॥३३॥

अर्जुन

खातना भोंवतना न्हिदतनादि देवा
जनीं वा एकांती तुका हिणसायलो।
मस्करेन तुका अवमानिलो गा
पोटांत घाल तूं म्हजे गुन्यांव ॥४२॥

बापूय तूं चराचरा नि जगाचो
तूं गुरूंचो गुरू फावता पुजूंक।
तुजे समान अतुल बळिश्ट
ना कोण हेर अदीक त्रिलोकीं ॥४३॥

**बारावो अध्याय** (भक्ती योग)
श्री भगवंतान म्हळें

कर्मां म्हाकाच ओंपून म्हज्याच भजनीं सदीं ।
ध्यान ना हेर कित्यार चिंती म्हाकाच भक्तिनू ॥६॥

मर्णा संवसार दर्यांतले कळाव करिनास्तना ।
तांकां वेगींच उखली हांव चिंती म्हाकाच जे सदीं ॥२७॥

कर्नां दुस्वास कोणालो सगल्यां इश्ट दयाळु जो ।

पण् नुल्लें    क्षमी, सम सुखीं दुखीं ॥१३॥

त्य धादोस    संयमी नित्शया घट।
काओंपी मनै बुद्धी    मोगाचो भक्त तो म्हजो ॥१४॥

का विटना लोक    जो लोकां उब्गना कर्दी।
रस भिती द्वेस    जो नेणा प्रिय तो म्हजो ॥१५॥

द्वास ना जाका    करिना शोकलोभ वा।
शुभ जो सोडी    तो भक्त आव्डिचो म्हजो ॥१७॥

न अव्मानांत    इश्ट वैऱ्या पळे सम।
सुख-दुख्खांत    सम जो मुक्त सामको ॥१८॥

का स्तुती निंदा    कित्यांतूय तुश्ट थीर जो।
ओड मौनी जो    मोगाचो भक्त तो म्हजो ॥१९॥

**वअध्याय** (क्षेम क्षेत्रज्ञ योग)

काविणें चित्त    वैराग्यविशयांतुलें।
मर्ण-जरा पीडेंत्    दुख्ख दोश सदीं पळे॥८॥

पण नी ओड    बायल-पूत घरांविशीं।
वायट आयल्यार    चित्त राखी सदींसम ॥९॥

म्हजीच ना हेरां    रावता निर्मळ एकटो।
आवडी ताका    लोकां संगत नावडी ॥१०॥

सदींच अध्यात्मीं    तत्त्वज्ञानार्थ सोदप।
हणटात हांकांच    हेर अज्ञान हे विणें ॥११॥

न देखती कोण    आत्म्याक आपणामदीं।
य सांख्य योगान    कर्म मोगान हेर कांय ॥

न कांय नेण्टे    आयकून भजतात ते।
अकपांत गा गुल्ल    वती मर्ण हुपून ते ॥२५॥

ह्या सर्व विश्वाक    एकलो सुर्य उजळायिता।
डायी कुडी शेत    क्षेत्रज्ञ एकलो तसो ॥३२॥

**वो अध्याय** (तीन गुणांचे वांटे)

ही म्हजी योनी    दवरी हांव गर्भ तांतुतू।
ा जल्म तांत्ल्यान    सर्व ते जीव अर्जुना ॥३॥

ोनिंतुले जीव    घेतात जल्म जीतुले।
आवसू तांची    हांव बापू घालपी बियाण् ॥४॥

प्रकृति पासून    सत्त्व रज तमो गुण।
अविनाशी जें    घाल्ती कुडींत बांदुनू॥५॥

वाडून देहांत    जो वता कूड सोडुनू।
निर्मळ जल्मून    पावतां ज्ञानियांमदीं ॥१४॥

आंगाक लागून    गुणांनी चळनाच तो।
सर्व गुणांचे हे    जाणून थीर हालना ॥२३॥

ो सम जो मानी    माती पाशाण भांगर।
ंदा स्तुती थीरा    प्रिय अप्रिय बीं सम ॥२४॥

तो इश्ट वैऱ्यांक    सम मानापमान बी।
मीपणा सोडी    हुपिल्लो गुण तो म्हळा ॥२५॥

**पंदरावो अध्याय** (पुरुषोत्तम योग)

तळा खांदे मुळां वयर    ताका अश्वत्थ गा म्हळा।
जागेलीं वेद हीं पानां    हें जाणी वेद जाणपी ॥१॥

सकला वयर ते फुट्टात खांदे
विशयां आंकऱ्यो पोसती गुणांनी।
फुट्टात मुळां ह्या लोकांत ताची
आंकऱ्यो कर्माच्यो फुट्टात ताका ॥२॥

रूप ताचें अशें हांगा दिसना
ताका ना आधार ना आदि अंत।
घट्ट मुळां ह्या अश्वत्थ रुखाक
उडय कातरून असंगा शस्त्रान ॥३॥

दोन पुरुश विश्वांत    क्षर आनीक अक्षर।
क्षर हे जीव ते सर्व    तांतुलें थीर अक्षर ॥१६।

म्हण्टात परमात्मो तो    दुजो पुरुश उत्तम।
तिनूय लोकांक व्यापून    पोसपी जगाक उत्तम ॥१७॥

क्षरा नि अक्षराकूय    पेल्यान आनि उत्तम।
म्हण वेदांत त्रिलोकीं    म्हण्टी तो पुरुषोत्तम ॥१८॥

**सोळावो अध्याय**
(देवांल्या आनी दैत्यांच्या सबावाचें वांटप)

दैवी जोड दिता मुक्ती    घाली पासांत आसुरी।
नाका खेद करूं पार्था    दैवीच संपत्ती तुजी ॥५॥

कितें बरें कितें वायट    आसुरी नेणिनात ते।
ना शुचिताय् सदाचार    सत्य नेणत ते तशे ॥७॥

ना ताळ ना नेम ना देव    नायु आधार ते म्हणी।
कसलो संबंद ना हांगा    भोग निखटोच हेतु गा ॥९॥

माल्लो वैऱ्याक ह्या आज    फाल्यां मारीन आनिक।
प्रभु हांव हांवु गा भोगी    सिद्ध हांवू बळी सुखी ॥१४॥

गिरेस्त हांव कुलीनू हांव    कोणा येत म्हजी सर।
करीत यज्ञ नी दान    मौजूयु भुल्लले म्हणी ॥१५॥

बळ गर्व अहंकार    वान्सा तिडक पोस्तले।
स्व-हेरां कुडिंतल्या म्हाका    निंदित्ले द्वेश कर्तले ॥१८॥

नर्काचीं तीन हीं दारां    आत्म्याचो घात तीं करी।
वान्सा तिडक नी लोभ    म्हुण हीं सोड अर्जुना ॥२१॥

काळखाचीं तीन हीं दारां    जालो ताळून मुक्त जो।
हित आपलेंच कर्ता जो    थोर गतीक तो वता ॥२२॥

**सतरावो अध्याय**
(तीन तरांची स्रद्धा)

मन्शा स्रद्धे तरा तीन    ती समावान जल्मता।
सात्त्वीक राजसी आनी    तामसी आयक तीच तूं ॥२॥
सबावापरि गा स्रद्धा    सर्वांची जाण अर्जुना।
घडला मनीस स्रद्धेचो    स्रद्धेपरी मनीस तो ॥३॥

सोडून फळ वान्शेचें केल्लो विधीन यज्ञ जो।
कर्तव्यान थीर चित्तान    यज्ञ तो जाण सात्त्विक ॥११॥

फळा वान्शेन जो केल्लो    बड्वचार म्हणून तो ।
हे तरे यज्ञ गा पार्था    जाणुचो यज्ञ राजस ॥१२॥

मंत्रहीण विधीहीण    अन्नदाना विरेतु जो ।
भावार्थ दक्षिणेवीण    केल्लो तो यज्ञ तामसी ॥१३॥

**अठरावो अध्याय**
(जल्म-मर्णांतसून सोडवण)

सोडप सूख कर्मांचें    ज्ञानी संन्यास मानि तो ।
फळां सोडप कर्मांचीं    म्हण्टी बुदवंत त्याग तो ॥२॥

पूण हीं सर्व कर्मां गा    ओड नी फळ सोडुनू ।
करप योग्य हें मत्त    म्हजें नित्शित उत्तम ॥६॥

जावंचें ना देहवंताक    कर्म सोडप पुर्ण तें ।
सोडी जो फळ कर्मांचें    तोच त्यागी अशें म्हळां ॥११॥

सर्व जिवांमदीं पार्था    तत्त्व एकूच शाश्वत ।
अनेकांत पळे एक    जाण तें ज्ञान सात्त्विक ॥२०॥

विखावरीच जें सुर्वेक    अंती जें अमृतावरी ।
शुद्ध वळखीन आत्म्या जाय्    म्हळां तें सुख सात्त्विक ॥३७॥

दोश आसलो स्वकर्मांत    परधर्मांकुय़ू बरो ।
नीज कर्म सबावीक    लायना तें पास किल्मिस ॥४७॥

धरून तूं अहंकार    म्हणशी तूं 'झुजना' अशें ।
तुजो नित्शय हो व्यर्थ    नीज तुका झुजैतलें ॥५९॥

अशें गुढांत जें गूढ    सांगलें ज्ञान हें तुका ।
घेवन ध्यानांत तें पुर्ण    तुका मानत तें कर ॥६३॥

आयकलें मू तुवें सगलें    एकचित्तान अर्जुना ।
अज्ञान भूल सल्ली मू    सामकीच धनंजया ॥७१॥

जैं गा योगेश्वर श्रीकृष्ण    जैं धनुर्धर अर्जुन ।
म्हज्या मत्तान थैं जैत    भाग्य श्री नीत शाश्वत ॥७८॥

# पोजडीं उतरां

**शीला कोळंबकार**

'अश्लील' ह्या उतराक कोंकणी उतर आसा. तें म्हळ्यार 'पोजडें'. अश्लील उतरावेल्यान 'अळशीक' हें उतर कोंकणींत आयलां खंय. तशें पळेल्यार 'पोजडें' हें उतर दिसपाकूय पोजडें आनी आयकुपाकय बी. ताचे परस 'अश्लील' हें उतर मातशें सभ्य दिसता.

हांव बरयतना भीडमुर्वत नासतना बरयतां. ताका लागून हांव पोजडें बरयतां असो म्हजेर आरोप जाता. 'तुगेलो तो टेंपरामेंट आसूं येता' अशें एकल्यान म्हाका म्हळें. जाल्यार दुसऱ्यान म्हळें, 'हांव (तो बरोवपी) विनोदी बरयतां. पूण कमरे पोंदा केन्नाच वचना.' आतां बायलांचीं दुख्खां कमरेपोंदच्यान सुरू जातात ताका हांव कितें करूं? खेरीज, साहित्य म्हळ्यार समाजाचें पडबिंब. जें समाजांत घडटा वा जें कितें समाजांत आसा, तें हांव त्या समाजाच्या शब्दांतल्यान उक्तायतां. म्हाका ह्या पोजडेपणाचेर बरोवंक जाय आशिल्लें. पूण कशें बरोवचें, समजनासलें. त्याच वेळार 'म्हजें उतरांचें पिशें' (कोंकणी, दिवाळी अंक १९८१) हो बाकीबाब बोरकारांलो लेख वाचूंक मेळ्ळो. बाकीबाब बोरकारान आपली एक याद बरयल्या. ते म्हणटात –

''हांव मडगांवां कवी कान्यागेर गेल्लों. तांच्या घरांत काम चलतालें. म्हूण रातीकडेन न्हिदूंक तांच्या छापखान्याचेर गेले. योगायोगान थंय वामनबाब कुंडयकार पावले. मध्यान रातीं दोन बायलांच्यो घोंसांनी गाळी म्हज्या कानार आयल्यो. हांव सट्ट करून उठलों आनी गसदीचेर कोंपर लावन संध्येचीं नामां आयकुचीं तशीं तीं एकचित्तान आयकूंक लागलों. त्या बायलांच्या वादावादींवेल्यान एकेच्या धगडाक दुसरेन दोळो घालून फितायल्लो... ह्यो घोसाच्यो गाळी अशो आशिल्ल्यो की एकेचे आवयवटेन चार आनी बापायवटेन चार अशा आठ पूर्वजांचो एकदम उद्धार जातालो. श्वेतकेतु रुशीन लग्नसंस्थेची बुनयाद घालचे पयलीं कामशमनाचे जितले म्हूण नैसर्गिक आनी अनैसर्गिक प्रकार आमचे मदीं आशिल्ले जातीत त्या सगळ्यांची संथा थोड्याच वेळांत म्हाका आयकूंक मेळ्ळी. हांव हें गोस्तान आयकतां हें पळोवन कारो आनी वामनबाब सामके संकोचून गेले. जो उतरांचो अभ्यास करता ताचे लेखीं गाळ जावं वा ऋग्वेदांतलें उतर जावं, समसारकें...''

बाकीबाबालो लेख वाचलो आनी म्हाका बरें दिसलें. आनी पयलींच भीड ना भाडो, तातूंत दाराक नासलो आडो, अशी म्हजी गत जाली.

आयज हांव पोजडेपणाचेर बरयतां. पोजडेपणाचेर म्हणचे परस केन्नातरी कोणेंतरी सांगिल्ल्यो, आयकल्ल्यो ल्हान ल्हान काणयो, थोडीं उतरां, थोड्यो ओपारी म्हाका बरोवन दवरच्यो आसात. आतां ह्या पोजडेपणांतल्या पोजडेपणापरस तांतलें शाणपण, तांतल्यो वेदना, तांतली तिडक, तांतली सूचकताय, तांचें ध्वनिवलय, अर्थवलय हें सगळेंच म्हाका लक्तुबायेचें आनी अपुरबायेचेंशें दिसता. आनी तांतली अतिताय? तांतली अतिताय बरे विनोद निर्मून आमच्या धोंगांपोंगांचेर बेस बरी बडी मारता. आनी ज्या कोणाले सुपीक तकलेंतल्यान तें भायर सरलां ताचें कौतूक दिसता.

हांगा पयलींच एक गजाल सांगतां. हांव हांगा जें कितें बरयतलें तें हांगचेंच. हांवें तें रचूंक ना. चारचौगांत ह्यो गजाली सांगूंक बऱ्यो दिसनात. पूण बरयल्यार तें बरप बरोवपी आनी वाचपी अशे दोगूच वाचतात. तेन्ना, म्हाका बरोवपाक कांय दिसना जाल्यार वाचतल्यान ताचो पात्सो धरचो न्हय.

कोणेंय समजा कितेंय करून सवरून तो नेंगार केलो जाल्यार ताका दुसरो म्हणटा, 'फट मारशीत जाल्यार तुका बिरमत फुट्टली मरे!' फुटप म्हळ्यार सारकें कितें जावप हें म्हाका खबर ना. पूण तशें काय म्हाका कंवचेची बाटली बी पडून फुटिल्ल्याचो आवाज आयिल दिसता. कोणय चड बडबडत जाल्यार ताचें तोंड 'फोंत कशी ... अशें म्हणटात. अशें म्हळें काय खळयेंतल्यान उदक व्हांविल्ले वरीं ... म्हज्या कानार आदळटा.

आमगेर एक खेपे कोण तरी आयिल्लो. आईन म्हाका सांगलें, ... उदक व्हरून दी म्हूण. हांवें सरळ 'ना' म्हळें.

'कित्याक गो?' आईन विचारलें.

'तेऽ दीस तो आमच्या घराचे पासयेवेल्यान वतालो. ताचे बराबर ... कोण तरी आसलो. तेन्ना ताणें म्हळ्ळें, ह्या घरांत चलयोच चलयो ... रे?'

त्या उतराक आईन म्हळें, 'मेलो, दोळे-फुटको दग्धी खंयचो!'

म्हाका अजाप जालें. आईक हें उतर खंयच्यान मेळ्ळें काय? '... म्हळ्यार तापिल्लो...

अशेंच एक खेपे एके चलयेक म्हाका मेळूंक जाय आसलें. ... चलयेले मैत्रिणीक विचारलें, अमकें अमकें खंय गो? हालीं दिसनाशें ...

'तें कशें दिसतलें तुका? हालीं तें मोगांत पडलां. आनी कों... चोंचयतकीच कोंबी फुलता पळे, तशें फुल्लां...'

म्हाका ते चलयेची लक्तुबाय दिसली. कितले सुचकतायेन ताणें ... मैत्रिणिलें गुपीत म्हजे मेरेन पावयल्लें!

'एकलो मनीस आपले बायलेच्या उतरा भायर ना. बायल म्हणी... ताचे खातीर पूर्वदिशा. ताचेविशीं उलयतना म्हजे मांयन म्हळें, 'तो ... बायलबोधो! बायलेन जितलें हाग म्हळां तितलेंच हागपी.'

हें आयकून हांसो जरी आयलो तरी तो मनीस बायलेक कितलो ... बायल ताचेर कितले बरे रितीन शेक गाजयता हें कितले सुंदर ... सांगलां न्हय?

हें सांगता आसतना म्हाका कोंकणींतली आनीक एक म्हण येव... खंयचोय मनीस कितलोय बरो उरलो तरी ताचे भितर कसलोय तरी दो... आसताच. हें सांगतना आमी म्हणटात, तसो मनीस सगळो बरो, ... इतलें म्हणून ओगी रावतां. कित्याक, मुखावेलें चारचौगांत उलोवंक ... बरें दिसना. ह्या 'पूण'च्या मुखावेलीं उतरां 'हागतना मुतता तितलो वा... हाचेवेल्यान बिरबलाली एक काणी याद जाली.

एक खेपे एका राजान आपल्या दरबारांतली एक सुंदर आनी ... नर्तकी अकबर बादशहाच्या दरबारांत धाडली. तिणें सुंदर नाच ... बादशहा खूश जालो. खोशयेच्या भरांत, फाटलें फुडलें चिंतिनासतना बादशहान तिका म्हळें, 'तुका जाय तें माग'. ती हेच संदिची वाट पळेत... तिणें म्हळें, आपणाक बादशहाच्या सिंहासनाचेर हागूंक जाय. बा... बेजारलो. ताणें रोखडोच बिरबलाक आफोवन हाडलो आनी सगळें ... तें सांगलें. बिरबलान बादशहाक धीर दिलो. दुसऱ्या दिसा नर्तकी आ... बिरबलान म्हळें, 'तुका सिंहासनाचेर हागचें आसा न्हय, हाग. पूण ... फावना.' ती बाबडी जितल्या नेटान आयिल्ली तितल्या नेटान ... गेली!

मराठींत एक म्हण आसा. 'दुरून डोंगर साजरे'. कोंकणींतय ...

ाग वापरतात. तिचो फुडलो भाग कितें, नकळ आशिल्लें. तो पयर वशां उलयतां कळ्ळो. फुडलो भाग 'म्हऱ्यांत वतकीच हागरे.' पयलीं क्रों उठून 'दोंगरार' वताले न्हय? म्हणिचो फुडलो भाग चारचौगांत नोफ बरो दिसना म्हूण पयलो तितलो भाग दवरला आसूं येता.

तरी अशीच एक काणी मांय आनी सून ह्या नात्याची. एके बायलेगेर न आशिल्ली. ते बायलेली लग्न करून दिल्ली चली कुळारा आयिल्ली. ळा दोन दिसां खातीर येतकीच मुद्दम साड्यो बी कोण हाडटा? ंद भावज साड्यो बदलून न्हेसतात. तशीच ती चली भावजेची साडी श्ली.

यन पळेलें, कोण तरी मान्न्यांत गेल्या. तिका दिसलें, सून मान्न्यांत म्हूण. तिणें म्हळें, 'आगे म्हजे बाये, कोणालो गे हो धबधबो?'

व गे ती आई!' मान्न्यांतल्यान धुवेलो आवाज आयलो.

गेली गो बाय ती चुळचुळी?' आवयन म्हळें.

काणी मांय सुनेल्या नात्यांतले ताण कितले सुंदर रितीन सांगता ा

नीक एक अशीच काणी. पूण मात्शी वेगळी.

आसलो पाखलो. तागेर आसलें एक किरयाद. ताका दीस गेले. र पाखल्यान ताचें काजार एका खांपऱ्याकडेन करून दिलें. काजरा स म्हयन्यांनी तें बाळंत जालें. खांपरी चिंतूक पडलो. ताणें म्हळें, हिंगा यो गो. सोगल्या बायलांक णोव म्हयन्यांनी भुरगें जाता. तुका म्हयन्यांनी कोशें जालें?'

री हुशार! ताणें म्हळें, 'म्हुगे सोव आनी तुगे तीन म्होयने. कितू जाले?' खांपऱ्यान बोटां मेजलीं. णव जाल्ले. परथून तो चिंतूक पडलो. ताणें परथून विचारलें,

'मारी, हांव काओं तूं काएँ... भुरगो कोसो धोवो?'

शिटूक मारीन म्हळें, 'कोंबो काओ, कोंबी काओ... तांतीं कोशें धोएँ?'

आनी मारीन आपणालो जीव वाटायलो.

आनीक एक बायल आशिल्ली. ती कितेंय जालें ज़ाल्यार रोखडीच रडटाली. तिका आमचे आईन म्हळें, 'पुरो बाये! तूं उतरा पावलाक अशी रडटा कित्याक? अश्यांनी पादिल्ले आनी मुतिल्ले कणकणी धुवंक बसत जाल्यार न्हंयो बांयो सुकतल्यो.'

गजाल कितली खरी! हांतले कल्पकतेक दाद दिवचीच पडटली.

म्हजो भाव भायर पडलो तेन्ना एकलो आमगेर आईक मेळूंक आयिल्लो. ताणें आईक म्हळें, 'तुमी अशें केल्लें जाल्यार तशें जावचें नाशिल्लें.' आनीक अशेंच कितेंतरी. आईक तिडक आयली. तो मनीस गेले उपरांत आईन म्हाका म्हळें, 'हो म्हाका शिकयता. हाच्यो आxxx खंयच्या जाग्यार आसात हें अजून हाका खबर ना! म्हाका शापातां सांगता!'

तिडक आयली नाजाल्यार जाळ पडले, जीव फडफडलो म्हणटकच पोजडीं उतरां ओंठार येतात काय? मनीस खूश जालो काय ताच्या ओंठार पदां येतात, नाजाल्यार तो शिळोणी घालता, कितेंय गुणगुणटा. तशें तिडक आयली, संताप आयलो काय गाळी ओंठार येतात काय? तिडक आयली आनी हात उबारूंक मेळ्ळोना जाल्यार पोजड्यो गाळी घालून आमी दुसऱ्यांच्या काळजाक घाय करतात काय?

✳

# लक्ष्मी

देविदास कदम



'कों ऽ कोंऽऽ कोंऽऽऽऽ' कोंब्याली साद कानारच हादळ्ळी.

सुरेश बुडबुडीत जागो जालो.

'आयज लक्ष्मी पुजन!' ताणें मनांत म्हळें. 'लक्ष्मी काल रातीं सपनांत येयली म्हूण सगळ्यांक सांगूंक जाय!'

कोंब्यान आनीक दोन फावटीं साद घायली, आनी अचकीत गोमटी चिड्डिल्ल्यावरी ओगी जालो.

सुरेश उठून हांथरुणार बसलो. हात वयर करून 'आँऽऽ' करून ताणें आळस काडली. आंगावेलें कांबरूण कुशीक काडून उठलो.

जनेल उकतें करून भायर चयलो, फांत्यापार झिळमिळटालें. मनशाक मनीस दिसपाइतलो उजवाड जाल्लो.

'सुमार उजवाडल्या मूं! आनी हो आतां साद घालता! मरूं मुरे हो! मरून पडिल्लो काय किलें हो? हरशीं राम पारार साद घालतालो... म्हाकाय बेगीन जाग येयली ना पाडपडिल्ली! घडये सुमार रात मेरेन चिंतत रावि आसुंये! काय कालचे दिवाळेच्या फोवान सुस्ती माल्ली...? आसूं! उठून म्हाका खंय रोजेक वचचें आसा?'

सुरेश पंचविशेक वर्सां पिरायेचो तरनाटो. काळोसावळोच, पुणून आंग घट्टमुट्ट, लांब-रुंद. कोणागेरूय दिसवड्याक वचून चार पयशे जो ना म्हळ्यार, ताचेलागीं दोन शेतांकुणग्यो आशिल्ल्यो. दोनूय मे कुडवांच्यो. आज्या पणजाले वारिस्ते हक्कान चलत येयिल्ल्यो. मातशें किडयल्यार कितेंय पेजेवाटो हाताक लागतालो.

तसो तो एस्.एस्.सी. मेरेन शिकिल्लो. पुणून, एस्.एस्.सी. शिकि सोंपेपणान रोजी कोणी दवरल्या? तरीय बाबडो हातपांय धाडायता पांय धर, ताका सलाम मार! अशें सुरू आशिल्लें, पुणून निमाणेक कांडून हाताक फोडच! हात पुसयत ओगी रावपाचें!

कताचो असो तोच आदार आशिल्लो. आवय बापायलो तो एकलोच तो स्. एस्. सी.क आसतनाच बापूय भायर पडिल्लो. आवय बाबडी यल. तिवूय ओगी बसनाशिल्ली. हागेर तागेर हाडां दणयताली, कन करून कितलें म्हूण करतली! हे दिसाडेन तर ती पदे पदे जाली, आनी म्हयनो म्हयनो हांथुरणें धरून पडटाली. घराचो पुराय रुरेरूच आशिल्लो.

रेक्क दोन बापोले आशिल्ले. आपआपले वांटे घेवन वेगळे रावताले. र सुरेशाचें कांयच पडूंक नासलें. उरफाटें, पोटांत कोडुपण घेवन ना सुरेशाली आवय आनी तांगेल्या बायलांली दोन-दोन दिवसांनी गेल्लीं आसतालींच!

ल्यार सुरेशाक एक माम आशिल्लो. आवयलो भाव. ताचो आदार ळटलो म्हळ्यार, तोच एक नंबरचो फटींग. हाका नागय, ताका रून जियेवपी. गांवांत कोण कोण म्हूण ताचेर विस्वास दवरिनासलो. उडयिल्लो कावळो. हे दिसाडेन तर तो बंदखणींतच आशिल्लो. दीस आपल्याच गांवांतल्या एका म्हाबळू नांवाच्या मनशाली रून गोठ्यांत बांदिल्ली गायच सोडोवन व्हेली. रातोरात किन्नरात व्हरून विकली. गजाल उक्ताडार येतकीर हाचेर कंप्लेन जाली. पोलिसान धरून व्हेलो. कोणकोण म्हूण हाका जामिनेर हाडूंक मुखार सरलो खणींत वचचें पडलें. हाचे आदींय ताच्यो अश्योच जायत्यो कागाळ्यो स्टेशनार पाविल्ल्यो. एक दोन फावटीं लोकान ताका जामीन दिवन य... पुणून पदे पदे हेंच! हाचे तकलेंतली कीड मरच ना! कोर्टांत चालू आसतनाय हो ओगी रावना, निमाणें कोर्टांत सजा जाली. नाम सुरेशाक कसलो आदार करतलो?

रेन हांथरुणें कवळून थंयच कुशीक दवरलें.

येवजिलें, 'आपलें सपन वचून वाड्यार सांगचें!' मागीर ताका दिसलें, नाका. आदीं हात-पांय तोंड तरी धुंया.

रांदचे कुडींत येयलो. रात्रींत जाळ केल्लो आसलो आनी रात्रीर डकी दवरिल्ली आसली. म्हण्टकीर आई उठल्या.

ई', ताणें उलो मारलो. जाप ना. पर्थून दोन फावटीं उले मारले, यच्यानच आईली जाप ना. 'खंय भायर गेल्या आसतली ही!' जून, तो मागील दारान भायर येयलो.

र शितळ वारें व्हांवतालें. ताका मातशें आंग कुडकुडिल्ले वरी जालें. शीं वाडत वयतलें...' ताणें मनांत म्हळें.

कोणशांतल्यान माडा आळ्यांत येयलो. माडांर सवणीं चिंवचिंव करूंक नीं. आळ्यांत उबो रावन तो सळो सळो करून मुतलो.

र टबांतल्यान उदकाचो तांबयो भरून घेवन भायर सरलो. फाटलो बलांटून शेतांत येयलो. शेतांत निकतेच न्हुविल्ल्या धानांचीं मुळां तोपतालीं, देखून पावलां जोखून घालचीं पडटालीं. तशेंच शेतां त घुत्यावेल्या सुरीझाडां दिकेन तो चलूंक लागलो.

घुत्यार येयलो. एक व्हडसो सुरीरूख पळोवन, ताचे आडसाराक सलो...

येवजितालो, 'आपलें सपन आदीं वचून कोणाक सांगुंया? हय! मदादाकूच सांगुंया. तो आनी तागेली घरकान्न दोगांय भावार्थी मनशां! वाड्यार तांचे इतलीं भावार्थी मनशां दुसरीं मेळचीं नात! तांकां तें! ही खबर तांकां आदीं सांगची न्हय तर आनी कोणाक सांगची...?'

दाद हो सुरेशाल्या वाड्यावेलो. सुरेशाल्या बापायचे पिरायेचो. भोव मनीस. देवाचेर अखंड विस्वास. न्हायन धुयन देवाक पुजा केले टांत अन्नाचो कण घेवपी न्ही. जिणेंतली हरेक गजाल देवाले इत्सेनच शें मानपी. ताणें केन्नाच देवाक दुशणां दितना कोणें आयकलें ना. न वर्सांनी पंढरपुरा आशिल्लोच. गोकर्ण, गाणगापुर, नरसोबावाडी, शिरडी, लागिसाराचीं सगळीं तीर्थक्षेत्रां ताणें पळयिल्लीं. इतलें आसुनय बाबड्याक भुरगींबाळां नासलीं.

रामदाद मनापासून भोव बरो. कोणेंय कितेंच सांगल्यार ना म्हणपी न्ही. आपल्याच्यान जाता जाल्यार लोकांलें काम करपीच. सुरेशाक नेण्टेपणासावन वाड्यावेल्या हेर मनशांपरस रामदादच चड लागिंचो दिसतालो. सुरेशालो बापूय बीन आपल्या पोटांतलें सगळें ताकाच वचून सांगतालो. ताची मदत घेतालो.

सुरेशाचो बापूय भायर पडिल्लो तेन्ना तर रामदादान तांका थोडी न्ही मदत केल्ली. ताचे बगर आनी कोणूच पयशाचो हात घेवन मुखार येवंक नासलो. रामदादान म्हणिल्लें, 'तुमकां जाय ती मदत दिवूंक हांव फाटल्यान आसां! भिवची गरज ना!'

सुरेशालो बापूय रुखावेल्यान पडिल्लो तेन्नाय दोतोरां हाड-पावय, उपचार पाणी सगळें सगळें मुखार सरून ताणेंच केल्लें.

सुरेशालो बापूय पाडेली आसलो. गांवभरचे पुराय माड तोच पाडटालो. खांपो पाडेली. रस्त्यार जितले सहजतायेन चलतात, तितले सहजतायेन माडार चडटालो. सकाळ म्हूण ना, तिनसांज म्हूण ना! पावस म्हण ना, गीम म्हण ना! तिनूय तीन काळ माडार चडूंक तयार!

सुरेशाक नेण्टो आसतना खूब फावटीं झाडमोड्याचो वारो सुट्टालो आनी झाडांमाडांची तेंगशी धोलूंक लागली काय दिसप. 'खंयूय आपलो बापूय माडार चडिल्लो आसत, सट्ट करून खंयूय हात चुकून सखयल पडत...'

आनी जालेंय तशेंच! माडावेल्यान पडूंक ना, पुणून रुखावेल्यान पडलो. आंबे काडूंक म्हूण वयर चडिल्लो. खंय हात-पांय निसल्लो आसुंये... धोऽ करून सखयल पडलो. मागीर सगल्यांनी बोवाळ केली. दोतोराक हाडटा मेरेन उदक-पाणी, कांदो-लसूण करून साबुद्दीर हाडलो. दोतोरान आस्पत्रेक व्हरा म्हण्टकीर कारवारा आस्पत्रेंत व्हेलो. पुणून कांयच उपेग जालो ना. मेलो.

आपली विधी सोंपोवन सुरेश घुत्यावेल्यान सखयल देंवलो. थंयच शेतांकुशीक मरूंक तेंकिल्ली अशी एक आंब्याताळी आशिल्ली. तिचीं दोन पानां तुटोवन घेयलीं, आनी दांत पाजत घरा येयलो.

हात-पांय, तोंड धुयन तो आनीक च्या पिवंक रावलो ना. रामदादालें घर तांच्या घरामुखारूच. तो सोमतो रामदादाल्या घराकडेन येयलो.

'रामदाद, रामदाद!' ताणें दारांतल्यानूच उलो मारलो.

रामदाद रांदचे कुडींत आसलो. सुरेशालो आवाज आयकनाफुडें ताणें ताका 'भितर यो रे!' म्हळें.

सुरेश रांदचे कुडींत येयलो.

रामदाद म्हऱ्यांत च्यायेचो कप आनी पोळ्याचें चोवूल घेवन च्या पिवंक बशिल्लो. 'ताका बसूंक मणय दी गो!' ताणें बायलेक सांगलें.

'नाका. हांवूच घेतां!' अशें म्हणत, थंयच वण्टीक तेंकून दवरिल्ली मणय घेवन तो थंय बसलो.

'पुता, इली च्या पी दादावांगडा!' रामदादाले घरकान्नीन सांगलें.

'नाका! हांव घरासुदीक च्या पिनासतना येयलां! म्हाका आयज च्याचें व्हडलें पडूंक ना!'

'कित्याक?'

'म्हाका काल रातीकडेन एक सपन पडलें...'

'कसलें सपन...?' रामदादान पोळ्याचो कुडको च्यायेंत बुडयत विचारलें.

'काल सपनांत देवी येयली. देवी लक्ष्मी!'

'आँ...?'

रामदादान च्यायेंत बुडयिल्लो पोळ्याचो कुडको तोंडांत घालिनासतना तसोच धरलो. 'कितें म्हणटा रे?'

'हय रामदाद! कमळार बशिल्ली. तांबडी साडी न्हेशिल्ली. चार हातांची.

एक हात आशिर्वाद दिवंक वयर उखलिल्लो, दुसऱ्या हातांतल्यान भांगरा पवनां सखयल पडटालीं. फाटल्या दोनूय हातांत दोन कमळां! केदी व्हडली जाणा? मळबायेदी! फाटल्यान तर पुराय मळबच चक्र कशें घुंवतालें!...'

रामदादान येवजिलें, 'काल नरक चतुर्दशी! आनी आयज लक्ष्मी पुजन...!' खिणभर तो सुरेशाल्या तोंडाकडेन पळयतच उरलो. हातांतलो पोळ्याकुडको ताणें तसोच पर्थून च्यायेंत घायलो. ताच्या दोळ्यांमुखार लक्ष्मी उबी जाल्ली.

'मागीर...?'

'म्हणूंक लागली, बाळका, हांव तुगेले चवळे कुणगेंत मदेकांत पुरिल्ले अवस्थेंत आसां. म्हाका वयर काड. म्हजें देवूळ बांद. म्हजी सदांच नेमान पुजा कर. तुजें भलें जातलें. जो कोणीय म्हाका मानतलो, भजतलो, ताका हांव सदांच पावतलीं. ताका कांयच उणें पडूंक दिवची ना. ताचें कल्याण जातलें...'

रामदादाले घरकान्नीक आयकून सामकें अजाप.

'खरें सांगता रे तूं?' तिणें म्हळें.

'हांव फट कित्याक सांगूं काकी? जें चयलें, तेंच सांगतां!'

रामदादाले बायलेन हात जोडले. 'देवी आवो, पाव गे तूं!'

'तिचो आवाज तरी कसलो? मळबवाणीच! पुराय मळबच उलयतल्यावरी! तरीय वाणी सामकी म्होवाळ! मुरली वाजतल्या भाशेन. आयकूंक बरेंऽ दिसतालें!'

रामदादा बायलेन म्हळें, 'पुता, नशीबवान तूं! देवी सपनांत येवप म्हळ्यार भाग्य! खंयच्या जल्मांत बरेंच पुण्य केलां तुवें!'

'म्हाका देवाचेर खूब भावार्थ काकी! पुणून, हें सपन खरें आसतलें गे?'

'सपनांचेर म्हजो तरी पुराय विस्वास आसा पुता! आयजवेर म्हाका पडिल्लीं जायतीं सपनां खरीं थारल्यांत. खंय ना खंय तशें घडल्यांच!'

'म्हगेलो तरी पुता देवाचेर म्हणटा तो पुराय विश्वास! देवी तशी सपनांत येवन फकाणां कित्याक करतली?'

'म्हाकांय तशेंच दिसता!'

'यो, वाड्यावेल्यांक सांगुंया...' अशें म्हणत रामदाद उठलो.

'च्या तरी पियात ती...!' रामदादा बायलेन म्हळें, पुणून रामदाद खंय आयकता! 'आसूं...!' अशें म्हणत तो सुरेशाक घेवन गेलोच भायर.

रामदादान आपल्या आंगणांत उबो रावन, आपल्या बापोलभावाक – कुश्टाक उलो मारलो. कुश्टाचें घर बगलेचें.

'कुश्टा, ये कुश्टाऽऽ' म्हण्टकीर 'कितें बाबा?' म्हणत कुश्ट भायर येयलो.

'अरे, हो कितें म्हणटा पळय...'

तेवटेन लक्षुमण माडांआळ्यांत तोंड धुयतालो. ताणें कान लांब केले. हेवटेन कुशिच्या घरांतलें अमृत्यें आंगणांत सान्न मारतालें. ताणेंय कान दिले.

'कितें खंय?'

'हाका लक्ष्मी सपनांत येयली खंय! आपूण तुमगेले चवळे कुणगेंत पुरिल्ली आसां. आपणाक भायर काडात म्हण्टा खंय...!'

'आँ...!' कुश्ट अजापलो. 'कितें म्हणटा रे?'

'हय रे! हो सांगूंक म्हूण मुजरत येयला, दिसना?'

मागीर घे! एके जिबेवेल्यान्न दुसरे जिबेर करतां करतां ही गजाल पुराय वाडोभर जाली. आख्खो वाडो रामदादाल्या आंगणांत! जाण्टे, नेण्टे सगळे! चंद्रू आनी सुनील हे दोगय कॉलेजीक वचपी भुरगे, तेवूय धांवत येयले.

चंद्रू आनी सुनीलाक मात ही गजाल अजिबात मानवली ना. ते दोगय एकामेकांक पळोवन हांसूंक लागले.

'कितें पिशेपणां हीं...!'

'सपनां बिपनां खरीं आसतात रे? ते सगळे मनाचे खेळ!'

'देव बीव खंय आसात रे? मनशाले कल्पनेंतले सगळे ते!'

हाचेर अमृत्यान सट्ट करून म्हळें, 'तुमी कितेंय म्हणात! पुणून हें खरेंय आसूं येता! म्हगेल्या मावळ्या बायलेल्या कुळारा एक अशीच गजाल घ... गणपतीन खंय सदांच सपनांत येवन सांगप, आपूण अमूक कडेन ... अवस्थेंत आसां, म्हाका वयर काडात! आनी एक दीस खणून पळ... खरोच आसा! गांवच्या लोकांनी मागीर थंय देवूळ बांदलां. कितलो... देव जाणां? खंयच्यान खंयच्यान लोक मेळूंक येतात! उल्याक ... पावता!'

रामदादाकूय चंद्रूलें आनी सुनिलालें उलोवप मानवलें ना! ताणें म्हळें, 'हीं शिकिल्लीं भुरगीं स्वताक भोव शाणीं समजतात. चा... शिकतकीर हांकां कितें सगळेंच कळटा?'

रामदादान म्हळें, 'हें पळया, हाताच्या काकणाक हारसो कित्याक? थंय खणुनच पळया!'

'हय!'

'हय, हय! खणून पळोवंक कितें जालां?'

'लक्षुमणा, कुश्टा, खोरें घेयात.. चल या थंय!' रामदादान म्हळें.

कुश्टान आनी लक्षुमणान वचून खोरीं हाडलीं.

मागीर वाड्यावेलीं सगळीं सगळीं व्हडे उमळशिकेन सुरेशाले चवळे ... येयलीं.

चवळे कुणगेंत चार दिसांफाटीं शेत न्हुविल्लें, आनी धानाचीं मुळां... तोंपिल्ल्या वरी उबीं आसलीं.

'हांगा मदेकाती आपूण आसां म्हटलां!' सुरेशान सुवात दाखोवन...

'खणा रे थंय!'

चंद्रून सुनीलाक ल्हवूच म्हळें, 'पिशे रे बाबा आमचे लोक! केन्ना सुद... देव जाणा!'

लक्षुमण आनी कुश्ट खणूंक लागले...

बरोच हातरे येदो कुडको धरून ते खणटाले. सुमार माती तांणी... काडून उडयली. सगळे दोळ्यांत जीव हाडून आतां मेळटली, घडये मे... करून पळयताले.

'सावशीद खोरें मारा रे!' जाण्टेल्या म्हाळून म्हळें. 'फाटीं एक ... खंय अशेंच एका शेतकामत्याक शेतांत खणटना देवाची म्हुर्ती मेळि... खणटना ताचें खोरें खंय म्हुर्तेक लागलें आनी इलो कुडको गेलो. थ... खंय दुदाची धार सुरू जाली. बंदच जायना! मागीर चूक मागून घे... बंद जाली.'

सुनीलान म्हळें, 'चूक आनी कित्याक मागून घेतली ताणें? आसूं आ... गांवाक दूद तरी फुकट मेळटा आशिल्लें...'

'देड शाण्या, ओगी राव रे!' जाण्ट्या म्हाळून सुनीलाक तापयलें.

सुमार चार फूट खोलाय खणून जातकीर, भुसभुशी जमीण ती... इलें उदक येवंक लागलें. पुणून म्हुर्ती खंयच दिश्टी पडना.

'उदक येवंक लागलें मुरे...!'

'देवी घडये उदकांत आसतली...!' चंद्रून फकाणानशें म्हळें आनी ... हांसलो. मागीर कांय भुरगींय हांसलीं.

इतल्यांत खर्रर् करून कुश्टाल्या खोऱ्याक कितें लागलें.

'कितें तरी लागलें खोऱ्याक... पळया...' म्हूण ताणें खोरें थंयच द... थंयची माती हातानच कुशीक केली... आनी पळयल्यार कितें, खऱ्... एक ल्हानशीच स-सात इंचाची पंचधातुची लक्ष्मीची म्हुर्ती थंय आसा...

'ही पळय देवी...!' कुश्टा थंयच तकली जमणीक तेंकोवन देवीक... पडलो. मागीर आशिकुशिची सगळी माती बगलेन करून म्हुर्ती मेकळी ...

देवी म्हुर्ती पळोवन सगळ्या जाण्ट्यानेण्ट्यांनी हात जोडले. हात ज... नात फकत सुनीलान आनी चंद्रून!

चंद्रू आनी सुनील ओगी रावले. तोंड धरिल्ल्यावरी. तांकां कितें उ... म्हणच कळ्ळें ना. तेवूय दोगूय अजापले. आनी मनांतल्यान व्हदळ फ...

...तीर थोडे कांचवेलेय.

...सुरेशान सांगिल्ल्या भाशेनूच आशिल्ली. कमळार बशिल्ली. उजवो ...शिर्वादा खातीर वयर केल्लो. दाव्या हातांतल्यान पवनां गळटालीं. ... दोनूय हातांत दोन कमळां आसलीं. आनी फाटले प्रभावळेर दोन ... सोंडी वयर केल्लीं तोंडां आसलीं.

...गा, देवीमुखार कापसां वाती लाय! तुजोच मान तो! आयज ...नाचो दीस!' रामदादान सांगलें. आनी सुरेश घराकडेन धांवलो.

...हय वचून उजवाती हाडून लायतां...' रामदादाले घरकान्नीन म्हळें, ...रा येवंक सुटली. तिचे फाटल्यान हेर बायलोय 'हय, हांवूय हाडून ...' म्हूण येयल्यो.

...शान निरंजानांत कापसाच्यो वाती तेलांत भिजोवन हाडल्यो आनी ...डून देवीमुखार पेटोवन दवरल्यो.

...यावेल्या हेर बायलांनी आपआपल्यो उजवाती हाडून पेटोवन लायल्यो.

...आं कितें करुंथा रामदाद?' सुरेशान विचारलें.

...जज सांजेची देवीची व्हडा तडाख्यान पुजा करुंया! पुजा तूं कर! ...ब करतां!'

...नी वयर? देवी अशीच दवरुंया म्हणटा?'

...तें करुंया रे?'

...जट्या म्हाळून म्हळें, 'तूर्त एक मल्लाचो माटोव घाला. मागीर येवजुंया ...तें करचें तें!'

...ळे धांवत धांवत वचून आप-आपल्या घराकडल्यान हाताक मेळटा ...ल्लां, कोंड्या बडयो, मेडयो बीन घेवन येयले.

...वटेन नेमो काडून मेडयो पुरल्यो. ताचेर कोंड्या बडयो उडोवन, ...दाळ्ळीं आनी तात्पुरतो एक माटव घायलो.

...सांज मेरेन हे खबरेन आख्खो गांव भरलो.

...लोक देवीची म्हूर्त पळोवंक.

...तले चड करून धंदेवाले आनी पसरकार चुकनासतना येवन गेले. ... येतना केळीं, उजवात, कापूर, फुलां घेवन येताले. रास जाल्ली. ... गेल्ले लोक थंयच मातयेंत पयशे उडयतात म्हूण सुरेशान थंय ...ात दवरिल्ली. ती सुदीक पयशांनी भरून गेल्ली.

...सांजचे पुजेक तर, आपलें धंद्यावेलें लक्ष्मीपुजन आटापून, सगळे ... पुसोवन हजर आशिल्ले.

... सोंपतकीर, सुरेशान थंय जमिल्ल्या सगळ्यांक म्हळें, 'हें चयात, ...रीब मनीस. देवीली पुजा करपा पलतडेन हेर खंयच्योच गजाली देवी ... करप म्हाका शक्य ना. आतां देवीलें एक देवूळ बांदप भोव गरजेचें! ...ंच! व्हड न्ही! पुणून, तेंवूय म्हाका शक्य ना. म्हगेली आशिल्लीय ...तांकुणगी विकल्यार सुदीक देवूळ बांदचे इतले पयशे म्हाका मेळचे ...देखून गांवच्या लोकांनी मनार घेवन म्हाका मदत केल्यार हांव एक ...ंच देवूळ बांदून घेतां आशिल्लों.

...रकें ताचें! देवीक एक देवूळ जाय!' रामदादान म्हळें, आनी थंय ... जाल्ल्या सगळ्यांनी 'हय' म्हणून तकली हालयली.

...र थंय सगळ्यांनी एक बसका घेयली.

...केंत देवूळ बांदचें थारलें.

...ल्याच्यान जाता तशी मदत जणएकल्यान करची, कोणाचेरूच इतलेंच ...जाय, तितलेंच दिवंक जाय हें बंधन ना! शक्तीप्रमाणें केल्ली भक्ती! ...चो एक रत्नाकर नांवाचो गिरेस्त मनीस लोकांक घरां बांदून दिवचीं ...टां करतालो. देवूळ बांदून घेवची जापसालदारकी ताणें आंगार घेयली. ... तो आपूण एकलोच आपल्या खर्चान देवूळ बांदून दितां म्हणटालो. ...हेर धंदेवाल्या लोकांनी ताका आडायलो. देवळांत आपलोय वांटो ... जाय, असो तांणी आग्रो धरलो.

एक दीस शुभ म्हूर्तार सुरेशाल्या हातान फातर लायलो.

मागीर लोकान फुरसद पळयली ना. आपले तांकी प्रमाण मदत हाडून दिवंक सुरवात केली. रत्नाकर सावकारानूय मागीर उसरपत घेयली ना. घे फातर, चिरे, खडी, रेंव, शिमीट, लोखण, देवळाक लागतात त्यो वस्ती हाडून उडोवंक सुरवात केली.

घे घे म्हणटा मेरेन चार म्हयन्यांत देवूळ उबें.

सोबीत देवूळ!

ल्हानशेंच! पुरायच साठेक स्क्वेअर मिटराचें!

चारूय वण्ट्यांक चार व्हडल्यो सरवळ्यो. भायलो दरवाजो नक्षिकाम केल्लो. कवडांय नक्षिकाम केल्लीं.

भितर गर्भगुडी. गर्भगुडयेक दार, पुणून तें सरवळ्यांचें. बंद आसल्यार सुदीक भायल्यान देवीचें दर्शन करपी. गर्भगुडये मुखार एक काणूक उबी.

गर्भगुडयेचे कुशिचे भायले वण्टीक मागीरदार. तेंवूय तशेंच सोबीत नक्षिकाम केल्लें.

देवळाचेर वयर घुमट आनी घुमटाचेर पंचधातुचो कळस.

देवळाचो कळस चडोवचे दिसा आनी खंयच्यान खंयच्यान लोक येयिल्ले...! देवीली नामना खूब खूब पयस मेरेन पाविल्ली. वाऱ्याभाशेन!

दर सुक्रारा देवळांत भजन सुरू केल्लें.

देवळांत देवीक मेळूंक येयिल्ल्या लोकांली संख्या दिसां कणकणीं वाडतच वयताली. काणूक डबी म्हयन्या म्हयन्यान उकती करची पडटाली.

लोक देवीक आंगवण उलयताले, आनी देवी पावली म्हूण ती फेडूंक येताले. चड करून धंदेकार आसताले. आपल्या धंद्याक बरकत येवं म्हूण तांची आंगवण आसताली. आनी बरकत येतकीर ते देवाक मोलादीक वस्ती भेट दिताले.

सुरेश सामको तळमळेन देवीलो पुजारी जावन आसलो. लोक देवी इतले ताकाय मानताले. ताका पुण्यवान मनीस म्हूण लेखताले.

आख्खो गांव, आनी गांवचे पंचक्रोशींतले सगळे गांव देवील्या दर्शनाक येवन गेल्ले, पुणून सुरेशालो माम बंदखणींतल्यान सुटून येवन सुमार दीस जाल्ले तरी येवूंक नासलो.

सुरेशान येवजिल्लें, 'माम घडये म्हजेर रागार जाला आसुंये! आपूण बंदखींत पडलों तरी, भाच्यान अजिबात वास्तपुस्त केली ना म्हूण! नातर, आपूण हें काळें तोंड लोकांक कशें दाखोवं म्हूण घडये तोंड लिपोवन जियेता आसुंये...!'

आनी एक दीस माम येयलो. सकाळींच. नवें पेण्ट, नवो शर्ट घालून. आतांच सर्व्हिसेंतल्यान रिटायर जावन येयिल्ल्या भाशेन!

येयलो तो सोमतो देवळांत गेलो. देवीलें दर्शन घेयलें. पांय पडलो. भाच्याकडच्यान तीर्थ घेयलें. प्रदक्षिणा घायली. भाच्याक म्हळें, 'भाग्यवान पुता तूं! देवी सपनांत येवन सांगप, आनी मागीर तुज्या शेतांत प्रकट जावप म्हळ्यार, गेल्ल्या जल्मांची खूब पुण्याय आसा तुगेली! नाजाल्यार आमी? कर्मिश्ठ, पापिश्ठ!' ताणें देवीक बरेंऽऽ करून पारखून पळयत विचारलें, 'हेच सुवातेर मेळ्ळी न्ही पुता ही?'

'हय मामा!'

'बरें जावं पुता तुजें!' अशें म्हणत माम खिणभर देवळांत पातळावन दवरिल्ले शेंदरेर बसलो. आनी मागीर उठून 'हांव येतां पुता!' म्हणत उठलो.

'मामा, घरा वचून आईक मेळून येयलो तूं?'

'ना. आतां वयतां. आईक मेळटां आनी मागीर तसोच वयतां!'

'दनपारचें जेवन वच.'

'चया...' अशें म्हणत तो देवळांतल्यान भायर येयलो. येयलो तो सोमतो भयणिगेर येयलो.

भावाक 'बायेऽऽ' म्हूण भितर सरिल्लो पळोवन सुरेशाले आवयक हड्ड्यांत

घळघळ जालें. कितेंय जाल्यार भाव न्ही! चोर जावं, फटींग जावं!

'यो बाबा!' म्हणत भयणीन भावाक खुर्ची सोडोवन दिली आनी 'बस' म्हळें. मागीर 'च्यायेक दवरूं रे!' म्हूण विचारलें.

ताणें 'हां'वूय म्हणूंक नासलें आनी 'ना'वूय म्हणूंक नासलें. इतल्यांत दारांत सुरेश पाविल्लो. सुरेशानच दारांतल्यान म्हळें, 'अगे, विचारता कितें? दवर मुगे!'

'अरे तूं येयलो! आनीक देवळांत कोण?'

'गर्भगुडी धांपून येयलां हांव! माम येयला न्ही गे!'

'बस पुता!' मामान आपल्या मुखावेलें स्टूल भाच्यामुखार सरखिलें.

सुरेश स्टुलार बसलो.

सुरेशाली आवय च्यायेक दवरूंक भितर गेली.

मामान ल्हवूच भाच्याक म्हळें, 'मानलो पुता तुका हांवें! मामा परसय भाचो वस्ताद!'

सुरेशाक समजलें ना. ताणें मामाल्या तोंडाक चयलें.

'तुका सपनांत येवन, शेतांत मेळिल्ली ती लक्ष्मीची म्हूर्त हांवेंच एक फावट तुगेले आवयलागीं दवरूंक दिल्ली. कित्याक दिल्ली, म्हाका ती खंय मेळिल्ली हें तुका नाका. पुणून, ती हांवें दिल्ली म्हूर्त इतलेंच तूं जाणां जा!'

सुरेशाक हड्ड्यांत कच्च जालें. 'अरे बाबा!' ताणें मनांत म्हळें.

'म्हाका ती म्हूर्त दिता मुरे?' मामान विचारलें.

सुरेश आतां तर सामकोच शेणिल्लो. ताका कितें उलोवचें म्हणून कळना जालें. ताणें गुटूक् करून आयंडो गुठलो. ताचो चेन्हो पुराय उतरिल्लो.

मामाक भाच्याली स्थिती होलमली आसुंये. मागीर मामानच म्हळें, 'आसूं! भाच्याक आनीक कितें तरासांत उडयतलो! न्ही?... आसूं! पुणून म्हाका सांग, तुवें हीं नाटकां रचलीं कशीं?'

सुरेशाक मामान अशें उलयतकीर सूऽ जालें. तो खिणभर ओगी रावलो. ताका 'सांगूं?' 'नाका!', 'सांगूं?' 'नाका!' जालें. निमाणेकडेन ताणें येवजिलें, हरशींय मामान आपल्याक गाचांत धल्लाच, सांगून उडयलें म्हूण कितें जालें?

सुरेशान ल्हवूच म्हळें, 'मामा, तूंच चय, म्हगेली परिस्थिती! ना रोजी, ना चाकरी! धड बरें शिक्षणय पदरांत ना! एस्.एस्.सी. जाल्ल्याक विचारता कोण? कितले फावटीं हात-पांय धाडायले हांवें! खंय खंय नाक घांसलें! ना बरेंऽ शेत, ना भाट! कितले दीस लोकांले मेरेर हाडां दण्णयतलों?' इतलो उलोवन तो ओगी रावलो.

'हं, सांग फुडें...'

'एक दीस चवळे कुणगेंत मुगळिचो फोण खणटालों. बेठेंच दिसलें, खणटां खणटां म्हाका एक पवनाचें तपलें मेळचें! नातर, एक देव तरी मेळचो! मेळिल्ल्या देवाक मेळूंक लोक थोडे येवचे नात. मुखार ताट दवरल्यार पुरो! पयशान ताट भरतलें! देवूळ बांदल्यार आनी थोडें उत्पन्न?... आनी मागीर सट्ट करून तकलेंत एक माण्णी येयली. घरांतले लक्ष्मीचे म्हुर्तेची याद जाली. ती अशीच व्हवरेंत कुरकुटांत पडून आशिल्ली. हांवें मागीर खूब येवजिलें. बरें नाटक रचयलें. मागीर शेताचे मदेकाती एक अगड फोण मारलो आनी थंय ही म्हूर्त पुरून दवरली. उपरांत ताचेवेल्यानच शेतांत कसप जालें, न्हुंवप जालें. म्हूर्त भितर तशीच उरली. शेतां न्हुवन जातकीर दिवाळी येता न्ही!'

माम हांसलो. मुमुरखोच!

'हूं! मागीर...?'

'मागीर कितें?' सुरेशान हांसत म्हळें, 'लक्ष्मीपुजना दिसा फांत्यापारा उठून सगळ्यांक सांगलें, थारायिल्ले प्रमाणें! फुडली गजाल तु आसतलोच! संवसारभर जालां तें!'

'आई ओगी रावली रे?'

'हूं!'

मामान तकली हालयली.

'मामा, तूंच चय, आतां आमगेली परिस्थिती कितली सुदारल हे लक्ष्मीच्या निमतान आमच्या घरांत खऱ्यांनीच लक्ष्मी येयल्या. फकत म्हगेलें. देवळाचें पुराय उत्पन्न म्हगेलें. कोण कोण एकटो उत्पन्न एका उतरान म्हाका विचारना! उरफाटें, कितेंय दिवनच वयतात. तांचें ही पुराय देवीली म्हजेर कृपा!'

मामान येवजिलें, 'आपलें चेडूं माला लग्नाचें जालां. आपूण काळें तोंड घेवन ताका खंय म्हूण खपोवंक वयतलों? भाच्याकूच बरो गवसला...'

मामान ल्हवूच म्हळें, 'आमगेल्या माला वांगडा लग्न जाता मुरे? व्हरना जाल्यार आनीक कोण व्हरतलो? आनी तुकाय भिरांत ना, माम फुडारांत ही म्हुर्तेची गजाल चुकून लेगीत कोणाकूय सांगत भाच्याक माम तरासांत उडयत; पुणून, जांवयाक कोण उडयतलो...

सुरेश मामाल्या तोंडाक खिणभर पळयत उरलो. मागीर ताणें मनांत 'माम कमी ना. म्हा वस्ताद!'

# नीत-अनीत

**मूळ हिन्दी : सीतेश आलोक**

**कोंकणींत हाडपी : उदय देशप्रभू**

ती... तीच जाग आयिल्ली; तेन्नाच पुरन आयला म्हणपाचें कळ्ळें. हांवें ...ी आंगार गाऊन चडयलो आनी ड्रॉईंग रुमांत पावलों. म्हाका पळेनाफुडें ...हात हांसत उठून म्हाका वेंग मारली.

...को आसा तस्सो आसा...' ताणें गोड हांसत म्हळें. आनी बसतां ...ं इवूच म्हणपाक लागलो, 'आज म्हाका कशें दिसता जाणा?'

...ं दिसता पंडीत?' हांवें म्हजी आतुरताय उकती केली.

...सुमाक कृष्णाच्या म्हालांत पावतकच दिशिल्लें तशें दिसता म्हाका.' ...ांसत चारूय वटेन नदर भोंवडायत पुरनान म्हळें.

... हीं उतरां म्हाका अनपेक्षीत आसलीं. देखून म्हाका सट् करून ...सुचली ना. हाची म्हाका कल्पनाच नासली अशेंय न्हय. आमचे ... आर्थिक परिस्थितींत फरक आसलोच. जमीन-मळबा इतलो फरक... ...हाचो अदमास आसतलो अशेंय हांव धरून चलतालों. तरी, ताचीं ...ूब अर्थपूर्ण आसलीं.

...ें उलयता रे तूं, पुरन!' हें घर तुजेंच मरे.' हांव इतलोंच उलोवंक ...

...ं बाबा, म्हुण्णूच तर हांव हांगा बसलां...' सोफाक फाट तेंकयत ...ापुलकायेन उलयलो. 'पूण म्हजी परिस्थिती सुदामाचे परिस्थिती ...दळदिरी जाल्या.'

...ी म्हणून?' मातशे-शे उत्सुकतायेन आनी इल्ल्याश्या दुबावान हांवें ...

...े, सुदामाचे पोटलेंत दोन मुठी धान्य तरी आसलें', पुरनान त्याच ...उतरां फुडें व्हेलीं. ताचो फकांडां करपाचो मूड आसलो. 'सुदामाची ...खूब समजिकायेची आसली. आपणाक जें शक्य आशिल्लें तें तिणें ...देलें.'

...र म्हज्यान कांयच उलोवंक जालें ना.

...ांत कितेंच दाणो-गोटो नाशिल्लो अशेंय न्हय. पूण... तशी समजिकायूच ...ल्यार. असोच धाडलो म्हाका... आनी हांवूय म्हूण पळे कसो, तिणें ...म्हळें आनी हांव आयलों.

...च च्या आयली. आनी, व्हडा संकश्टांतल्यान कूस मारूंक मेळ्ळी ...म्हाका सूड जालें. पुर्णिमाच्या हातांतल्यान च्या घेतां घेतां पुरनान 'बरें जावं तुजें. हाचीच चड गरज आसली.'

...ा पी आनी बरो तरतरीत जा. मागीर आमी खूब गजाली करूंया.' ...री उलोवंक जाय म्हूण हांव उलयलों. तेन्नाच पुर्णिमान ताचे मुखार ...टी दवरल्यो आनी ताणें म्हळें, 'हें कांय नाका... फकत च्या पितां... ...सगळें न्हाले उपरान्त.'

...रे खा रे तूं...' हांवें मेकळेपणान आनी मोठ्यान म्हळें. 'ह्यो पोरण्यो ...रिती कितें घेवन बसला?'

...ल्यार!' पुरनान नदर म्हजे वटेन घुंवडायली. 'आरे, पोरण्यो गजाली ...लोक करचे नात जाल्यार आनीक कोण करतले?'

...पोरणो खंय जाला रे पंडीत?' हांवें परतून व्हडल्यान म्हळें, 'फकत ...ळीस जाल्यांत मरे तुका.'

...ठेचाळीस म्हळ्यार कितें उणीं जालीं?'

...ं जाल्यार, तूं म्हाकाय जाण्टो जाला म्हणटलो... हांवूय तुजे वांगड्योच न्हय रे?!' पुर्णिमा कडेन तिरशे नदरेन पळेत हांवें म्हळें.

'तुजीं अठ्ठेचाळीस आनी म्हजीं अठ्ठेचाळीस हांचे मदीं जाऽयतो फरक आसा.' पुरनान नेटान म्हळें.

'आरे, अठ्ठेचाळीस अठ्ठेचाळिसां मदीं कसलो फरक...?' हांवें तितल्याच नेटान ताका विचारलें. पूर ताचे दोळे म्हाका वेगळेंच कितें सांगूंक सोदताले. तेन्ना म्हाका होलमूंक लागलें, आंकड्यांचें समिकरण लेगीत विचित्र आसूं येता...! म्हजेर प्रसन्न आशिल्लीं अठ्ठेचाळीस वर्सां दुसऱ्याचेर नाराजूय आसूं येतात.

आमचें दोगांयचें भुरगेपण वांगडाच पासार जाल्लें. सामकें एका बराबर, एकाच घरांत. पूण आमचे दोगांय मजगतीं सतत एक अदृश्य वणत आसली जी आमकां पयस दवरताली. पुरना कडेन बरे बरे कपडे कित्याक नात वा, ताची आवय ताका आनी ताच्या भाव-भयणांक बरें बरें जेवण करून कित्याक घालिना हे विशीं भुरगेपणांत हांवें केन्ना कोणाक विचारलां आसत, म्हाका याद ना. पूण कशें कोणाक खबर, जें जशें आसलें तशें आसलें...

खरें सांगचें जाल्यार, ताचे म्हजे संबंदच अशे आसले की जायते फावटीं म्हाका ताची नसाय जावची. म्हाका दिसचें, ताचे भशेन हांव कातीन गोरो पिट्ट कित्याक ना? गणितांत हांव ताचे भशेन हुशार कित्याक ना? ताचे भशेन म्हाका बरीं चित्रां काडूंक कित्याक येनात?

... अजुनय हांव समजूंक पावंक ना – ल्हान पिरायेरूच पुरना भितर इतली समजिकाय कशी येवंक पाविल्ली? हांवें ताका केन्ना दुख्खी खंती जाल्लो वा पिंरगतना पळेल्लो म्हाका उगडास जायना. केन्ना केन्ना तर तो आपलें हाताकडेन पिंजिल्लें खोमीस दोडून कवळटालो आनी म्हणटालो, 'हालीं हीच फॅशन', जाल्यार केन्ना केन्ना पिंजिल्ली कॉलर भितल्ल्यान दोडून खोमीस घालतालो आनी म्हणटालो, राज कपूर आपणाल्या फुडल्या सिनेमांत अशेंच खोमीस घालपाचो आसा खंय. तो सिनेमा लागतकच सगळे असलेंच खोमीस घालून दिश्टी पडटले, पळेयात.' कांय खीण खूब विचित्र आसतात; तेन्ना कांय विचित्र घडणुको घडटात. असल्याच कांय खिणांनी आमकां दोगांकूय एकठांय हाडिल्ले.

आमचें जाणट्यां मुस्तिंचें बरें व्हडलें घर आशिल्लें. तांतुंतल्यो आठ-धा कुडी रिकाम्योच आसताल्यो. आमच्या चुलत्याचें म्हणणें आशिल्लें की घर रिकामें उरूंक जायना; तें भरिल्लें दिसूंक जाय, निवळ आसूंक जाय. पूण येदें व्हडलें घर सांबाळप तरी कशें आनी कोणें?! म्हुण्णूच घडये फुडल्यो दोन कुडी ताणें एका भटाक रावपाक दिल्ल्यो. ताणें येवजिलें जातलें की हाका लागून घराची राखणूय जाली आनी वांगडाच एका गरीब भटाक आलाशिरोय मेळ्ळो.

भटाचो चडसो वेळ देवळांतूच वतालो. खासा तोच व्हडलेंशें बरप शिकूंक नाशिल्ल्यान तागेल्या भुरग्यांकूच तो चड कांय शिक्षण दिवंक पावंक नाशिल्लो. इतलें आसुनूय पुरनाच्या सभावाची आनी चलणुकेची सगळे जाण तोखणाय करताले.

भुरगेपण सोंपतां सोंपतां आमच्यो दोगांयल्यो वाटो वेगळ्यो जाल्यो. मॅट्रीक पास जातकच बापायन पुरनाक खंयूय कसलेंय काम सोदपाक सांगलें. पूण पुरन दोन-चार ट्युशनां दितां दितां 'इंटर' शिकतालो. म्हजें तशें कांय नासलें. देखून घडये म्हजे नवे नवे इश्ट जायत गेले.

आमच्या गांवांत तेन्ना कसलेंच डिग्री कॉलेज नासलें. म्हणटकच इंटर जातकच पुरनाच्या फुडल्या शिकपाची अडचण जाली. म्हाका मुखावयल्या शिकपा खातीर पयस शारांत हॉस्टेलांत वचून रावपाक मेळ्ळें. थोड्या दिसांनी पुरन एके शाळेंत शिकोवपाक लागलो. आनी मागीर रोखडेंच ताचें लग्न जालें. ताका केन्नाय चाळोवपाक, ताचीं फकांडां मारपाक हें सगळें म्हाका उपकारा पडटालें आनी तेन्ना तो मोन्यांनी तकली सकयल घालून कूस मारतालो. उपरांत जिविताच्या गाड्यांत हांव इतलो घुस्पून पडलो की हेर सगळो संवसार म्हाका परकीच जावन उरलो.

अचकीत फाटल्या म्हयन्यांत एके पुतणयेच्या लग्ना निमतान घरा पाविल्लों तेन्ना पुरनाची भेट जाल्ली. ताका मेळून, ताचे घरचे आर्थिक परिस्थितिची खबर आयकून मनाक खूब घाय जाले. ताचे खातीर कितेंय करूंक जाय अशें म्हाका दिसलें आनी हांवेंच ताका दिल्लीक येवपाक सांगलें. पुरनाचेंच नशीब जायत घडये, दोनूच दिसांनी ताचे खातीर एक काम मेळ्ळें. म्हज्या एका क्लायंटाक एक 'स्टोअर कीपर' जाय आसलो. ताका कसले टॅक्निकल म्हायतिची गरज नाशिल्ली. मनीस कश्टी आनी प्रामाणीक आसचो इतलीच एक अट आसली. आनी पुरना भितर हे दोनूय गूण आशिल्ले.

'म्हाका हें काम जमतलें अशें तुका दिसता मरे? ना जाल्यार ओगीच म्हाका लागून तुजें नांव पिड्ड्यार जावंक नाका, पळे आं...'

'आरे, ना रे पंडीत...' भुरगेपणांतले इश्टागतिच्या संबंधाच्या नाड्यार ताचे फाटीर हात मारीत हांवें म्हळें. 'कसलें काम रे हें, बशिल्ले कडेन फकत नदर दवरुपाचें.'

पुरनाच्या मुखामळार आशेचीं किरणां उदेलीं. घडये ताच्या मनांत एका उजळ भविश्याची कल्पना जल्म घेताली जावंये. म्हाका दिसलें, घडये म्हजे उपकार मानपाक तो फावो तीं उतरां सोदतालो. खरें म्हळ्यार आमचे मदीं असलें वेव्हारीक नातें केन्नाच नासलें. अचकीत म्हजे वटेन घुंवन ताणें म्हळें, 'तशें जाल्यार तुका एक विचारूंक जाय...'

'कितें...?' म्हाका मातशें अजाप दिसलें.

'तुंवें म्हाका पयलीं कित्याक आफोवंन हाडलो ना? आफयल्लो जाल्यार म्हजेर हें जाणटेपण इतले बेगीन येवचें नाशिल्लें.'

ताच्या मुखामळार फांकिल्ली प्रसन्नताय इल्ली इल्ली उणी जायत गेली आनी तो गंभीर जालो. 'म्हजें सोड. भुरगीं तरी उपासमारींतल्यान सुटपाचीं.'

'दर एके घडणुकेक वेळ येवचो पडटा पुरन...' म्हजोय आवाज गंभीर जालो. 'ना जाल्यार हांवेंय म्हूण तशें कितें केलां? सगळें तुज्या भाग्याक लागून आपशींच घडून आयलां.'

*

पुर्णिमाचो फोन आसलो. आयकून विश्वास बसलो ना. पुरन पिसो जावंक ना मू? अशें कितें घडलें आसुंये...?

पुर्णिमाक घडये व्हडलेंशें कांय खबर नासलें. वा ताका फोनार चड कांय सांगपाचें नासलेंय जावंये. 'तूं यो', ताणें इतलेंच म्हळें. हांवें पुरनाक फोन दिवकं सांगलें.

'आरे, कितें जालां रे बाबा?'

'व्हडलेंशें कांय न्हय...' पूण ताचो सूर सांगतालो, कितें आसा तें विशेश कितें तरी आसा. 'हें काम म्हजेकडल्यान जावपाचें न्हय.'

हांव ताका मेळूंक वचपाक भायर सरलों.

पुरनाक कामाक लावन मनाक जी खोस जाल्ली – मित्रा खातीर कितें तरी करूंक पावलों म्हणपाची खोस – ती ना जायत वताली. हाका कोणें कितें म्हळें काय? हाणेंच कितेंय गडबड केली काय...? कंपनीन हाका काडून बी उडयलो ना मूं...? कितेंय जाल्यार म्हजीच तकली सकयल वचपाची.

हांवूय मातसो बेजार जालों. काम सोडचे पयलीं तो म्हजे कडेन तरी उलोवपाचो. इतली बरी नोकरी आनीक खंय मेळूंक आय... बायल-भुरग्यांक परतून उपाशीं मारतलो काय? शिक्षणूय व्हडलेंशें ना... पांच भुरगीं आसात. तीन चलयांचीं लग्नां करपाचीं आसात. कितें कर... कशें करतलो?

'भाऊ, तुजी माफी मागतां...' दोनूय हात जोडून पुरनान म्हळें.

'माफी कसली?' म्हजी नाराजी लिपोवपाक हांव मातसो ल्हवू उ...

'तुजे कल्पने प्रमाण हांव सफळ जावंक पावलों ना, म्हूण...'

ताच्या मुखामळावयले भाव हांव समजूंक पावलों ना. 'सारकें सांग प... कितें जालें?' म्हज्या आवाजांत घडये तिखसाण आसली.

'सारकें...?' सकयल पळेत पुरनान ल्हवू म्हळें. हांव ओगी ... 'हांचीं लफड्याचीं कामां खूब आसात.'

'तुका ताचें कितें? लफडीं खंय नात?' हांवें म्हळें. कंपनिचो ॲड... ह्या नात्यान म्हजे पसून कांय लिपून नासलें. हांव असो उलयतल... घडये ताका अदमास नासलो. कांय वेळ तो म्हज्या दोळ्यांत पळेत... मागीर म्हणूंक लागलो, 'सगळ्याक लफडीं आसात काय नात, ख... कितलीं आसात तेंय खबर ना. हांचे कडेन खूब आसात इतलें मात... स्मगलिंग आसा. भेसळूय चलता म्हूण आयकलां. ह्यो सगळ्यो बेक... गजाली.'

'आरे पंडीत, कायद्द्यान चलून कोण धंदो वाडोवंक पावना. हे क... चलपी आशिल्ले जाल्यार तुका दितात तितलो पगार खंयच्यान दि...'

'इतलें सगलें हांवें चिंतुंकूच नासलें.' पुरनान आपले भितरूच म्हळें. ... व्हडल्या धंद्यांतल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली म्हजे मतींत केन्ना ... नात. म्हाका दिशिल्लें, तांचो कसलो तरी व्हडलो धंदो आसा... आ... वळख... म्हजें नशीब सुधारलें.'

'आतां मुखार कितें जातलें हाचो विचार केला?'

'विचार कांय करूंक ना.' म्हजो प्रस्न ताका खंय तरी घाय क... जावंये.

'इतलें खरें, परतून म्हाका प्रायमरी स्कुलाची मास्तरकी करची ... तुजे भावजेचीं नवीं सपनां पडचे पयलींच तुट्टलीं. घडये भुरग्यांकूय ... हांव तकलेन सुटलां म्हूण. पूण संस्कार खंय शेणटात?'

'पूण हांतूंत नुकसान तुजेंच...' म्हाकाय कितें म्हणचें कळ्ळें न...

'आर्थिक नुकसान.' दोनूय उतरांचेर नेट दिवन ताणें स्पश्टपण ... घडये सगळे वटेंतल्यान विचार करुनूच ताणें निर्णय घेतिल्लो. '... खोस भोगतली. इतलें नुकसान सोंसपाची शक्त दिल्या हे देवाचे ... 'पूर्णानंद' नांव दिवनूच ताणें म्हाका संवसारांत धाडला आसत... मनाक सूख दिवपाचें साधनूय तोच दितलो. भुरगीं तांच्या नशिबा...

पुरनाचें हें उलोवप आयकून हांव ओगी पडलों. हार खावन ह... वेव्हारीक तर्काचो आधार घेतलो. 'तुंवें एकल्यान हें काम सोडलें म्हू... नश्ट जातली?'

'ना जावंची', ताणें व्हडा विश्वासान म्हळें. 'पूण जें चूक, स... अन्याय करपी आसा तांतूंत जाणा जावन वांटेकार कित्याक जाव...'

म्हज्या तर्का परस पुरनाच्या तर्कांत चड पेज आसा म्हणप ... स्पश्ट दिसतालें. म्हज्या मनांत एक नदर मारून खासा म्हज्या का... निती-अनितिचो हिशेब करचो हाची इत्सा आसुनूय म्हाका धा... ना. इतलो संपन्न आसुनूय पुरना म्हऱ्यांत म्हाका हांव भिकारी दिसूं...

एके वटेन हांव – ल्हान सान गरजां खातीर दीस-रात पा... आनी दुसरे वटेन पुरन – नीत-अनीत हांचे मदीं फरक कर... आशिल्लो आनी समाजाच्या हिता खातीर आपणाले इत्सेचो ब... तांकूय आशिल्लो.

# तुळशीमाते, हात जोडूं...!

जयमाला दणायत



हाडा गे कुदळ, काडा गे धेंपो
तेंतून रोया रोपो तुळशीचो हो रामा ।
त्या गे तुळशीचीं काळीं निळीं पानां
तुळशी वृंदावना पाणी घाली हो रामा ।

ांतले तुळशीक पळेतां पळेतां म्हजें मन उडून भुरगेपणांत पावलें. डार आयकल्ल्या तुळशी-महात्म्य सांगपी त्या पदांत रिगलें – ामच्या जाण्टेल्यांचे बुदवंतकायेची तोखणाय करत तितली थोडी! वस्तूक देवरूप दिलें म्हणटकीच भौसाक तिचें म्हत्व रोखडें पट्टा सारकें बरें समजल्लें. आनी देखुनूच सैमांतल्या झाडां-पेडांक मचीं सोयरीं करून सोडलीं. हजारांनी वर्सां पयलीं सावन भारतीय न झाडां पेडां आनी सैमाच्या सगळ्या आंगांपांगांक खूब म्हत्वाचें लां. आमच्या वैदिक साहित्यांत मनीस जिणेची समृद्धी आनी य हाचेपासत वनस्पतींक म्हत्वाचें आंग मानलां. आयुर्वेदांतय ांच्या वखदी गुणांचो स्विकार केला आनी मनशाचे मनाचे तशेच लायके पासत तांकां म्हत्व आसा म्हणपाचें मानून घेतलां आनी म्हणुनच आमचे सदचे वेव्हारीक जिणेंत झाडां पेडांक धार्मिक आदराचें स्थान मेळ्ळां.

तुळशिचीच देख घेवं येत. तुळशिचें वैज्ञानिक म्हत्व जाणून जण एका हिंदूगेर तरी दारांत तुळशी वृंदावन आसूंकच जाय असो अलिखित नेमच जाला. आयच्या ह्या अपस्मार गर्देच्या शारांनी सिमेंट-कॉंक्रीटच्या रानांनी सामको कोंबये घुडासारको जागो आसल्यार लेगीत कुंडेंत ना तर साड्या पत्र्याच्या डब्यांत तरी एखाद्रो तुळशी-रोपो बाल्कनींत जावं जनेलांत दिश्टी पडटलोच. गांवांत तर अजुनय ज्या दारांत तुळशी वृंदावन आसा तें हिंदूंचें घर म्हणून दोळे धांकून सांगचें. अशी ही सगळ्यांचे वळखिची वनस्पत! ह्या खंयय जावपी सामान्य तुळशी रोपाक भारतीय संस्कृतायेंत मोठें मानाचें आनी पवित्र स्थान मेळ्ळां. सगल्या पुराणांनी तुळशिची महिमा गायल्या – तिच्या महात्म्याची गाथा जायत्या दंतकथांनी, धर्मकथांनी जावं पुराणकथांनी आयल्या.

पयलीं तेंपार तर सुर्या उदेतना बायलांनी तुळशिचें दर्शन घेवपाचो नेम आसलो. फांत्या पारार उठून कोयर-शिंतोडो करून, दारांत रांगोळी घालून

न्हावन-धुवन तुळशीक प्रदक्षणा घालपाचो नेम आशिल्लो. तेच प्रमाण तिनसनां सूर्या अस्तमतेक गेलो म्हणटकीच तेल-वात करून पयलो दिवो तुळशीकडेन लावन 'शुभं करोति' म्हणून प्रार्थना करचेली रीत हे टि.व्ही. संस्कृतायेंत आज जरी विसरायेर पडिल्ली आसली तरी कांय कडेन ती अजून तिगून आसा. निरांजनाच्या त्या मंद भांगरा उजवाडांत, मळबांतल्या चान्न्या सांगातान आजो-आजी आनी नातरांचें नातें चडच घटावतालें. अशे तरेन बायलांचें तुळशी कडेन मायेमोगाचें नातें जडटालें. कुळारच्यान घोवाघरा आयिल्ल्यो चलयो तिकाच आपली मैत्रीण-सखी जावं आवय-भयण मानून आपल्या मनांतले उत्फर्के तिच्या कानांत फुतफुतून सांगताल्यो. तीच तांची पाठराखीण! घरांत कितेंय मनाविरुद्ध घडटकीच तिचे म्हऱ्यांत येवन दुकां गळयताल्यो, दोळे पुसताल्यो. तिच्या पानांर हात भोंवडावन आवयच्या मोगाची ऊब काळजांत थामताल्यो.

असो हो काळो-सावळो ल्हानसो तुळशी-रोपो! पूण आमचे जिणेंत केदी व्हड सुवात मेळोवन रावला. गुलाब-शेंवतीं जायो जुयो मोगरीं ह्या सगळ्या फुलांपरस पुजेक तुळशी पानाक – तुळशी कणसाक चड म्हत्व! साद्या तीर्थ प्रसादांत जावं श्राद्धपक्षांत – तुळशिचो केदो थातो-मातो! तुळशीक लक्ष्मीची प्रिय सखी म्हणटात! कित्याक तर ती विष्णूची – साक्षात नारायणाची – मन:प्रिया! तुळास ही **शुभदा**, पापहारिणी म्हणून **पुण्यदा** – तिच्या नांवांतच तिचें मोठेपण घुस्पलां – जाचेकेन तुळा करप अशक्य ती तुळस! हिका संस्कृत उतर **तुलसी** – तुलाम् म्हणचे उपमा पयस दवरता – सोंसना ती **अनुपमा**! हिचो रस सगळ्यांत बरो म्हणून तिका **सुरसा** म्हणटात. सगळेकडेन सोंपेपणान मेळटा म्हणून ती **सुलभा**! गांवांनी चड मेळटा म्हणून **ग्राम्या**! दुखिचो-वेदनेचो नाश करपी म्हणून **शुलघ्नी**! एके तुळशीक कितलीं नांवां आसचीं संस्कृतांत – **तुलसी, अनुपमा, सुरसा, शुभदा, पुण्यदा, सुलभा, ग्राम्या, शुलघ्नी, सुखकरी, पवित्रा, मंजीरा** अशीं जायतीं. कोंकणींत **तुळस**, मराठींत **तुळस**, गुजराथींत **तुलसी, वृंदा**, तर कानडींत **कपमा, तुलसी**. बंगालींत **काळा तुलस**. तमीळींत **अलागाई** आनी **पिरादमा**, तेलुगूंत **कृष्ण तुळसी** आनी **गागोरा चेतू**! बर्मी भाशेंत **तुन** तर सिलोनी भाशेंत **मृदुतुला**!

हिचें लॅटीन नांव **ऑसिमम् सॅनकटम्प्**. उडिसांत हिका **वृंदावती** म्हणटात. थंय आंकवार चलयो उपास करतात. चंद्राची तुस्त गायतात. थंय हे वृंदावतीक इतलें म्हत्व आसा की सगळ्या देवांची ती प्रतिनिधी मानतात. खंयच्याय देवाच्या नांवान तिच्या मुळांत वस्त दवरली की ती त्या त्या देवाक पावता अशें मानतात. आमची तुळशीमाय मोगाळ – सगळ्यांक आपल्या पदरापोंदा घेवपी, पूण हांची वृंदावती मात एकदम कडक – तिचेकडेन क्षमा ना.

भारतीय संस्कृताय इतल्या उंचल्या पांवड्याची की ती सदांच मोन्यांनी आमची सेवा करपी झाडांपेडांकडेन नातें राखून दवरता. तांची याद दवरून त्या त्या दिसा तांची पुजा करता. ऋषीमुनींभशेन्न हे रूख मनशांची जतनाय करतात – कसल्याच फळाची अपेक्षा धरिनात. कोणाच्या रागा-लोभाची पर्वा करिनासतना हीं झाडां आमकां आपणालीं फळां, मुळां, पानां, फुलां दितात. आपल्या आंगच्या वखदी गुणांचो उपेग आमचे जिणेपासत करतात.

मनशांचे भलायके पासत पयलीं चातुर्मास पाळटाले. म्हणचे श्रावण सुरू जालो की कार्तिका मेरेन कांदो, मास, मटण, नुस्तें अशें सगळें तामस खाण सोडप आनी सादें भाजी-पाल्याचें शिवराक जेवप. हें करूं नये, तें खावं नये अशीं बंधनां घालपी हो चातुर्मास तुळशी-लग्नान सोंपता. आनी देखुनच दिवाळी जाली की लोक 'व्हडले दिवाळे'ची वाट पळेतात. व्हडली दिवाळी म्हणचे तुळशी-लग्न! कार्तिकी एकादशीन चातुर्मास समाप्ती आनी दुवादशीक तुळशीलग्न! आतां वर्साच्या खंयच्याय म्हयन्यांत लग्नां जातात. इतलेंच न्हय तर हॉल मेळटा ते प्रमाण लग्नाची तारीक, म्हूर्त थारायतात. पूण पयलीं तेंपार तुळशी-लग्न जाले बगर मनशांचीं लग्नां जायनासलीं. तुळशी-लग्नान लग्नाचो 'सिझन' सुरू! तुळशि... बाळकृष्णाकडेन जालें की मागीर हेरांच्या लग्नांक ग्रीन सिग्नल! तुळ... कार्तिक शुद्ध दुवादशीन सुरू जाता तें पुनवेमेरेन! आतांय बी कांय... बायलो आषाढी एकादशीक तुळशिचो ल्हान रोपो लायतात. आनी... ताका भरपूर उदक आनी कुलेरभर दूद घालून वाडयतात. अशे... वाडयिल्ले ते तुळशिचें लग्न मागीर कृष्णाकडेन करप – लाडू, नेवऱ्यो चकल्यो असो फराळ करून! ताचेबरोबर चिंचो, आंवाळे... उसकांडो तर जायच ह्या लग्नाक! तशेंच फुलांचें बाशिंगय जाय.

अशें म्हणटात, आषाढी एकादशीक विष्णुदेव न्हिदता आनी ताका... एकादस जावन उठयतात. जागृतीमंत्र म्हणून बाळकृष्णाचें तोंड तुळ... करतात. मदीं अंतरपाट धरतात. तुळशी खांदो देवाक लावन ... कन्यादान करतात. सांजच्या गोरज म्हुर्तार भटाक आफोवन, अ... पणट्यो पेटोवन, अक्षता शेंवटून, फोगेट्यां-माराण मारून आनी... आरत्यो म्हणून मोठ्या थाटान हें लग्न करपाची चाल गोंयांत ... कांय घरांनी आसा. मागीर प्रसाद म्हणून फोव, चिरमुल्यो, कातले... आंवाळ्या चिंचेचे आनी उसाचे कुडके घालून हरीजागर वांट्टात.

हें सगळें जालें पोरण्या जमान्यांतलें. पूण आयच्या विज्ञान-... तुळस ताठ मानेन मिरयता. पयलीं सावन मनशाचे तुळशी कडेन ... हे रस्मी बंध शास्त्राचे कानशेर घांसून-पुसून सुलाखे भांगरावरी चकच... खरें म्हणचे तशें विज्ञान पयलीं सावन खबरच आशिल्लें. आयुर्वेदांत... वखदी गुण बारिकसाणेन वर्णन केल्यात. दुशीत हवा शुद्ध करपांत तु... व्हड वांटो आसा. तुळशींत कार्बन वायू ओडून घेवन प्राणवायू भायर स... व्हड गुणधर्म आसा. आमच्या जाण्ट्यांनी बायलांचे लागेबांधे ति... ओगीच जोडूंक नासले! पयलीं बायलो रांदचीकूड आनी वासरेर चड... उरताल्यो. भायली मेकळी खेळटी हवा तांकां जाय तशी व्हड ... मेळनासली. देखून तुळशीक १०८ प्रदक्षणा घाल्यार पुण्य मेळ... तांकां सांगताले – त्योय काळजाथावन स्रद्धेन तिची सांज सका... करताल्यो. कसलेय बरे उपकारपी गजालीक देवा नांवाची धार्मिक ... चडयली की देवाच्या भंयान वा मोगान मनशां बरीं वागतात, नेम प... व्रतां करतात; म्हणून भलायकी बरी उरता. आनी हे नदरेन बायल... तुळशिचें केदें म्हत्व आसा तें समजता!

तर अशी ही विष्णुप्रिया तुळस! सर्वांगान उपेगी – तुळशिचं... तिच्यो काडयो बडयो, पानांचो रस, बियो – सगळेंच मनशांचो ... करपी, ताका भलायकी दिवपी! एका तुळशी झाडाचें इतलें म्हत्व... तुळशी पोरसाचें म्हत्व कितलें आसतलें! तशें पळेल्यार तुळस खऱ्या... घरच्या घरा एका दोतोराचें काम करपी म्हणूंक जाय. आरोग्यपूर्ण... पावसांत सेगीत जावपी थंडी, खांक, जोर हाचेर तुळशी-कणसांचो... वा तुळशी-पानां रोस म्हौंव घालून चाटलो की हड्ड्यांत भरिल... कमी जाता; पानांचो रोस भायल्या आंगाक लायलो की कातिच... बरी जावंकच जाय. तुळशी मुळांतली माती भोव मोलाची – भो... आंगाक चोळ्ळ्यार पुरो, खोरोज वा कातिच्यो पिडा ना नपश्चा... वतात. कोड जाता ताचेरय हें बऱ्यांतलें बरें वखद! ही तुळस 'कास... – जळारांक आमुडपाचें कामय बरे तरेन करता. म्हणूनच घर... तुळस लावची म्हणून जाणटेले आड्डताले जावंये.

हिंदूंच्या वेद-धर्मशास्त्राप्रमाण तुळशिचें मोल फकत एक वनस्प... न्हय, तर विष्णूचो, कृष्णाचो दैवी प्रतिनिधी म्हणून आसा. पू... मात 'गांवचें चेडूं मुतरें' ह्या न्यायान तिची 'अतिपरिचयात् अवज्ञा' ... आयुर्वेदांत तुळशिचे वखदी गूण बारिकसाणेन वर्णन केल्यात ... तिचो सुवाद तीख, कांय प्रमाणांत कोडू, पचपाक सोंपी, गरम, ... कफ-वायु हांचो नाश करपी, रूच आनी पचनक्रिया वाडोवपी, ...

कृमी म्हणजे दंत बी ना करपी, तशेंच दुर्गंधाचो नाश करपी. र अरूची, फुफ्फुसांतलो कफ, खांक हे सगळे विकार ना जातात. खांक, ओंकारी हांचेर भारी उपेगी! वीख चडल्यार, अर्दशिसलेचेर, सळ्ळ्यार, कान व्हांवता ताचेर, आंगावेले दाग, तोंडाक वास चेर, दंत जावप, कुसव्यांनी वा हड्ड्यांत दुखपाचेर भोव गुणकारी! र कृष्णतुळशिच्या रोसांत म्हौंव घालून तो रोस घेवचो अशें कान सुचयलां. कान व्हांवता ताचेर तुळशी रोसाचे कांय थेंबे सोडल्यार कान व्हांवचो थांबता. तुळस कृमीनाशक आनी कारक शक्त वाडोवपी आशिल्ल्यान कॅन्सरा सारक्या रोगांचेर जावं येता अशी शक्त तिच्यांत आसा. ह्याच कारणाक लागून महर्षींनी दीर्घदृष्टी वापरून घरादारांनी तुळस लावचेली रीत ली. ज्या घरामुखार तुळस आसा थंय कसलोच रोग भितर सरना फकत कुड्डी स्रद्धा न्हय. तिका शास्त्रीय आधार आसा. आर्बिल्ल्या शास्त्रज्ञांनी हातूंत तथ्य आसा हें मान्य केलां. तुळशींत रोगांचे शट करपाची खासा शक्त आसा. तुळशी-पानांतल्यान हळ्डुवसार तिखट तेल भायर सरता आनी उबून हवेंत पसरता. आनी आफडून गेल्ली ही हवा आरोग्य दिवपी म्हणटात. रोग ना करपी, न्हय, म्हावखदी – अमृतच तें! हिका **अमृता** म्हणटात. समुद्रमंथना अमृत भायर सरलें ताचे कांय कण भुंयेर सांडले आनी तांतल्यान र्स जल्माक आयली. ब्रह्मदेवान काडून ती विष्णूक दिली. विष्णूक आवडली म्हणून ती **विष्णूप्रिया** आनी देखूनच तुळशिचें एक यार लेगीत विष्णू प्रसन्न जाता. आनी तो प्रसन्न जालो म्हणटकीच पल्या पांयांनी चलत घरांत येता अशी भौसाची स्रद्धा आसा. णटेलीं म्हणटात जावंये — जंय तुळशीपान, थंय नारायण! च्या होंवयांनी जावं लोकगितांनी तुळशिचें महात्म्य गायलां तितलें ीक,

काशी काशी म्हणून लोक वतात धांवून
काशी म्हज्या आंगणांतच तुळशीदेवी!

कसलीय पुजा तुळशिपत्राबगर पुराय जायच ना. प्रसादांत घालेबगर प्रसाद जायना. सादो शिरो बशी भर खावन जें समाधान प्रसादाचो कुसभर शिरो खावन मेळटा. हेंच कित्याक, सत्यभामेन तुळा – वजन करचेपासत घरांतलें आशिल्लें नाशिल्लें भांगर-शिंगर ओतलें, पूण कृष्णाचें दालें वयर सरचना. ताची तुळा कशीच हेंच रुक्मिणीन मनांतले स्रद्धेन एक तुळशीपान ते तागडेंत दवरलें कृष्णाची तुळा केली.

च्या लोकांचो भावार्थ आशिल्लो की तुळशी पानावेलें उदक मस्तकार गंगास्नानाचें आनी धा गायो दान केल्ल्याचें पुण्य मेळटा. (आतां क कोण विचारता!) तशेंच मनशाच्या निमण्या खिणावेळार ताच्या ळशी पान आसल्यारच तो मनीस वैकुंठाक वता. ह्यो सगळ्यो णयो म्हळ्ळ्यो तरी तथ्य अशें की तुळशिचेर केल्ल्या जायत्या ऋषी-मुनींक असो अणभव आयलो की ही वनस्पत एकाच न्हय यांनी ल्हान-व्हड पिडांचेर उपेगी आसा. आनी म्हणून तांणी मक रूप दिवन तिचो प्रचार केलो.

च्या एस्. बी. युनिवर्सिटीन केल्ल्या एका संशोधनांत अशें दिसून की तुळस उस्वास सोडटा तांतूंत स्फूत दिवपी असो ओझोन र सोडटा. तांतूंत प्राणवायुच्या दोन परमाणूं बदला तीन परमाणू तुळशी पानांत इथर आशिल्ल्यान ती बॅक्टेरियाचो नाश करता ळेरांकय धांवडायता. पाश्चात्य वैज्ञानिकांनी तुळशी रोपांत चड आसता म्हणून सिद्ध केलां. तुळशी म्हन्यांतली २०० ची हवा स्वच्छ आनी शुद्ध उरता. आमच्यांत गिराणाच्या वेळार खावपा-पिवपाच्या वस्तुंनी तुळशी पान दवरपाची रीत आसा ती हाकाच लागून जातली. कारण तुळस जंतू ना करता आनी विद्युतशक्त चड आशिल्ल्यान गिराणकाळांत हानीकारक किरणांचो प्रभाव खाणा-जेवणाचेर पडूं शकता.

तुळशी पानांत मिरीं घालून काडो करून घेतल्यार मलेरियासारको चिवट जोर देंवता. ह्या काड्यान उचकी, गरमेन जावपी दोळ्यांचो भगभग थांबता. तोंडाची गेल्ली रूच येता. ब्राँक्रायटिसाचेरय तिचो उपेग जाता. इंग्लीश दोतोरांनी तर जायत्या असाध्य पिडांचेर बेस बरो उपाय म्हणून तुळशिची तोखणाय केल्या.

तुळशी पानां धंय जावं ताका बरोबर खाल्यार वजन देंवता. ॲसिडिटिचो त्रास उणो जाता. हून उदकांत गोड आनी तुळस वांटून घालून तांचेर लिंबू पिळून पिताता. ताका तुलसी-सुधा म्हणटात. मात उष्णतेचे विकार आशिल्ल्यांनी हें पियेवं नये. तशेंच तुळशी रोस आनी म्हौंव एकठांय करून हून करूं नये. म्हौंव वीख जाता. लिंबाचो रोस आनी तुळशिचो रोस अर्द अर्द कुलेर घेतल्यार तकली दुखपाची थांबता. तुळशी रोसांत म्हौंव घालून घेतल्यार मेदवृद्धी जायना. तुळशी रोसांत साखरं घालून घेतल्यार हड्ड्यांतली दूख थांबता, खांक वता. अशे एक आनी दोन, हजार उपेग आसात हे इल्लेशे तुळशिचे! आयुर्वेदान तिका 'अकाल मृत्यूहरणी' म्हणून तिचो गौरव केला.

कांय वर्सांपयलीं अहमदाबादेंत डॉ. उपेंद्र राय ह्या विद्वान चिकित्सकाचो तुळशिचे वखदी गूण आनी रोगांवयल्या उपचारांत तुळशिची उपयुक्तता आनी परिणाम हे विशीं संशोधन केल्ले बद्दल तशेंच यशस्वी उपकारक सेवा केल्ले बद्दल गुजरात सरकारान भौमान केल्लो. तुळशिच्या पानांत कॅन्सर, काळजा दुयेंस, किडनीचे विकार आनी हड्ड्याचे रोग बरे करपाची व्हड शक्त आसा. इतलेंच न्हय तर मानसिक नदरेन अपंग भुरग्यांचेर तुळशिचे उपचार सुरू केल्यार पंदरा दिसांभितर सुधारणा जाल्ली दिश्टी पडटा. तुळस बुद्द घटायता, स्मरणशक्त वाडयता.

भारतांतच न्हय तर श्रीलंका, बर्मा, चीन, मलाया आनी ब्राझील ह्या देशांनी तुळस व्हड प्रमाणांत जाता. तुळशी पासून कापूर जाता. तशेंच सुगंधी तेलय काडूं येता. ब्राझिलांत तिची एक रामबाण वखद म्हणून नामना आसा. मॉरिशसांत अर्धांग आनी आमवात हाचेर तुळशिचो गरम काडो करून आंग धुतात; पिवपाक काडो करून दितात. तुळशिच्या ह्या अजापांच्या गुणांनी इस्रायली लोक सामाजिक उत्सवांनी, धार्मिक कार्यांनी, लग्नांत बी स्रद्धेन तुळशिची पुजा करतात. पुजेची तुळस घराघरांनी बायलां सुगुरव्याची म्हणून जतनायेन दवरतात.

भारत भेटीर आयिल्ल्या फ्रँच दोतोर विक्टर रेसीन हांणी बनारस युनिव्हर्सिटींत फारमाकॉलॉजी विभागांत दवरिल्ल्या व्याख्यानांत म्हळें, तुळस म्हळ्यार एक वन्डर-ड्रग. सामकें अजापांचें वखद! हाय ब्लड-प्रेशरचें ती नियमन करता, पचनक्रिया सुधारता, रक्तकण तर ती वाडयताच, पूण मानसिक रोगांचेरय ह्या तुळशी-उपचारान असाधारण परिणाम दाखयला. होमियोपाथिचे जायते जाणकार वखदां भितर तुळशीक खूब म्हत्व दितात. कॅलिफोर्निया विश्वविद्यालयाचे डॉ. विलियम बोरीक हांणी तुळशीक 'ब्राझिलियन अल्फावका' अशें नांव दिलें. डॉ. शरश्चंद्र घोष हांणीय तुळशिचे जायते अजापांचे गूण वर्णिल्यात.

सामान्यपणान लोकांत प्रचलित अश्यो तुळशिच्यो दोनूच ज़ाती आसात. एक रामतुळस आनी दुसरी श्याम म्हणजे कृष्णतुळस! तिसरी रानतुळस. ही आकारान सादे तुळशीपरस व्हड – हिचीं पानांय व्हड! विखाचेर उतार म्हणून ती चड उपेगी. रक्तदोष, नेत्रदोष, बाळंतपणावेळार वखद म्हणून तीं चड उपेगी पडटा. 'मसवक' म्हणून तुळशिची आनीक एक जात आसा. आंगार जाल्ल्या घायार हे तुळशिचो रोस भारी लाभदायक आसता. पांचवी

# भावोजी – तर्क आनी बंडलां

**पंढरीनाथ सुरसुरे**

खूब खूब वर्सां पयलिंची गजाल न्हय. खबर हालीं काळांतली. तेन्ना गोंयचेर पुर्तुगीज, महाराष्ट्राचेर शिवाजी आनी कर्नाटकाचेर खंयचो तरी सुलतान राज्य करतालो. आतां ही खबर सारकी खंय घडिल्ली, आमकां खबर ना. घडये महाराष्ट्रांत आसुंये. घडये गोंयांत आसुंये. वा गोंय महाराष्ट्राचे शिमेर आसुंये. इतिहासीक तथ्यां मेळूंक कठीण जाल्ल्यान आमी सकयले काणयेक दंतकथा म्हळ्या.

शिवाजीच्या काळार ताच्या सैन्यांत खूब 'जी' आसताले. देखीक, नेताजी, बाजी, दादोजी, संताजी, धनाजी, तानाजी आनी हेर. अशा 'जीं'च्या मेळ्यांत एक 'भावोजी' म्हूण शिपाय आसलो. सामको म्हामूर्ख आनी आळशी. ताच्यान सैन्यांतले कश्ट सोंसना जाले. तेन्ना ताणें महाराष्ट्र सोडून गोंयांत पळ काडलो आनी गोंयांत एका गिरेस्त भाटकारालो तो घरजांवय जालो.

सैन्यांतले ताचे वांगडचे मावळे ताची याद जातकच केन्नाय भावोजीगेर वताले. आमचो भावोजी ह्या मावळ्यांक येतिश्ट नुस्तें घालून बाटयतालो. काड्डुवांचें सुकें, ताल्ल्यांचें हुमण, विस्वणाचीं पोस्तां खावन आमचे मावळे खूश जाताले आनी म्हणटाले,

''भावोजी, हाका म्हणटात तरी कितें?''

आनी भावोजीन खंय तांकां सांगचें, ''आरे, तें घोसाळ्याचें हुमण, तें तवश्यांचें सुकें, तीं वांयग्यांचीं पोस्तां.''

हळूहळू मावळ्यांक भावोजीचीं फटींगपणां कळ्ळीं. पूण तेन्ना खूब कळाव जाल्लो. मावळ्यांक नुस्त्याची रूच लागिल्ली. नुस्तेंखायरे मावळे महाराष्ट्रांत वचून लग्न जाताले तेन्ना खंय व्हंकलकारांक हुंडो म्हूण नुस्त्याची जेवणावळ घालूंक लायताले. ही पद्धत 'भावोजी'क लागून आयली म्हूण नुस्त्याचें जेवण मागपी जांवयाक 'भावोजी' म्हूण फकाणांनी पाचारूंक लागले. फुडें 'भावोजी' उतरांतलें 'वो' गळून 'व' उरलें आनी भावोजीचें 'भावजी' जालें.

दुसरे वटेन गोंयांत, मावळ्यांक बाटयिल्ल्यान गोंयच्या भावोजीचो रेश्पेद बरोच वाडिल्लो. 'भावोजी' ही मानाची पदवी जाल्ली. फुडें प्रत्येक जांवयाक भावोजी म्हूण वळखूंक लागले. ही खबर उत्तर भारतांत पावसर आनीक शंबरएक वर्सां उलगलीं. तो वेळ म्हळ्यार भावोजींतले 'भा' आनी 'वो' वचून 'जी'च उरले. उपरांत हाचेंच विसाव्या शेंकड्यांत 'जिजाजी' जाले अशें म्हणटात.

अशी ही काणी. खंयतरी आयकल्ली. आयकतकच खरी दिसली.

कोंकणी लोककथेंत 'भावोजी' चोराचे पंगतेक बशिल्लो दिसता. हांव फट सांगना. थोडे भितर ही काणी अशी:

एक दीस एक जांवंय मावोड्या येता. मांय अपुरबायेन ताका गोडशें करून वाडटा. तातूंत खीर आसता. जांवयाक ती आवडटा. पूण मुर्वत आड येता. तो चड मागिना. मावोडेचो लोक भकारो बी म्हणत म्हूण अर्द्र पोटार उठ्ठा. राती वेळार सगळीं न्हिदतकच खिरेचें मडकें सोदता. काळखांत सांसपितना चुकून मडकें फुट्टा. मडक्याचो आवाज आयकून घरांत चोर आयिल्ल्याचो भास मांयक जाता. मांय एक दांडो हाडटा आनी रातिच्या काळखांत चोर म्हूण समजून जांवयाकूच बडयता.

वयली कथा गोंयकार भावोजीचेर आसत अशें म्हाका दिसना.
भावोजी नुस्त्याखातीर लेमडेपणां करीत, खिरीखातीर करचोना.
शेंकड्याचे सुरवेक 'भावोजी' हें व्हडलें प्रस्थ जाल्लें. त्या काळ
मराठी शाळांनी भावोजीचो दबदबो जाणवतालो. शाळेंत खंय
विचारताले, ''तूं व्हड जातकच कोण जातलो?''

भुरगीं एका ताळ्यान म्हणटालीं, ''भावोजी.'' [चत्राय: फ
म्हणटाले. चलयो कितें म्हणटाल्यो आमी नकळो.]

भुरगीं व्हड जातकच भावोजी ज़ातलीं म्हणटालीं, हाकाय ए
आसलें. आदल्या काळार भावोजी मावोड्या आयल्यार चार प
रावतालो. आयचो भावोजी दनपरां आयल्यार सांजचो पळटा. अ
वचूंक जाय म्हूण तो बँकेचें रीण काडून एक स्कूटर घेता. आदल्य
भावोजी येवप म्हळ्यार चवथिचो गणपती आयिल्लेवरी गांवांत
जातालो. घरांत तरांतरांचीं जेवणां, खाणां जातालीं. नुस्तें, चिक
हांचो कोंत आनी हिशेब आसनासलो. भुरग्यांचेर कोण तापनासल
मारिनासलो. पुराय घर चार पांच दीस सुखासमाधानांत नंदतालें. हो
भावोजीक लागून जातालो. देखून भुरग्यांक 'भावोजी' जायन
नविदाद न्हय. १९५० ते १९८०च्या दशकांतलीं भुरगीं व्हड
दोतोर इंजनेर जातलीं म्हणटालीं. आतांचीं भुरगीं सचिन तेंडुलकर
म्हणटात. भुरग्यांचे हे मानसिकतेंतल्यान भावोजीचें आदल्या काळां
लक्षांत येतलें.

ही जाली भावोजीची एक बाजू. भावोजीची दुसरी बाजू कशी आस
आज 'एक वा दोन पुरो' म्हूण कायदो आयला. देखून भावोजी
आदल्या काळार असो कायदो नाशिल्ल्यान जण एकट्यागेर धा-ब
जातालीं. ह्या पोरांतलें व्हडलें पोर (चली) जाच्या गळ्यांत पडटा
ह्याच जल्मांत सर्ग आनी नर्क, दोनूय पळयिल्ल्याचें पुण्य मेळ
पुण्य जोडपाखातीर ताका फुडलीं म्हत्वाचीं कर्तव्यां करचीं पडटा

एक: व्हडलो भावोजी आसल्यार धाकल्या मेवण्यांचीं लग्नां
तांकां सोयरिको हाडप.

दोन: मेवणो, मेवणी सामकींच ल्हान आसल्यार तांच्या शिक्षण
उखलप.

तीन: शिक्षण सोंपतकच मेवणो आनी मेवणेक शिर्विशेक त
लावपाखातीर जोतीं झरोवप. ते खातीर च्या, सोऱ्याचो खर्च करप
मारपाखातीर मंत्र्यांच्यो वळखी काडप.

चार: मेवणो आनी मेवणी हांच्या लग्नाक आनी तांच्या भ
मुर्जींक बी सांगूंक भोंवप. तांकां अहेर करप.

पांच: लग्ना उपरांतच्यो मेवण्या मेवणेच्यो सगळ्यो भानगडी

वेल्या म्हत्वाच्या कर्तव्यांक पाळो दिवप जाका जमना तो
'बायजणपणां' करूंक हुशार आसचो पडटा. आतां भावोजीक
म्हणूंक आमकां तरी खंय बरें दिसता? पूण बायजण हें उतर
ह्या उतरावेल्यान आयलां. हे खातीर आमी भावोजी ह्या उतराची
पळोवया.

उच्चाराच्या नेमाप्रमाण 'बा'चें 'भा' जावंक शकता. देखून भा

...ण उतरांत 'बा' जाला. आतां 'बाय' म्हळ्यार भयण आनी (...ग) म्हळ्यार मनीस. दुसऱ्या अर्थान 'बायेचो मनीस' हो 'बायेचो ...नात्यान 'भयणिचो घोव', म्हणजेच 'भावोजी' जाता.

...यिल्ल्या कर्तव्यांक पाळो दिवन आनी बायजणपणां करून ...शेंकड्याच्या हुंबऱ्योवेलो भावोजी सामको संताचे पदवेक पावला. ... 'जे का रंजले गांजले, त्यांसी म्हणे जो आपुले / तोचि ...खावा, देव तेथेचि जाणावा' हो संत तुकारामालो अभंग. हो ...क पळोवन रचलो हांव नकळों. पूण हो वाचतकच म्हाका भावोजीची ... अशा ह्या भावोजीक वळखप कसो ? ताका वळखुपाच्यो कुरवो

...कोट-कलसांवाचें धंगण नासप.

...यन मांवान अपुरबायेन घाल्ली मुदी विकून खावप.

...यलेचें मंगळसुत्र सुता पोडान बांदिल्लें आसप.

...णाचे हप्ते फारीक कर म्हूण आयिल्ल्या पत्रांचो दाळ घरांत

...रांतली दुदाची च्या फुटेलार येवप.

...यलेच्यो साडयो, ब्लावजां, घरांतलीं आयदनां धुवन काळ्याचे ...ने हात.

...लप विकतो घेवंक पयसो नाशिल्ल्यान धवे जाल्ले केंस वा तकलेक ...ग्रंड.

...ल्यांचेर चडिल्लें इस्तिचें वक्ल.

...तांत हेड हेड हेडून सुकिल्ली कात, बाविल्लें तोंड, पिरायेपरस ...सपी तोंड, गरजेपरस चड तकलेर पडिल्ली चिंता.

...आयिल्लें वर्णन हें खऱ्या भावोजीचें वर्णन. हाका लागून भावोजी पळून वचूंक शकना. पळून गेल्यारय मांव, मांय, मेवणे, मेवण्यो आनी बायल रोखडेंच वेलें वर्णन पुलिसेंत कळयतात आनी पुलीस चोवीस वरांभितर भावोजीक धरतात असो आजवेरचो पुलीस खात्याचो अणभव. हाका लागून दूरदर्शन वा खबरांपत्रांचेर 'भावोजी शेणला', 'भावोजीक धरतल्याक/सोदतल्याक लाखाचें इनाम' सारक्यो जायराती दिसनात वा वाचुंकूय मेळनात.

कोंकणी साहित्यांत भावोजीचो चडसो विचार जाल्लो मेळना. म्हजो कोंकणीमोगी इश्ट रघलो सांगता, सगळे कोंकणी साहित्यीक पयलीं भावोजी जातात आनी उपरांत लेखनाक सुरवात करतात. देखून भावोजीचीं फकाणां करपाचे वाटेक कोण वचनात. मराठी साहित्याची गजाल तशी न्हय. तांतूंत भावोजी-मेवणो संबंदाच्यो तिस्त्यो वादऱ्यो करपी लेखन सर्रास चलता. तांतूंत भावोजीच्या लेंगलेंगपणाची चड चर्चा आसता. 'बायको माहेरी जाते', 'बायकोपेक्षा मेहुणी बरी' सारकीं मराठी नाटकां मराठी माचयेर खूब गाजल्यांत, ही ताची गवाय.

अमेरिका, इंग्लंडांत भावोजी आसना. पूण सन-इन-लॉ आसता. सन म्हळ्यार चलो, लॉ म्हळ्यार कायदो. पुराय अर्थ: 'कायद्यांत घुस्पल्लो चलो', म्हणजेच, आमचो जांवय. विदेशांतल्या इंग्लेज भावोजीक अशें कित्याक म्हणटात हाकाय एक कारण आसा. अमेरिकन वा इंग्लेज भावोजी दिसपट्टो कायद्याच्या कचाट्यांत घुस्पल्लो आसता. पोरणे बायलेक केन्ना सोडपाची आनी नवे बायलेक केन्ना हाडपाची इतल्याच विचारांत तो मुंगरिल्लो आसता. देखून, विदेशी मेवणो म्हणजे ब्रदर-इन-लॉ म्हणजे कायद्यांत घुस्पल्लो भाव आपलो भावोजी आज कोण फाल्यां कोण हाचो विचार करिना. विदेशी भावोजीय फायचें चिंतिना. भारताचो चिंतता. देखून तो सुकुसुकून बारीक जाता.

✳

# वर्सल

प्रकाश पर्येकार



दीस फुटचे पयलींच पार्वतेन उरिल्ली दाळी ओळून काडली. आयज चार दीस जाले, पार्वती घरचीं कामां करुनय, फुरसत मेळटा तशी बारा पावलां रुंद आनी चोवीस पावलां लांबायेचीं दाळी ओळटाली. घरकार भायर पडलेल्याक पार्वतेन दसऱ्याचो बाजार केन्ना चुकयलो ना. चार सुपांचे जोड पयलींच ओळून खुटयेक लायिल्ले. आनीक एक तरी दाळी बाजाराक व्हरोंक मेळोंक जायी अशें पार्वतेक मनांतल्यान दिसतालें. पूण माथ्यार मारून कोंडे हाडप... तेचीं भेडकां करप... भेडकांच्यो कामी करप... आनी मागीर बेळां काडपाचें कामय तिकाच करचें पडटालें. पार्वतिचो एकलो एकसुरो चलो मधू – तेणेंय आतां हातभार लावपाचो सोडून दिल्लो. अशें आसलें तरी तो केन्ना बेकार रावनासलो. सकाळीं इस्कोलाक वयचें आनी सांजचो मायतो कोणायचेंय काम करून इस्कोलाचो खर्च भायले भायर सोडोवंचो.

पार्वतेन कोयतूल, सुरी, बेळां लागीं केलीं. न्हेसणार पडिल्लो चिंवर आनी सांदो फांफडिलो आनी दाळयेचो कवाळो माल्लो. सोलिल्ले केळिचे कांडयें भशेन धवी फुल्ल दिसपी ती दाळी पार्वतेन उखल्ली आ हाडून दवरली.

चार-पांच वर्सां पयलीं सरकारान बांदून दिल्ल्या ह्या दोन मातये घराक, मदींच आच्यापार वण्टीक भेग पडल्या. ते भेगेंतल्यान घरांत पाझरतालीं. पार्वतेक ही भेग परत-परत नदरेक पडटा. मात ही भेग भरून काडूंक जायी म्हणपाचें पार्वती थरयता पूण हेर की तिका फुरसतूच मेळना. आयज हें काम करुंकच जाय अशें म थारोवन पार्वती बद्द चुली कडेन गेली. चुलिचे मांडयेर आशिल्ल्या तोपांत तिणें पळयलें. 'पोरग्यांनी आयज घोंटभर परक्यां च्या ना.' पार्वतेन पेलोभर उदक घालून तोप चुलीर दवरलो. कोलत्य उजो पेटयलो. इतल्यान भायल्यान कोणतरी तिका उलो घालूंक 'तिळगो भावडी कियाक येयला काय ?' कानार शब्द पडना फुडे आवाज वळखलो. ती बेगी-बेगीन भायर येयली. तिचो अदमास खरो

थे पळयल्यार तिळगो भावडी धोलूक घेवन आंगणांत उबो!
वां बस.'
गा... वयतां... धोलूंक दिवंक येयल्लों. ह्या दसऱ्यान तुमची वर्सल...'
ावडीन धोलूक आनी कुडप पडवेर दवरलें. तो वचपाक वळ्ळो.
ात्रें पाणी तरी वांयच घेवन चल.'
ग्तां. कोंड्याच्यो खाटयो तरी चार मेळटा जाल्यार बगतां' अशें
ग्गें पावलां उखल्लीं.
नीं पार्वतेन धोलक्या वयल्यान हात भोंवडायलो. अनू वर्सा पोटाक
नचवथिचे आनी शिगम्याचे परबेक घरान-घर भोंवतकच शंबर-देडशें
चेबोंडके घरांत पडटले. मळणे दिसा खळ्यार गेल्यार खांडी-देड
त गावतलें. हांगा-थंय मेळोन पायली भर तांदळांक भंय ना.
श्च हातींत पडटले. अनू चार आयदनां करूंक वगत मेळटलो.
चार पैशे गांठीक मारूंक मेळटले. पार्वती मनांतल्या-मनांत
वर्सलेची उमेद तिच्या शिरंतरांनी फांकली. बेळांचो चिंवर वाऱ्याचेर
तशें तिचें मन वाऱ्यार भुरभुरलें... तिणें कोंत केलें. लगीन जाल्लें
आयज परक्या चार वर्सली आपल्या वांट्याक येयल्यात. त्या
ाकडचेच आटोभर तांदूळ मागची पाळी येवंक ना. आनी दुकानाचेर
रची पडोंक ना. ह्या सुखयाळ्या चिंतनांनी घुसपतां घुसपतां च्या
ासा म्हणपाचें तिचे तकलेंतलेंच गेलें. पार्वतेक च्यायेचो उगडास
ी ती भितर धांवली. पळयल्यार, तोपांतलें उदक सुकून गेल्लें.
ायशी च्या तोंपांत सळसळटाली. 'शिरें पडोन हाडूं ह्या उगडासाक.
ल्या घेयना जाल्यार पार्वतेच्या पोटांत बेश्टेंच उमळोन येयल्ल्या
ता. पेलोभर उदक ओतून पार्वतेन च्यायेचो तोप परत चुलीर
आनी च्या करून घेतली.
ं मंगल आनी मधू दोगांय इस्कोला सावन घरा परतलीं. जेवन
मंगलान आवयक विचारलें,
, हें धोलूक कोणाचें गे?'
कां अनू वर्सल येयल्या. सकाळीं तिळग्या भावडीन हाडून पायलां

जोवन बगूं?'
खंयचे कडलें. चेडवां मनश्यां धोलूक वाजयनात.'
वाजोवचेलें तर तें?'
भाईन वाजोवचेलें. अनू तुजो भाई गांवांत वाजाप घालतलो.'
! मी बी भाई वांगडा वाजयता थंय वयतलें.'
न अशें म्हणना फुडें पार्वतेक आपल्या घरकाराचो उगडास येयलो.
ासलो तेन्ना असोच मधू तेच्या वांगडा वचपाक हट्ट धरतालो.
रान-घर भोंवतना फाटलग सोडी नासलो.
अनू तियां आनी तुजो भाई पराब एकठांय करूंक चलात. परबेक
टात ते तुमकां दोगांयकय' अशें म्हणनाफुडें मंगलाच्या वोंठार
लो. तें बेश्टेंच हांगा-थंय पिसोळें कशें नाचपाक लागलें.
चल आनी भाईक आपोन हाड.' मधू जेवचे-जेवन घरांतलो
रेल्लो. मंगल उमेदीन ताका सोदपाक रुमरुमीत धांवलें. कांय
येयलो.
गे आवय?' आंगणा पलतडीं आसतनाच मधून आवयक उलो
ारलें.
यो काय सांगतां...'
तें?'
तरी यो...' मधू पडवेर येयलो.
दसरो, अनू वर्सल आमकां येयल्या. दसऱ्याक देवळा कडेन
लूंक जायें. तिळग्या भावडीन धोलून हाडून पावयलां. आनी
आयक, खुटयेक आसा तें धोलूक व्हर आनी येश्या दादाकडच्यान ओडून
घेवन यो.' आवयन सांगलां तितलेंय मधून कान दिवन आयकलें. पूण
तेणी हूं न्हूं सूं केलें ना. तो मोनेळ पांगरून आंगणांत खूंट कसो उबो
रावलो.
'वचाना रेऽऽ? मगेर केन्ना वयतलय? फाल्यांचो एक दीस मदीं आसा.'
'म्हाका तसलें कांय सांगों नाका बगया...'
'सांगों नाका! अनू वर्सल कोण वाजयतलो तर?'
'मी वाजोवंचोंना... आणकी कोणाकय सांग.'
'तुज्या बगर आणकी कोण वाजयतलो? तुजो बापूय आसल्यार तुका
कित्याक बाबा-पुता करतलें आसलें?'
'तूं आणकी कसलेंय काम सांग. पूण धोलूक अशें मी गळ्यांत घालचोंना.'
'तशें म्हणों नाका. चार नाल्लाचे बोंडके घरांत पडटले. दाणो-गोटो
मेळटलो. चार दीस सुखान दोन घांस खावंक मेळटले... आनी गांवकार
आमकां खेपतले...'
'मारता जाल्यार मारुंदी बोब आमच्या नांवान... मी धोलक्यार कुडाप
मारचोना', मधू चड वगत आवय वांगडा उलोवंक रावलो ना. घराच्या
कुशिच्यान मळाकडेन गेल्ले वाटेन तो चलत रावलो.
खाणयाचो कवळून कवाळो करचो तसो पार्वतेन आपल्या आंगाचो कवाळो
करून ती गणसल्ले वरी जावन सकयल बसली. तिका आतां कांयच
येवजना जालें. तकली भेरेल्ले भशेन जाली. कोण-तरी आपल्या आंगाचीं
बेळां काडटा असो तिका भास जालो.
'आतां कशें जातलें...' पार्वती सुस्कारली. परवां दसरो. कोणाकय
बाबा-पुता केल्यार हे फावटीक वाजाप घालीत. पूण फुडें वर्सभर कशें
जातलें? ना, अशें जावंक उपकारना. मधूक वर्सल वाजोवंचीच पडटली.
पार्वती कश्टान उठली. खुटयेक लायलेलें धोलूक घेवन येश्यादादागेर
गेली. येसोदादा पडवेर बसून बेळां तासतालो.
'काय गो, धोलूक घेवन हिगडे खडे?'
'अनू आमची वर्सल न्हू? धोलूक मात्सां ओडून दी बगया.'
'मधूक ओडूंक कळाना काय गो? येदो मोठो घोडो कसो वाडला...'
'तेका सांग कराम माजें. असलें वळाणच ना तेका.'
'वळाण ना? वळाण लावंक जायें.'
'पोराचेर कोण बसला कोण जाणा. धोलक्याक हात लावंकच तयार
ना. वर्सल वाजयतय मरे म्हणोन विचारल्यार आपूण ना तो ना म्हणटा.
तियां तरी तेका सांगोन बग.'
'माजें आतां कोण आयकाता... मेळ्ळो जाल्यार म्हण्टां.' येशादादान
बसला थंयच धोलून ओडून दिलें. धोलक्यार हात मारून पळयलो. धोलकें
सणसणलें... पार्वतेन वगत केलो ना. धोलकें घेवन बद्द घरा गेली. आनी
धोलकें आसलें तशें खुटयेक हुमकळ्ळें.
पार्वतेन बाजारांतसून हाडिल्ल्या वेपाराची पोती सोडयली. शेवाच्यो
ल्हान दोन पिशव्यो काडून मंगलाक आनी मधूक दिल्यो. पोतयेंतलो वेपार
तिणें वेग-वेगळो काडलो आनी पोती फांफुडली. मधू पांय दोनूय वटेन
उडोवन बाकट्यार बसून पुस्तक वाचतालो. अनू तो बारावेक. न चुकतां
नेमान अभ्यास करता. तेचे वांगडा मंगलय पुस्तकां हेवटेन-तेवटेन परतिता.
पार्वती उठली आनी मधू म्हऱ्यांत गेली.
'बाबू, वर्सल वाजयता मरे?' पार्वतेच्या उतरांनी खंतिची वलसाण
आसली. मधून पुस्तकावयली नदर भायर काडली. आवयक खिणभर
नियाळ्ळी आनी आसलो तसो तो पुस्तक वाचूंक लागलो.
'बाबू, अशें करूं नाका. आमच्या हक्काची वर्सल कामयची हातींतली
वयतली. ती परत मेळचिना.'
'वर्सल मेळाना जाल्यार काय जातलें?'

कातोत्ता ?'

पेद्रू फिलीप मोवाळ हांसलो. आल्तारावयल्या जेजूकडें बोट दाखयत ताणें म्हळें, 'तो व्होड. संवसार तेणें रचला... तो रचणार मुनश्यांचोय, तो मुखेली भागेवंतांचो, तो मुखेली आमचो, पातक्यांचोय... तो मुखेली समेस्तांचो.' पेद्रू-फिलीप कितें उलयता हें सारकें समजूं नाशिल्ल्यान घुस्पल्ल्या रेजिदोराक फुडले प्रस्नच येवजना जाले.

पेद्रू-फिलीपान दिमी मारली आनी छातयेर खुरीस केलो. 'तो व्होड... तो देव. हांव तेका रेस्पेद दितां. तूं गांवचो मुखेल... हांव तुकाय रेस्पेद दितां... तेका जेन्ना संवसारांत येवचें पडलें तेन्ना आंकवार मोरयेन तेका आपल्या कुसव्यांत जागो दिलो. म्हाका तुज्या गांवांत रावोन दिसल्यार, त्याच जेजूचे मायेन तूं म्हाका हांगा वेंतभर सुवात दिवचो ना ?'

आपूण खंयतरी खोल रानांत शेणलां अशें रेजिदोराक दिसूंक लागलें. पेंवपाक म्हणून झेतान वचचें आनी साळकिणिंनी घुसपून उरचें अशी ताची गत्त जाली. कितें तरी उलोवचें म्हणून तो उतरां सोदतालो, तेन्नाच पेद्रू-फिलीपान म्हळें, 'गुन्यांव जाला जायत जाल्यार सायबान म्हाका व्होड मनान भोगसुचें. हांव ह्या गांवांत चड तेंप रावचोंना.'

'चड तेंप मुणचे ?'

'सायबा, म्हुजी आतांची पिराय पोन्नास आनी आठ वर्सां. मुनीस आनी कितलो तेंप तिगत ?'

रेजिदोर घुस्पलो. जेजूचे मुर्तीक पळेत ताणें विचारलें, 'ती मूर्त तुंवेंच कोंरायल्या मू ?'

'हय.'

'तूं एक फिशाल कारागीर हातूंत दुबाव ना. तुंवें ह्या गांवांत रावोप म्हुटल्यार ह्या गांवचो भौमान. तुंवें हिंगा रावों येता. पूण तुका एक काम कोरचें पडटलें. ते मुर्ती सारकीच एक मूर्त तुंवें म्हाका कोंरावन दिवची पडटली.'

'रागार जाय नाका सिंयोर, हांव हिंगा येयलां तो एक सोपूत पुराय करूंक.'

'सोपूत ?'

'हय, सोपूत. मुजे घरकान्नीक जिवी करपाचो सोपूत.'

रेजिदोरासयत सगळे काचाबूल जावन एकामेकांक पळोवंक लागले.

'आनी तो सोपूत पुरो केलेबगर हांव दुसरें काम करूंक शकना. देखूनच हांव असो गांवासावन पयस रानांत रावोंक येयलां.'

'तूं कितें उलयता तें म्हाका सारकें कोवलें ना.' रेजिदोर मात्सो नेव्हॉज जाल्लो.

'सिंयोर, हांव पुर्तुगेज. हांव म्हुजे घरकान्नी सांगातान गोंयचे भोंवडेक येयलेलों. गोंय पळोवन जातकीर आमी पोर्तुगालाक प्रत वचपाचीं आसलीं, पूण हिंगा येवन कांय तेंपान म्हुजी घरकान्न दुयेंत पडली आनी वैज वखद करतां करतां तिणें संवसार सोडलो. तुमी जाणात, म्हुजी बायल पोन्नास वर्सांचे पिरायेर लेगीत सोबीत दिसताली. तिचो हे गोंयचे भुंयेर इंतेर जाला. तिका हिंगा सोडून हांव पोर्तुगालाक वचोन मरोंक सोदिना. म्हजोय इंतेर हेच भुंयेर जावचो, अशी म्हजी इत्सा. हांव एक कारागीर. म्हुज्या हाताचे कळाशेन हांवें व्होडल्या व्होडल्या मनशांच्यो मुर्ती कोंरावन तांकां जिवे करून दवरल्यात. म्हुजे मोगाळ सोबीत बायलेची मूर्त कोंरावन दवरिना, जाल्यार, हांव तिका ह्या संवसारांत जिवी करून दवरिना जाल्यार म्हजी कारागिरी म्हाका मरोंक दिवची ना. ते पासोत हांवें सोपून घेवन थारायलां, म्हुजे बायलेक जिवी केलेबगर हांव हेर कोणालेंच काम हातांत घेवचों ना.'

कांय खीण तो उलोवपाचो थांबलो. ताणें उस्कार गिळ्ळो आनी म्हटलें, 'म्हाका गुन्यांव भोगोस सिंयोर. तुमकां जाय जाल्यार तुमच्यांनी ही मूर्त व्होरूं येता. जेजू म्हुज्या काळजांत आसा. म्हुजे बायलेची मूर्त जातकच जाय जाल्यार हांव तुमकां दुसरी मूर्त कोंरावन दीन... पूण सोपूत म्हाका मोडूंक लायनाका.'

ताणें आल्तारावयली जेजूची मूर्त उबारून रेजिदोराक दिली. खोशी जावन परतलो.

पेद्रू-फिलीप नेटान आनी पासियेंसान कामाक लागलो. आपले बा... मूर्त खंयच कुसभरय उणी पडूंक जायना हाची तो सादुरतायेन ... घेतालो. जेवणाखाणाचेर ताचें सारकें लक्ष नासलें. गरजेचें सामान ... तिट्यार माल्लेली पासय सोडून तो हेरकडेन खंयच भोंवय नासलें.

एके रातीकडेन उसरां काकाड्याच्या उजवाडांत काम करत... ताच्या दोळ्यांत आळसाय भरली. ताका खूब पुरो जाल्ले भाशेन ... लागलें. न्हिदेचे लकणेन आपलें विन्नें खंयचे खंय बसत आनी मू... म्हूण तो उठलो. न्हिदपा खातीर तो काकाडो पालोवंक वतालो ... कोणेंतरी ताच्या दारार मारलें. पेद्रू फिलीप कांचवेलो. 'कोण का... रातचो ?' ताणें दार काडलें. गांवचे दोग मनीस दारांत उबे आस... तुमी ? आनी येदे रातचे म्हज्या दारांत कित्याक ?...'

'आमी गांवांतल्यान येयल्यात. आमकां रेजिदोरान तुजेलागीं ध... आयज आमोरेचेर मिंगेलीन मेलो. मिंगेलीन गांवचो थवय. तो ... करी. ताचेलागीं एकय पुराय केल्लो काश्यांव ना. एक अर्दकुटो ... आसा. फाल्यां इंतेर तेचो. गांवांत थवयाचें काम जाणार आ... ना. ताचो अर्दकुटो काश्यांव तुंवेन पुराय करून दिवचो अशें ... मागलां.'

पेद्रू फिलीपान एक व्हड उस्कार सोडलो. दोनूय हात वय... आनी मळबाकडेन पळेत म्हणूंक लागलो, 'म्हुज्या देवा, भोगोर ... पातक्यांक. काश्यांवकाराक काश्यांव ना!' परत उस्कारून तो ... बसलो. आपूण आतां जबर थकलां अशें ताका दिसूंक लागलें. ... चितनांत बुडलो. 'काश्यांव... मनशाची मेले उपरान्तची गरज... ... काम करून मेले उपरान्त एक काश्यांव मेळना. काकूट मनशाची... ... समाजाची गरज... देवाचें काम !... देवाचें काम हांव कशें न्हयकार... पूण म्हजो सोपूत कसो मोडूं हांव ?'

'सायबा... भोगोस म्हाका. म्हुजे सोंपलेले बायले, भोगोस म्हा... बायलेच्या सर्गेस्त आत्म्या, भोगोस म्हाका.' ताणें दोन मिनटां ... आपल्या वावराचेर एक नदर भोंवडायली आनी म्हटलें, 'म्हजो ह... वावर सोडून म्हुज्यान येवं नेजो. तुमी एक करात, तो अर्दकुटो ... हिंगा घेवन येयात. हांव तुमकां तो पुराय करून दितां.'

काश्यांव घडयतां घडयतां पेद्रू-फिलीपाच्या मनांत विचार घोळूं... आपणें इतली कारागिरी केली, कितल्या लोकांक मदेर करून... कितल्यो जिनसा भासांच्यो मुर्त्यो कोंरावन दिल्यो. पूण फाल्यां ... जाल्यार म्हुजे खातीर कोण काश्यांव घडयत ? आनी ताणें ... 'हो काश्यांव घडयले उपरांत वगत मेळटा तसो आनीक एक ... घडोवन दवरपाचो... म्हुजे खातीर.'

मिंगेलीना खातीर काश्यांव दिले उपरान्त ताणें आनीक एक ... घडयलो. त्या काश्यांवाकडेन पळेतना ताच्या मनांत एक विचा... 'जाणा जावन आपलो काश्यांव आपूणच घडोवपी हांव संवसारांत ... मनीस आसन काय ?' एक निर्शेल्लो हांसो ताच्या ओंठांच्या कोन... रडत गेलो.

पेद्रू फिलीपान निश्चेव केलो. आतां ही मूर्त जाता तितले बेगी... जाय. तो अदीक नेटान कामाक लागलो. काम करतां करतां ता... मात्शी घुंवळ्ळे भाशेन जाली आनी तो पडलो. थंयच ताका न्ही...

दुसऱ्या दिसा कांय लोकांनी ताका हालोवन जागो केलो ...

काम करतना आपणाक घुंवळ आयिल्ल्याची ताका याद जाली. का सांगलें, 'गांवांत आनीक एक मनीस मेला. ताचेखातीर काश्यांव जाय.'

दुस्याक कोणाक आयलेलें मरण आपणाकच कित्याक आयलें ना!' त विचार आयलो आनी ताचें लक्ष मुर्तेकडेन गेलें. ती आजून क नासली. ती मूर्त पुराय जालेबगर आपणाक मरण येवचें पटलें. पेद्रू फिलीपान आपणाखातीर घडयल्लो काश्यांव त्या लो. आपणाखातीर दुसरो काश्यांव घडयलो आनी परतोय तो वराक लागलो.

तें सदचेंच जालें. रोगाची धाम आयिल्ले भशेन लोक न्यान मरपाक लागले आनी पेद्रू फिलीपाक आपणाखातीर काश्यांव दीत रावचें पडलें. ताका प्रस्न पडलो, आपूण आपणा श्यांव घडयतां म्हूण लोकांक मरण येना मू? काश्यांव दिना सो म्हणटलो असलो, आनी मुर्तय पुराय जायनासली.

जिदोराक सांगणें धाडलें. 'हांव आतां खूब थकलां. म्हज्यान यांव करपाचें काम तोलपाचें ना. तूं कोणूय एक भुरगो आधाराक हांव ताका हें काम शिकयतां.'

दुसऱ्याच दिसा पेद्रू फिलीपाच्या दारांत एक काळो कुळकुळीत लोटान घटमूट असो १२-१३ वर्सांचो भुरगो येवन उबो रावलो.

बाब तूं?'

नास. रेजिदोरालो सेर्वेंत.'

हांगा काम करूंक धाडला?'

लीपाक जीव ल्हव जाल्ले भाशेन दिसलो. ताणें ताका भितर यलो आनी ताका कांय फळां खावंक दिलीं. मागीर लाकडां पाचीं तें ताका समजावन सांगलें आनी भायलीं कांय लाकडां सांगून तो मुर्ती फुड्यान बसलो. आपणाल्या कामांत तो इतको लो की तिनसान केन्ना जाली हें ताका कळ्ळेंच ना. तो उठून लो. इनास भायर नासलो. ताणें कपलार हात मारलो. आनी कडां चिरूंक बसलो.

र इनास आयलो तेन्ना ताच्या हातांतली बडी पळोवन पेद्रू फिलीपाक रानांत हेडूंक गेल्लो. हेडपाचेच दीस ताचे, ताचो गुन्यांव करून हें तो वळखलो. ताणें इनासाक पेज करूंक सांगली आनी पेटोवन आपूण मुर्तिच्या वावराक लागलो.

ल्हवू मूर्त आकार घेवंक लागली आनी ल्हवू ल्हवू इनासय लाकडां फळयो जोडूंक, किसूळ मारूंक शिकपाक लागलो. तरीय ताका त ओड दिसनासली. ताका थंय प्रेजावांत आशिल्ले वरी दिसतालें. रानांत हेडचें, आंबे तोरां फातरावचीं, काजू भिण्णां खावचीं, वांगडा न्हंयंत उडक्यो मारच्यो अशें ताका दिसतालें. केन्ना ल घुंवता तसो तो पेद्रू फिलीपाली नदर चुकोवन रानांत वतालो ण्यांवांगडा किरावन उमेद भागयतालो.

मागीर मात जाण्ट्या पेद्रू फिलीपाक एकटो सोडून वचप ताका . पेद्रू फिलीपाक हालीं तेंपार वयले वयर घुंवळ येताली आनी मिणटां तो शितिदा भायर जातालो. पेद्रू फिलीपय इनासाची करी. इनास आयलो आनी आपली मूर्त बेगीन जावंक लागली खोस जाल्ली.

ाचें सगळें काम आतां सोंपत आयिल्लें. आपले बायलेची सोबीत न पेद्रू फिलीप भोवच खोशी जालो. आतां फकत पॉलीश मारपाचें ो मुर्तीक तोखेत रावलो.

, हे मुर्ती इतलीच न्हय, हे मुर्तिच्याकय कुसभर सुबेजच सोबीत बायल केन्ना काळार ह्या संवसारांत आसली हे गजालीर तुमचो विस्वास बसत?' पेद्रू फिलीपान इनासाक विचारलें.

इनासान मुर्तिचेर नदर भोंवडायली. ताच्या दोळ्यांत लक्तुबाय नासली वा तोंडार अजापय नासलें. पेद्रू फिलीपान पळेलें, इनासाच्या नाका सकयल्ली ल्हंव अजून काळी जावंक नासली. ताका आपल्याच पिशेपणाचेर हांसूंक आयलें.

'जाणां चेड्या, हे मुर्तिचेर दोन हात पालीस मारून जातोच जालें म्हुजें काम... मागीर तुज्यान परतो वचों येता.'

इनास अजापान पेद्रू फिलीपाच्या तोंडाक पळेत उरलो. ताका भितर काळजांतल्यान कितें तरी जावंक लागलें. ती खोस काय दूख हें मात ताका कळ्ळें ना.

फांतोडेर उठून कामाक लागलेल्या पेद्रू फिलीपान दीस उदेता म्हणसर पालिसाचो निमाणो हात भोंवडावन काडलो. निकतोच उठून भायर सकाळचें नितळ आनी धादोशी सैम तोखेत बसलेलो इनास रानांत वचपी गोरवांक आनी राखण्यांक पळोवपांत गुल्ल आसलो. पेद्रू फिलीपान भायर येवन ताच्या माथ्यावयल्यान मोगान हात भोंवडायलो.

'चेड्या, आयज सावन म्हजें काम सोंपलें. आतां तूं म्हाका ह्या फळयांक किसूळ मारून दी. हो काश्यांव घडोवन जाले उपरांत तूं वच; पूण पयलीं तुज्या हातची म्हाका निमणी च्याव करून दी.'

इनास भितर गेलो. पूण ताच्या मनांत मूर्त रिगून उरली. लाकडाचो लोळगोसो दिसपी ती मूर्त आयज सामकी खरीच बायलशी दिसताली. दोळे तर सामके जितेजिते दिसताले. पळयतां पळयतां इनासाक ती सामकी वळखिचीचशी दिसपाक लागली. कोण काय? कोण?? म्हुजी मांय? काय रेजिदोरालें बाय?... काय सायबीणमांय इगरजेंतली?? कोण पूण वळखिचीच.

आतां मात पेद्रू फिलीपाच्या हात कसबाचेर तो हिसपाभायर खोशी जाल्लो. पेद्रू फिलीप ताच्या मत्तान एक व्हडलो मनीस जाल्लो. पेद्रू फिलीपाक परबीं दिवंक तो तसोच ताकतिकेन भायर आयलो. पेद्रू फिलीप अर्दकुटो उरलेलो काश्यांव घडयतालो. ताका खरस मारताली. हातोडी धरलेलो ताचो हात सामको थरथरतालो.

इनासान वचून ताच्या हातांतली हातोडी काडून घेतली. 'तिपाय, तें काम हांव कोत्तां. तूं आतां सुशेग घे. तूं म्हाका दाखय, हांव घडयतां काश्यांव.'

पेद्रू फिलीपान इनासाच्या दोळ्यांत पळयलें. थंय ताका निर्मळ मोग आनी जबर आत्मविस्वास दिसलो. ताका सूऽऽ जालें. ताणें इनासाच्या कपलाचो उमो घेतलो आनी दोनूय हात मळबावटेन उबारून दिमी मारली. 'म्हुज्या देवा, तूं खरोच व्होड, संवसार तुजो, तुज्यो मिलाग्री तूं जाणां, भोगोस म्हाका.' ताणें दोळे धांपले. ते बराबर दोळ्यांत दाटलेलीं दुकां पातकड्यांतल्यान घळगळून सकल देंवलीं आनी ताच्या खाडांकेंसार थिकां कशीं लकलकूंक लागलीं. ताणें छातयेर खुरीस केलो आनी दोळे उगडले; ते बराबर सूर्याचीं किर्णां ताच्या दोळ्यांत चकचकलीं, दोळ्यां मुखार तांबडे निळे रंग नाचूंक लागले आनी इनासाक कळचे आदींच तो लवंडलो. ताका घुंवळ आयली आनी तो शितिदाभायरो जालो. इनासान ताकतिकेन ताचेर उदक मारलें, ताका हालयलो, खुनळायलो, वारें घातलें, काण्णी घातली, कितलें-कितलें केलें. पूण पेद्रू फिलीप उठलोच ना. ताचे अर्द उकते दोळे इनासाक पळेत आसले...

इनासान ताका अळंग सकयल दवरलो आनी ताणें अर्दकुटो सांडलेलो काश्यांव पुराय करपाक विन्नें हातोडी घेवन तो कामाक लागलो.



# धालो

जयंती नायक

लो हो बायलांनी मनोवपाचो एक नृत्योत्सव. गोंयांत आदिम चा चडश्या गांवांनी हो उत्सव मनयतात. गोंयाभायर कोंकण ा हेर वाठारांनीय हो उत्सव मनयतात म्हणपाची माहिती मेळटा. ाय 'धालो' आसात. इतिहासीक कारणांक लागून गोंयासाकून थळांतर केल्ल्या केरळांतल्या 'कुणबी' समाजांत 'फुगडां' ह्या यलांचो लोकनृत्य प्रकार जाता. हांतुंतलीं खुबशीं गितां गोंयच्या ा सारकींच आसात.

दारणपणान हो उत्सव पौष म्हयन्यांत मनयतात. पूण कसलेय ि लागून एखाद्या वेळार हो उत्सव मनोवपाचो उरलो जाल्यार ाय मनयतना दिसता. मात शिगम्या पयलीं धालो जावंकच जाय आसा. तरीपूण उरलोच जाल्यार मागीर 'नमन' घालपाच्या ांचो नाल्ल मांडार फोंडटात.

ह्यन्यांतल्यो खंयच्योय णव राती बायलो गांवच्या मांडार खाशेलें ात. सर्वसादारणपणान आयतार-बुधवारान ह्या उत्सवाक सुरवात त पुनवेचो उजवाड मांडार मेळटलो हाचें भान दवरिल्लें आसता. लिल्ले जिणेच्या प्रभावाक लागून बायलो णव रातिंच्या जाग्यार ी केन्ना पांचय राती खेळटना दिसतात. गांवकान्नीक वा मांडकान्नीक ंय 'अडचण' वा सुयेर-सुतक आसलें तर ती 'भश्टांतली' र गड्या नंबरान राती वाडोवन खेळिल्ल्योय पळोवंक मेळटात.

## उत्सवांतले म्हत्वाचे घटक :

ळस, खेळगड्यो, खेळ, रंभा आनी विधी हे धालांतले मुखेल

शीक कार्यावळिचो जागो वा 'मांड' होच धालांचोय मांड. हो ्यार गांवच्या गांवकाराचे वा मुखेल्याचे घरवये मुखावेलें आंगण. सुरू जालो की ह्या जाग्याक 'धालांचो मांड' म्हणटात. धालो ात त्या दिसा 'मांड दवरतात' अशें म्हणटात जाल्यार धालो त्या दिसा 'मांड उठयतात' अशें म्हणटात. मांड दवरतात त्या शेण सारोवन अनवाळो करतात. हे उपरान्त मांड उठयतासर पण जावचेंना हाची जतनाय घेवची पडटा. दुकर, कुकड वा ायलेच्या स्पर्शान वा प्रवेशान मांड भश्टता अशें मानतात. धालांच्या क खुबदां 'जल्मी', 'नास' वा गांवच्या मुळपुरसाची घुमटी वा सता.

मांडाची संकल्पना तुळशी बगर पुराय जायना. तुळशिची पुजा ळशी कडेन दिवो (माड) पेटोवनूच धालो खेळूंक सुरवात जाता. पाचे' वा मांड 'उठोवपाचे' सगळे विधी तुळशी मुखारच जातात. ज्या गितांनी देव-देवतांचीं नांवां गुंथिल्लीं आसतात तांतूंत येचें नांव अग्रेसर आसता.

### खेळ-गड्यो :

लोकजिणेंत 'नाचप' ह्या उतरापरस 'खेळप' हें उतर चड घोळणुकेंत आशिल्लें दिश्टी पडटा. ह्या नेमाक धरुनच 'धालो खेळुंया' वा 'धालो खेळटात' अशे तरेची उतरावळ वापरिल्ली दिसता. धालांच्या खेळांत वांटेकार जावपी बायलांक 'खेळ-गडयो' म्हणटात. ह्यो खेळगडयो मुखेल करून सवाशीण बायलो आसल्यो तरी आंकवार आनी रांड बायलोय ह्या खेळांत वांटो घेतात. मात रेगो बदलपाच्या वेळार रांड बायलो वोळीक रावनात. सवाशीण बायलो आयावपणाचो सगळो शिंगार करुनच मांडार भितर सरतात. धालो खेळटना तांच्या माथ्यांत फुलां जायच असो अलिखीत नेम दिसता. आबोलीं आनी पातिचीं कणसां हीं तांच्या माथ्यांत दिसपी खाशेलीं फुलां.

### खेळ :

धालांतल्यो खेळगडयो मांडार जो नाच नाचतात तो सगळो 'खेळ'. ह्या खेळाचे दोन भाग आसतात. एक मुखेल भाग, जातूंत फकत 'नृत्य' आसता जाल्यार दुसऱ्या भागांत 'नाट्य' चड आसता आनी नृत्य कमी आसता. धालांच्या खेळाचें सादरीकरण अशें आसता :

काळोख पडलो तश्यो बायलो मांडार जमतात. एकामेकांच्या कमराक हातांचे विळखे घालून दोन 'रेगो' तयार करतात. ह्या रेगांक 'फांतयो' वा 'वोळी' अशेंय म्हणटात. खंयचे वोळीक कोणें रावपाचें हें थारिल्लें आसता. एके वोळिचे खेळगडयेन दुसरे वोळीक उबें रावूंक जायना असो नेम आसता. दोनय रेगो मांडाच्या दोन तोंकाक एकामेकांक फुडो करून उब्यो रावतात. खेळाक सुरवात जाली तशी पयली वोळ (थारिल्ली आसता) नाचत-गायत दुसरे म्हऱ्यांत येता आनी आयिल्ली तशीच परती वचून आपल्या जाग्यार उबी रावता. दुसरी वोळ पयलेच्या गिताचें कडवें पुराय करीत तिचेसारकीच नाचत येता आनी परती वता. धालो नाचांत हातांच्यो हालचाली चड जायनात. पांय आनी मान हांच्या हालचालिंचेर सगळो नाच आदारिल्लो आसता. मात कसलेंच वाद्य नासता. हांतुंतय वेग-वेगळे प्रकार आसतात : (१) एका प्रकारांत एक वोळ सरळ चलत दुसरे म्हऱ्यांत येता. कांय खीण उबी रावन मान धोलयता आनी परती आपल्या जाग्यार वता. जर गितांचें कडवें पुराय जालें ना जाल्यार आपल्या जाग्यारच उबें रावन मानो धोलयत तें गायता. [गीत : श्री धालो रे धालो] दुसऱ्या प्रकारांत उजवो-दावो अशे पांय वयर उबारीत, तालांत 'पावल्यो' घालीत एक वोळ दुसरे म्हऱ्यांत वता आनी मागीर सरळ पावलांनी चलत फाटीं परतता. [गीत : तळयांतली दाणय]. तिसऱ्या प्रकारांत बायलो कमराचे विळखे सोडून एकामेकांच्या हातांच्या बोटांत बोटां गुंथतात आनी वेगान पूण तालांत धांवत मुठी जोकिल्लेवरी करीत दुसरे वोळी म्हऱ्यांत येतात आनी वेगान फाटीं परततात. [गीत : अणसां काय धोणसां.]

धालांचो हो मुखेल नाच. हो नाचले उपरांत 'नाच' प्रकारांत मोडपी 'फुगडी' नांवाचो प्रकार बायलो खेळटात. वांटकुळ्यो उब्यो रावन हातांच्यो ताळयो पेटीत बायलो हो नाच नाचतात. ह्या नाचांत पांय आनी कमर ह्या दोनय भागांच्यो हालचाली वेगान जातात. हांतुंतय सादी फुगडी, भोंवरी फुगडी, दोट्टी फुगडी, जोडी फुगडी, बेबकी फुगडी, लग्न फुगडी बी वेग-वेगळे प्रकार आसतात. हे चडशे प्रकार बायलो धालांच्या मांडार सादर करतात.

धालांचो मुखेल नाच आनी फुगडेचे प्रकार सादर केले उपरांत बायलो जो खेळ खेळटात तांतूंत 'नाट्य' चड आस्पाविल्लें आसता. आदिम समाजवेवस्थेंत म्हत्वाचें स्थान आशिल्ल्या गजालिंची बायलो मांडार 'नक्कल' करतात. हांतूंत १) मोरुलो, २) मोर-पारदी, ३) घोणचें पील, ४) दातें, ५) न्हवऱ्याची मिरवणूक (बलांव), ६) लग्न-बाळ, ७) आदनी-दुदनी, ८) मडक्यो (कुमार), ९) भात सुकत घालप, १०) भावोजी, ११) गणसाबैल, १३) पिंगळी, १४) कांस बी प्रकार आस्पावतात. आदल्या काळार हे प्रकार दर दिसा सादर करताले. आज चडशे कडेन निमण्या दिसाच करतात.

धालांचो नाच आनी हेर खेळप्रकार, दोनय सादर करतना खंयचीं गितां गावपाचीं तीं थारायिल्लीं आसतात. नक्कल खेळप्रकारांत काव्य कमी आनी हास्य चड आसता. बडबड-गीत प्रकारांत मोडपासारकीं हीं गितां भासतात. धालो सुरू करतना अमकें गीत, रंभाक येवपाक होरवपाखातीर अमकें गीत, रंभा येवन वतकच अमकें गीत बी असो नेम थारिल्लो आसता. मदल्या कांय गितांक क्रम नासता. तुळशीमाया, धर्तरीमाया, सांतेरमाया, खुंटीमाया, रंभामाया अशा देवतांचीं जाल्यार म्हादेव, भैरांव, पायकनास अशा देवांचीं नांवां ह्या गितांनी गुंथिल्लीं आसतात. भोंवतणचीं झाडां, पानां, फुलां, फळां, पावस अशा सैमीक गजालिंच्या वर्णनांनीच हीं गितां भरिल्लीं दिसतात. ह्या गितांनी काव्य भरून वोतता. आधुनीक काव्यशास्त्राच्या नेमाप्रमाण 'पुनरावृत्ती' हो काव्याचो दोश मानतात. पूण हो दोशच लोकवेदाचो गुणधर्म थारला. धालो गितांनी हाचो चड प्रत्यय येता. धालांतल्या गितांनी जी पुनरावत्ती आसा ती गोंयच्या हेर खंयच्याय लोकगीत प्रकारांत दिसना. जायत्या गितांनी सर्वसादारण वर्णन एकूच आसता. पूण भितरल्या देव-देवतांचीं, फुलां-फळांचीं वा जाती-मनशांचीं नांवां बदलून तें गीत जाय तितलें मुखार व्हेल्लें दिसता. कांय वेळार, गीत धांवडावपाचें आसल्यार थोडींच वा पांचच नांवां घेवन 'सर्वयांक' म्हणिल्लें दिसता.

## रंभा :

रंभा म्हळ्यार अतिमानवी शक्तिच्यो स्त्रीदेवता. धालांमांडार त्यो 'कुमारिका' म्हळ्यार अजून न्हाण आयलेंना अशा चलयांच्या आंगांत, तशेंच शेंस घाल्ले बायलेच्या आंगांत अवतरतात. हालींसराक लग्न जाल्ल्या सवाशीण बायलांच्याय आंगांत रंभा आयिल्ल्यो पळोवंक मेळटात. जितल्यो राती धालो खेळटात तितल्याय रातिंनी रंभा येवपाच्यो आसतात. मात आज खूब कडेन फकत निमणे रातीच रंभा येतना दिसतात. मध्याने रातीं, सारक्या बारा वरांचेर मांडार तांचें आगमन जाता. रंभांक होरावपाखातीर कांय खाशेलीं गितां आसतात. तीं म्हणटकीर रंभा अवतरतात. म्हणजे, वोळीक आशिल्ल्यो वा वोळी भायर आशिल्ल्योय बायलो/चलयो खुंदूंक लागतात. रंभा सगळ्यो एकवीस. (कांयकडेन सातय आसतात.) हांतली एक 'वडील भयण' आसता. ती सगळ्यांत आदीं मांडार अवतरता. मागीर हेर भयणी. ह्या रंभांचो एक 'बंधव' आसता. ताचें नांव 'पुंडलीक'. एका दादल्या मनशाचेर हो 'भार' येता. 'भयणी' मांडार येवन ताका सांद घालतात.

'पुंडलिका म्हाज्या बंधवा रे, बंधवा रे
झडान झड तुवें येवंचो रे, येवंचो रे'

अशें गायतात. रंभा येवंक लागल्यो तश्यो जमिल्ल्यो बायलो नाच थांबयतात आनी एका कोनशाक उब्यो रावन रंभांक संबंदीत गायन सुरू करतात. तांकां गितांतल्यान येवकार-बसकार दितात. तांची व्हॉट-शेंसर भरतात. पुंडलीक येवपाक वेळ जाल्यार ताका होरायतात, तो येतकच ताचो बसकार करतात.

देखीक: सुरवातेक रंभांक उलो मारतना, वा त्यो उब्यो जावपाखातीर म्हणटात :

'बत्तीस पावणे, तेत्तीस सरहद
देवोनी आल्यो रंभा बायो गे
देवोनी आल्यो रंभा बायो.

देवोनी आल्यो रंभा बायो गे,
तुमी कशाने वळखल्यो गे,
तुमी कशाने वळखल्यो ?

पांयांशी पद्धमा, हाताशी झारी
कपली चंद्र, तेणी वळखल्यो
आमी रंभा बायो गे.

तळयेचें उदक थंड शितळ
थंय न्हावंच्यो त्यो रंभा बायो गे,
थंय न्हावंच्यो त्यो रंभा बायो मू.'

बंधवाक म्हणजे पुंडलीकाक येवपाक वेळ जाल्यार रंभा ताका इकळापून साद घालतात.

'पुंडलीका म्हाज्या बंधवा रै, बंधवा रे,
फाटीं आनी तूं कसो वोडलोच रे, वोडलोच रे.'

मागीर पुंडलीकय तितलेच आतुरतेन मांडार अवतरता. रंभांच्या 'ओ' दीत खुदूंक लागता.

ह्या वेळार खेळगडयो गायतात :

एकवीस / सात जाणी रंभा गे ह्यो
काड दारिच्यो खिळयो गे ह्यो
काड दारिच्यो खिळया.

दुरी साकून बंधव आले
तेका बसूं घालूं कायी गे बायी,
तेका बसूं घालूं कायी.

बसूंक घालूं तुमची बाज्ज गे ही
तेच्या मुंडाशा लांबचे गोंड गे,
तेच्या मुंडाशा लांबचे गोंड.

रंभा-पुंडलीकाची ती आर्तता-विव्हलता पळोवन मांडार जमिल काळजां हालतात. भंय आनी आदर मिश्रीत एक किण्णाटो ह्य मांडार पातळटा. ज्या बायलांचेर रंभांचो, वा ज्या दादल्याचेर भार येता ताका त्या वेळार भोंवतणच्या मानवी अस्तित्वाचें भान तीं आंगातले ते अतिमानवी शक्तेकडेन एकरूप जाल्लीं दिसता दोळे धांपिल्ले आसतात. गडबडा करून तीं जमनीर आडवीं-उदारीं ल लोळटना तीं आपल्या दोन हातांच्या बोटांत बोटां गुंथून सोरपा माथ्यार धरिल्ले वरी धरतात. ते अवस्थेंत मांडाच्या ह्या तोंका त्या तोंका मेरेन तांकां लोळटना पळोवन नागनृत्याचो आभास जाता. आयलो तसो सगळीं जाणां ताच्या आंगार लोळणी घेतात.

वडिल भयण 'नागावंत'. ती मांडार अवतरली तशी

'कुंकमावंती म्हाज्या भयणी गो, भयणी गो,
कांदळावंती म्हाज्या भयणी गो, भयणी गो,
झडान झड भयणी येवंची गो, येवंची गो,
एकवीस आमी भयणी गो, भयणी गो...'

ा फाटच्या विसूय भयणींक साद घालता. त्योवूय

ड़डिल म्हाज्या भयणी गो, भयणी गो'

च्या सादाक साद दीत मांडार येतात. कुंकमावंत, कांदळावंत, , चांफ्यावंत, साळकावंत, केसरावंत, सुरंगावंत, रुप्यावंत, , सत्यावंत, शेंवत्यावंत, लिंगावंत, चक्रावंत, माणकावंत, शब्दावंत, पुनावंत, इजायवंत, कामावंत, घडावंत ह्यो त्यो वीस भयणी. क्रांक साद घालतात. मागीर वडील भयण तांकां तांच्या कार्याचो करून दिता.

फाटले फुडले भयणींनो, भयणींनो गो
ायेची शेव भयणी घेवुची गो, घेवुची गो
फाटीक फाट भयणी दिवुची गो, दिवुची गो
ड़डिभर आमची महिमा गो, महिमा गो
उदकाचे आमी गुळंबे गो, गुळंबे गो
देवाच्यो आमी दावुण्यो गो, दावुण्यो गो
देवांचीं नांवां भयणी घेवुचीं गो, घेवुचीं गो.'

यणीन फाटीक फाट दियात म्हण साद घालो म्हणटकच फाटल्यो वन तिचे फाटीक फाट दितात. म्हणजे येवन तिचे फाटल्यान ून बसतात. एक लांब वोळ कशी तयार जाता. भोंकयां चलत ागीर तुळशिचे भोंवताडे काडटा. ह्या वेळार व्हडली भयण गायता :

ुंडलिका म्हाज्या बंधवा रे, बंधवा रे
ांडागुरू म्हाज्या बाप्पा रे, बाप्पा रे
धरतरे म्हाजे माये गे, माये गे
सुर्य-चंद्र म्हाज्या देवांनो रे, देवांनो रे
तेत्तीस कोटी देवांनो रे, देवांनो रे
बारा खंड देवांनो रे, देवांनो रे
साता खंड देवांनो रे, देवांनो रे
रामनाथा म्हाज्या देवांनो रे....'

देवांचीं नांवां घेत तुळशिचे णव भोंवताडे काडटात आनी मागीर डये मुखार घाल्ले बसकेर येवन बसतात. कांय कडेन व्हडली टल्या भयणींक 'देवांचीं नांवां घे' अशें म्हणचे बदला

'फाटिच्या तुमी भयणिंनो गो, भयणिंनो,
दडवंत तुमी घालुंचो गो...'

ता तेन्ना त्यो भयणी सगळ्या देवांचीं नांवां घेवन तांकां दडवंत

ा काळजांतले आर्ततेक सुरांचो साज चडिल्लो दिसता पूण बंधवाचो राच्या स्वरुपांत दिसता. एकूच उतर दोन फावटीं उच्चारत तो क्य पुराय करता. काळजांत भावनांचो सामको घुस्मट जाल्लेवरी जाल्लो दिसता. ताच्या उतरांक जरी सूर नासले तरी तीं आनी तालांत उच्चारिल्लीं दिसतात. मांडार येतकच तो वदता,

फाटले... फुडले... भयणीनो गो...
.. मायां... माया तुमी... दिवुची गो...
ांडार... येक... आमी जालींच गो.

ळींक-गळों तुमी दिवुचो गो
ांच-घटकां... थंड शितळ... सावुळे
ावुची गो...

मागीर... खुशाल... आपली वाट गांठून
आपलो... रथ... खुशाल गांठचो गो...

कितेंय... विचार... कोप आसल्यार
झडझडीत... तेंचो... विचार जावुचो गो...
माया... आपली... तेंकां दिवुची.'

ह्या वेळार जमिल्ल्यो बायलो वा गांवकान्न कितेंय प्रस्न आसल्यार रंभाक विचारतात. रंभा तांकां जापो दितात. पुंडलीक हातांत बेतकाठी घेवन 'झां ! झां !' करीत तांचे भोंवतणी उंवाळटा. सगळे प्रस्न सोंपले म्हणटकच गांवकान्न रंभांक तिबो लायता. तांचें शेंसर भरता. मागीर पुंडलीक भयणींक तांचो रथ मांडार उबो आशिल्ल्याचें सांगता. आतां भयणी परत गावंक लागतात. 'उगडिल्लीं तटां' बंद जायत म्हणून भिरांत व्यक्त करतात. ताटातुटिच्या ह्या प्रसंगार भयणीं इतलो 'बंधव' विव्हल जाता. पूण वियोगाचें, विरहाचें दुख्ख सोंसुनूय तो भयणींक वचपाची विनंती करता.

'माया म्हाजी मांडार उबी
मांडार उबो रथ नी गो
झडान झड रथ आपलो गांठुचो गो
थळान थळ आपलें गांठुचें गो
शिंवरान शिंवरा पावुचें गो.

व्हडले भयणींक आपली खंयचीय भयण रथार चडपाक चुकत म्हणून भिरांत आसता. ती सगळ्यांक पुंजायता, उलो मारता. तश्यो सगळ्यो भयणी रथार चडटात, मात एक भयण (निमाणी) तिका दडटना दिसता. तिका 'घातण' म्हण ती 'ज्यास्ती' मारता आनी जबरदस्तीन घेवन वता. मागीर एक एक पांवडो चडत आपल्या थळांत पावता. रंभांनी बत्तीस पांवडे चडले म्हणटकच बायलो कांय थारावीक गितां गायतात. रंभांचें पांवडे चडप गितांतल्यान चित्रीत करतात. देखीक :

'एक पावणो चडटा म्हणसर लांब
लांब शें, लांब लांब शें...'

बत्तिसावो पावंडो चडपाच्यो वोळी गायल्यो तश्यो रंभा जे कुडिचेर उब्यो राविल्ल्यो त्यो कुडी म्हणजे बायलो न्हिदांतल्यान उठिल्ले वरी जाग्यो जातात. आदीं व्हडले भयणिची कूड जागी जाता. ती हेर भयणिंच्यो कुडी उठल्यो नात जाल्यार मागीर तांकां तीर्थ मारून निवळायता. हे उपरांत रेगो बदलपाची कार्यावळ जाता. हे खातीर खाशेलीं गितां आसतात.

एक रेग बांदीन गे,
गणेसा देवा भेटे धाडीन
दोन रेगो बांदीन गे

---

हळडुवी वांटिली
पांवुल्यो भरिल्ल्यो
चंग परमळ घेया गे
नारी खेळाल्यो, नारी मेळाल्यो.

वच वचा कनकांनो
देवाच्या रंभांनो
हो हरीचा चेंडू तुमी हुपा गे
हो हरीचा चेंडू तुमी हुपा

---

एक भंडर घेया हो नारी
एक भंडर घेया हो नारी
एक भंडर नप्रो हो नारी
एक भंडर नप्रो हो नारी

---

हीं गितां बायलो आंगांत सामको भायर आयिल्लेवरी गायतात. शेवटाक झप्प करून एकामेकांचे वोळिचे जागे बदलतात. इतल्यान धालांचो मुखेल नाच सोंपता.

## विधी:

धालो हें फकत नृत्याच्या आस्वादनाखातीर वा मनोरंजनाखातीर केल्लें नृत्य न्हय तर ताच्या मुळाकडेन धार्मिक भावना घुस्पल्ल्यो आसतात. देखून, धालांत नृत्याक जितलें म्हत्व आसा तितलेंच हांगा विधिंकय आसा. खरें तर आदल्या काळार 'नृत्य' होच एक धर्मविधी आसतालो. उपरांत तांतुंतल्यान तालबद्ध शारिरीक हावभाव कुशीक काडून ताका 'नृत्य' आनी उरिल्ल्या गजालींक 'विधी' हें नांव पडलें. हे नदरेंतल्यान धालो उत्सवांत कांय विधी सांपडटात. धालांची सुरवात 'गंदा'चो तिबो घेवपाचे विधीन जाता. मांडार सगळ्यो बायलो जमतकच गांवकान्न तुळशी मुखार दिवो पेटयता. तुळशीक गंध-कुकूम-फुलां ओंपता आनी एक नाल्ल उखलासून दवरून कार्य बरे तरेन जावपाखातीर मागणें करता. हो नाल्ल मांड उठयतात त्या दिसा फोडपाचो आसता. उपरांत सगळ्यो सवाशिणी बायलो गंधाचो तिबो घेतात. तिबो घेता ते बायलेन दर दिसा रेगेक हाजीर आसुंकूच जाय असो संकेत आसता. तिबो घेतिल्ल्यो सवाशीण बायलोच धालांची सुरवात करतात. आरंभाचीं कांय गितां गावन जातकच रांड-आंकवार रेगेक येतात. पूण रेगो बदलतना परत तांकां भायर सरचें पडटा.

निमण्या दिसा देवाक 'उपराचो' निवेद्य दाखोवन कार्यावळ सुरू करतात. कांयकडेन धालो सोंपतकच 'पिंगळी' दारांनी भोंवन तांदूळ एकठांय करता आनी मागीर ते एकठायिल्ले तांदूळ रांदून तांचो निवेद्य देवाक दाखयतात. नृत्य-नाट्याचे सगळे खेळ सोंपले उपरांत मांडार शेण कालोवपाचो विधी जाता. ते आदीं कांयकडेन बायलो दिमीय घेतात. उपरांत गांवकान्न तुळशीमुखार शेण कालयता आनी सवाशीण बायलो, जांणी पयल्या दिसा गंधाचो तिबो घेतिल्लो त्यो त्या शेणाचो 'तिबो' घेतात. हो तिबो घेतना बायलो माथ्यांतलें फूल काडून शेणांत उडयतात. तांणी आपल्या भरतराचें (घोवाचें) ह्या वेळार नांव (उमाण्यांत) घेवंक जाय असो संकेत आसा. कांयकडेन अशे तरेन शेणाचो तिबो घेनात तर शेणा-शिताडो मांडार घालतात. सगळ्यो बायलो एक वोळ करून एका तोंकाक रावतात आनी मांडार गोबरान तीन रेगो घालून तांचेवेल्यान शेणा-शिताडो शिंपडीत पांच फावटी एका तोंकासाकून दुसऱ्या तोंका मेरेन वतात.

'शेण कायलतां, शेण कालयतां
शेणा पडला किडा रे धालो, शेणा पडला किडा

धालांच्या माथ्यार, शेणाचा काला
आयच्यान धालो सोंपोवया रे, आयच्यान धालो सोंपोवया.'

अशें म्हणून 'खेमगळो' घेवन धालो सोंपयतात.

## धालांची व्युत्पत्ती:

'धालो' हें उतर मूळ मुंडारी भाशेंतलें आसून ताचो अर्थ वाऱ्याच्या झोताचेर धोलप असो जाता, अशें मत श्री. अनंत धुमे (गोमंतकाची प्रतिमा – ।, पृ. ११) हांणी मांडलां. धालो नाच पळयतना तांणी दिल्ल खरेपण होलमता. धालांचो मुखेल नाच नाचतना बायलो, वाऱ्याच्य शेतांत 'थाम' जशे हे वाटेन ते वाटेन धोलतात तेच परीन आप धोलयतात.

'कोल' ही गोंयांत वसाहत करपी दुसरी शबरवंशीय [प्रोटो ऑ जमात शेंकड्यांनी वर्सां आदीं मध्यप्रदेशांतल्या छोटा ना वाठारांतल्यान सकयल देंवत देंवत गोंयात पावली. हे जमातीन ह संस्कृतीक मुल्यांनी हे मातयेंत मुळां धरलीं आनी मुखावेल्या का जपणूक जाली अशें मत श्री. अनंत धुमे हांणी गोंयचो सांस्कृतीक बरयतना मांडलां. ह्या कोलांच्या मूळ थळार 'मागे परब' नांव दिसांचो उत्सव पिकेची खोशी मनोवपाखातीर पौष म्हयन्यांत जात तांचेकडेन एक नृत्यप्रकार मेळटा, जातूंत बायलो हातांत हात वर्तुळाकार उब्यो रावतात आनी नाच करतात. फकत एक दाद उबो रावन वाद्यांचो ताल दिता. ह्या नृत्याक थंय 'धालो' म्हणन वेगळें नांव आसा. तशेंच तांचेकडेन 'नागेबोंगा' वा 'नागीर भातां-शेतांनी, गल्लां-झोंपांनी, न्हंयां-व्हाळांनी आनी तळयेचे देगेर करपी देवता, 'चुरांग-बोंगा' ही गुरवारपणांत मेल्ले तिचे सखये र 'मांडार' नृत्य करपी बायलांच्या कुडिंचेर उबी जाता, असो प्रका अशीय तांणी माहिती दिल्या आनी ह्या प्रकाराक गोंयांत रंभा अशेंय म्हळां. तशेंच, मूळ थळांतलें नृत्य आनी गोंयच्यो 'धालो' सादरीकरणांत जो फरक आसा तो थंयची कोल जमात हांगा उपरांत घडला आसूंक जाय अशेंय मत तांणी उकतायलां. कोलांचीं सांस्कृतिक मुल्यां आपल्या उदरांत रुजयिल्ले गोंयचे मातयेन ब खाशेलें नृत्यय रुजयलें, जाचें काळांतरान स्वरूप बदलून ताका 'धालो' हें रूप फावो जालें हें तांचें मत. ह्या मताकडेन पुराय अभ्यास सहमत जावप शक्य ना पूण गोंयांत धालो, कातयो आनी दिंन तीन लोकनृत्यांचो एकामेकांकडेन संबंद मात आसाच, अशें जाणव

गोंयांत 'कातयो' हो उत्सव धारबांदोडें ह्या गांवांत मेळटा. शुद्ध एकादस ते कार्तिक पुनव अश्यो पांच राती गावडी जमातिच्यो मांडार जमतात आनी हातांत हात गुंथून मांडावेले तुळशी भोंवतणी व करून रातभर नाचतात. ह्या 'कातयो' उत्सवांत गायतलीं गितां, 'धाल गितां सारकींच आसतात. 'दिंनलो' हो उत्सव केंपें-काणकोण तालुक खुबशा गांवांनी हिंदू कुळंबी जमात मनयता, नवरात्रांचे नमी दिसा घर सगळ्यो बायलो आंगणांत जमतात आनी मातयेचो एक लांबट-र करून आळवा पानार दवरतात. आनी नम ते कार्तिक वद्य पाडव सद्दां ताचे भोंवतणीं गितां गावन नाचतात. ह्या गुळ्याखातीर रो माती हाडटात आनी गुळ्याचो आकार दर दिसा वाडयतात. निम उदकांत विसर्जीत करतात. ह्या संबंदान माहिती एकठावपाचो वाव आसा.

धारबांदोडें गांवांत जातल्या कातयांच्या उत्सवांत 'दिवो' ह्या न एक विधी जाता, तो 'दिंनलो' उत्सवापरस वेगळो आसलो तर संबंद सोदपाचो म्हजो यत्न चालू आसा. ह्या 'दिवो' प्रकारांत, नाचता आसतना बायलांनी केल्लें कवंडाळें मोडून कांय आंकव भितर सरतात आनी भितरली 'वड्यांची वल्ली' आनी 'दिवली' भायर वतात. जे चेडे ह्या कवंडाळ्यांत वचून भायर सरपाक र जातात तांकांच आदल्या काळार ह्या गांवांत लग्न जावंक मेळटालें वयर पळोवपाक धारबांदोडेचो हो 'दिवो' प्रकार आनी कुळंब्यांचो 'ि प्रकार जरी वेगवेगळे दिसतात आसले तरी तांच्या मुळांकडेन एकू दडिल्लें आसूंक जाय अशें दिसता. तशेंच धालांचें मूळ ह्या 'का आनी कातयांचें 'दिनल्यांत' घुस्पल्लें आसा अशें तिनय नृत्य प्र

…ल्यार होलमता. दिनल्याच्यो 'कातयो' जाल्यो, आनी उपरांत …ता वर्तुळाचें अर्द-वर्तुळ जालें आनी खेळगड्यो वर्तुळाकार घुंवत …ना आपल्या जाग्यार थीर धोलत रावल्यो. ताचे वेल्यान ह्या …वालो' हें नांव पडलें आसूंक जाय. कालांतरान तांतूंत आनिकय … गेले. ह्या सगळ्या विवेचनाक आदार म्हण एक गजाल लक्षांत …गे ती म्हणजे, ज्यो जमाती धालो, कातयो वा दिंनलो नाचतात, …मेकांच्या सांस्कृतिक वेव्हारांमदीं बरेंच साम्य दिसता. 'धालो' …कायो' गावडी जमात नाचतात जाल्यार 'दिंनलो' कुळंबी. विद्वानांच्या … कुळंबी जमात जेन्ना दोंगर-माथें देंवन सकयल आयली आनी … गांव वसयलो तेन्ना तिका 'गावडी' हें बिरूद पडलें. ह्या मताचो …वेयार 'दिंनल्या'ची 'धालो' जावपाचीय प्रक्रिया मान्य जाता.

## …उत्सवाचें प्रयोजन :

…गे घुडयो' ह्या म्हज्या धालो गितांच्या संकलनांत हांवें संवसारांतल्या …रांतल्या नृत्यांच्या मुळाकडल्या प्रयोजनाच्यो देखी दिवन, धालांच्या …यलो करतल्यो दोन रेगो आनी ह्या रेगांमदीं जावपी गितरुपी …कमक' ही अशीच कोणा एका काळार दादल्यांक जैत मेळपाच्या …केल्ली झुजाची नक्कल बी न्हय मू, जी यादिंच्या रुपांत जिती …असो एक विचार प्रस्नांच्या रुपांत मांडिल्लो. त्या वेळार सहज … जाल्लो तो प्रस्न आज अभ्यासाच्या आदारान 'पोको' थारिल्ल्याचें …दिसून आयलां. मात त्या विचारान म्हज्या अभ्यासाक दिशा …चें म्हत्वाचें काम केलां. धालो हो 'युद्धांत' जैत मेळपाच्या हावेसान …धी न्हय तर तो सुफळीकरणाखातीर केल्लो विधी, शेता-भातांत …क येवंचें, फसल बरी जावंची ह्या उद्देशान मनयिल्लो हो उत्सव …सत्य आज म्हाका होलमलां.

…गोंयांत मुखेल करून 'गावडी' आनी 'नायक' हे दोन समाज …सव मनयतना दिसतात. ह्या समाजाचे आपले अशे स्वतंत्र मांड … ह्या समाजाचें वर्चस्व ज्या गांवांनी आसा त्या गांवांत जर 'बंदे' …ां' ही जात आसत जाल्यार ती तितल्याच अधिकारान त्या … वावुरतना दिसता. काणकोण तालुक्यांतल्या पाळोळें सारक्या …वेडवां' जातिचो स्वतंत्र मांड आसा. पागी वा खारवी जातिचेय …ड आशिल्ले पळोवंक मेळटात (पाळोळें-काणकोण, खारव्यांवाडो). …डे कडेन 'देसाय' समाजाचो सहभाग ह्या उत्सवांत दिसता …काणकोण). मात तांचो स्वतंत्र मांड अजून म्हाका मेळिल्लो ना. …डवळ हांचोय सहभाग धालांत आसता. 'देवळी' जातिचो स्वतंत्र …जून म्हाका खबर ना. पूण एकाद्र्या गांवांत जर देवळी जात …र त्या गांवच्या धालांच्या उत्सवांत ह्या समाजाक खाशेलें स्थान …मांड जरी गावडी जमातिचो आसलो तरी रंभांची 'वडील भयण' …धव' हीं दोगांय ह्याच घराण्यांतलीं आसतात (देखीक : …ट).

…व न्हय तर संवसारांतल्या सगळ्या वाठारांनी शुद्ध अशे वांशीक … कठीण आसलें तरी आज गोंयांत मेळपी संस्कृती ही अनार्य … ह्या दोन संस्कृतिंच्या समन्वयांतल्यान घडिल्ली संस्कृती म्हणपाचें …आसा. तशेंच, वयर उल्लेखिल्ल्यो सगळ्यो जाती आर्य संस्कृती …र्य संस्कृती कडेन चड प्रामाणिक आसात हेंवूय संस्कृतिच्या …क मान्य आसतलेंच.

… मातृसत्ताक. सिंधु संस्कृतिच्या केल्ल्या उत्खननावेल्यान ह्या … मुखेल देवता मातृदेवता वा भुंयदेवताच आशिल्ल्याचें नदरेक … लोक मातृदेवतांचे पुजेवरवीं भुंयेचे निर्मिती-शक्तीक भजताले. भूंय जशी पावसरुपी वीर्य धारण करून आपल्या उदरांतल्यान असंख्य रोंपां-पिकांक जल्माक घालता तेच परी बायलमनीसय पुरुषाचें वीर्य धारण करून आपल्या उदरांतल्यान भुरगें वा नवो जीव जल्माक घालता. बायलमनशेचे वा देवतेचे हे निर्मिती-शक्तिची जाणीव जाल्ल्या आदिममनशान तिची धतरिकडेन तुळा केल्या आनी तिचे भितरले हे निर्मिती-शक्तिचो धतरिच्या सुफळीकरणाखातीर यावात्मक (magical) वापर केला. आदिम जीवनांत 'शेत' आनी 'शिकार' हींच जगपाचीं दोन सादनां आशिल्लीं. बर्नेल, गाइल्स, ब्रिफॉ ह्यासारक्या मानववंशशास्त्रज्ञांनी जायत्या पुराव्यांच्या आदारार शेताचो सोद बायल मनशेनच लायलो अशे सिद्धांत मांडल्यात (लोकायत, स.रा. गाडगीळ, पृ. ७२). सुरवातेक 'शेत' हें बायलमनशेचेंच क्षेत्र आशिल्लें, देखून शेता संबंदाचे सगळे विधी करपाचो तिचो हक्कय आपसूकच प्रस्थापित जाल्लो. तोंकाळ बडयेन वा फातरान जमीन खणून 'बीं' रोवपाचे बायल मनशेचे शेतपद्धतींत भितर सारिल्ल्या 'नांगराच्या' वापरावांगडा पुरुषाचो प्रवेश ह्या क्षेत्रांत जालो. गोंयच्या 'कुळंबी' समाजांत रोंपणेच्या वेळार नांगर दादल्यांनी धरप आनी बीं बायलेन ओंपपाची चाल आसा. केंपें-आमोणें गांवांत किरिस्तांव समाजांत आजूनय ही चाल पळोवंक मेळटा. बायलेन शेतांत नांगर धरूंक जायना, धरल्यार दुकोळ येता असो समज शेतीप्रधान संस्कृतींत संवसारभर आसा. ह्यो सगळ्यो गजाली लक्षांत घेतल्यो जाल्यार बायलांच्या ह्या धालांच्या उत्सवाचें प्रयोजन सृजनाशिवाय आनी दुसरें कितेंच आसूंकच शकना हाची खात्री पट्टा.

हे भायर धालो गितांतलीं वर्णनां, नाचाची लकब, धालांतल्यो तरेकवार विधी, रंभा-बंधवाची भेट, णव रातिंची संकल्पना, तुळशिची उपस्थिती, ह्यो सगळ्यो गजाली सृजनाचीच भास उलयतात.

'तुळस' हो धालांतलो म्हत्वाचो घटक. हे तुळशीक फूल-कुकूम ओंपून नमन केले बगर उत्सवाक सुरवात जायना. मांड उठोवपाचे सगळे विधीय तुळशीकडेनच जातात. रंभा येतकच बसकारय तुळशी मुखारच करतात. म्हज्या अभ्यासाप्रमाण ही 'तुळस' म्हणजे मातृदेवतेचें, धतरिचें प्रतीक. ही तुळस म्हणजे माती, धतरिच्या वांटकुळ्या आकारा सारको मातयेचो एक गुळो. कलेच्या विकासाबरोबर तिका आयचें रूप फावो जालां. पूण ह्या रुपाकय स्त्री शरिराचो आकार दिवपाची चाल गोंयचे आदिम वसाहतिंच्या कांय गांवांनी पळोवंक मेळटा. देखीक, तुळशीक थानां आकारप. तुळशींतलो रोंपो हो मातयेच्या उदरांतल्यान जावपी निर्मितिचें प्रतीक. लज्जागौरीचे योनींतल्यान झाड उगवल्ल्याच्यो मुर्ती मेळटात. तुळशिची संकल्पना हिवूय अशीच. तुळशिचें वर्सांतल्यान एकदां करतलें लग्न, त्या दिसा तुळशींत रोयतल्यो चिंचे-आंवाळेच्या फळांनी तंवकतल्यो खांदयो आनी उसकांड्याची शिवडी, बायलमनशेन करपाचें तुळशिचें व्रत वा तिचे पुजेची प्रथा ह्यो सगळ्यो गजाली तुळशिच्या मातृदेवतेच्या रुपाचेर उजवाड घालतात.

मातयेची वा धतरिची आराधना ही सुफळीकरणाबगर दुसरी कित्याखातीर आसूंक शकता ? कर्ल गांवांतलो 'दिंनलो' होवूय मातयेच्या गुळ्या भोंवतणीं आनी धारबांदोडेंच्यो 'कातयो' ह्योवूय तुळशीचेच भोंवतणीं नाचतात. श्री. रा. ना. केळकर हांणी 'आमचो धालो' ह्या पुस्तकांत धालो नाचतना बायलो मांडार उदकान भरिल्लो 'कळस' दवरतात आनी मागीर दोनय वोळी एक एक करीत गायत-नाचत ह्या कळसा म्हऱ्यांत येवन परत्यो वतात अशी माहिती दिल्या. आजमेरेनच्या म्हज्या निरीक्षणांत असो देखाव मेळिल्लो ना, पूण खंयच्याय मांडार अशें घडटा जाल्यार तो कळस वा कुंभ हें मातृदेवतेचें प्रतीक अशें हांव म्हणन. म्हज्या निरीक्षणा प्रमाण धाला-मांडार तुळशी कडेन उदकान भरिल्लो एक कळसो वा तांबयो दवरतात. जांतलें उदक हातार सोडूंक वा रंभांच्या दोळ्यार मारूंक वापरतात. घडये मूळ कळसाचो संदर्भ वा कार्यप्रयोजन बदलून तो अशा रुपांत पावलोय आसूं येता.

धालांचो उत्सव होवूय कोलांचे पिकेची खोशी मनोवपाखातीर करतले मागे परबे सारको पौष म्हयन्यांत जाता हिवूय गजाल लक्षांत घेवपा सारकी. पुरुषाचें बीज मातेच्या गर्भाशयांत रुजले उपरांत भुरगें जल्माक येवपाखातीर णव म्हयने लागतात. धालां मांडावेल्यो णव राती ह्या णव म्हयन्यांच्या काळाच्यो प्रतिकात्मक राती.

ह्या संवसारांत एक अदृश्य शक्त वावुरता. ह्या संवसाराची निर्मिती तशेंच घडटल्या बऱ्या-वायट घडणुकांक तीच जापसालदार आसता, अपेक्षित गजालिंची नक्कल करून तिका होरायली जाल्यार ती इत्सापुर्ती घडोवन हाडटा असो समज आदिम समाजांत आशिल्ल्याचो दिश्टावो जाग्याजाग्यांनी घडटा. धालो उत्सवांतय सादर करतल्या नृत्य नाट्यांत सृजनासंबंदीत क्रियांच्यो वा गजालिंच्यो नक्कलो आसून तांतल्यान सृजनाचोच हावेस व्यक्त जाता. ह्या संबंदांन फुडल्यो कांय गजाली विचारांत घेवं येतात.

१] धालांच्या नाचाची तरा वाऱ्याच्या नेटाचेर धोलतल्या थामाचो आभास निर्माण करता. हातूंत भर म्हण बायलांच्या माथ्यांतलीं पातिर्चीं 'कणसां' (ह्या उत्सवाक बायलो खास माळटात) तंवकतल्या भाताच्या कणसांची याद करून दितात. 'भाताचें' हें उतर हांगा जाणीवपूर्वक वापरलां. कारण आज जो समाज धालो नाचता, त्या समाजाचें तशेंच ज्या 'कोल' समाजाकडेन धालांचें मूळ घुस्पलां असो विचार मांडला त्या कोलाचें मुखेल अन्न-धान्य भातच. धालां-मांडार देवाक दाखयतलो नेवेद्य (उपार) भातापासून केल्ल्या तांदळांचोच आसता. शेतांत धोलतल्या थामाची नक्कल करून, भरपूर शेत पिकचें अशी कामना नृत्यांतल्यान केल्ली जाणवता.

२] धालांतल्या गितांचो अभ्यास केलो जाल्यार तांतल्या भौसंख्य गितांनी झाडां-पानां, फुलां-फळां हांचेंच वर्णन मेळटा. हीं पानां-फुलां-फळां निर्मितिचीं प्रतिकां. कांय गितांनी तर बीं पेरून वा रोपो लावन ताचें झाड तयार जावपासाकून तें चंवरून फुलां-फळां ये मेरेनच्या क्रियांचें वर्णन मेळटा. हीं फुलां फळां मागीर गितांतल्यान देवांचे भेटेकय धाडटात. 'रोवया जिरें-कोथंबिरी' ह्या गितांक तर धालांत खाशेलें म्हत्व आसा. रेगो बदलपाचे पयलीं हीं गितां गायतात. भौशीक पद्धतीन जमीन खणून भात (साळ) वा तोर रोवपाचे आनी पिकले उपरांत लुवून-मळून मांडार हाडून धान्य दर घराक वांटून दिवपाचें दर एके क्रियेचें वर्णन ह्या गितांनी आसा.

फूल-चामळ, काजळ-कुकूम, काकण-पिड्डूक हे सारक्या 'आयाव'पणाच्या साज शिरंगाराच्या वर्णनांनीय जायतीं गितां भरल्यांत. 'आयाव' बायल म्हणजे घोव आशिल्ली बायल असो निकटो अर्थ न्हय तर जी 'आय' वा 'आवय' जावंक शकता अशी बायल असो ताचो अर्थ. आयाव उतरांतलें 'आय' हें उतरच आयावपणाचेर उजवाड घालता. घोवा बगर हेर दादल्यांकडल्या संबंदांतल्यान जल्माक आयिल्ले संततीक समाजान मान्यता दिवपाचें जेन्ना न्हयकारलें तेन्ना 'घोव आशिल्ली बायल' इतलेच पुरतो ताचो अर्थ शिमीत उरलो. आनी जी बायल संतती दिवंक म्हळ्यार नव-निर्मिती करूंक शकना, तिका सृजनाचीं प्रतिकां आंगार घेवन वावुरपाचो कांयच अधिकार ना हे विचारसरणेंतल्यान 'रांड' बायलांक तीं वापरपाचेर बंदी हाडली. धालो उत्सवांत जरी रांड बायलो नाचतात आसल्यो तरी मुखेल नृत्य-विधी वेळार एक तर त्यो मांडावेल्यान भायर सरतात वा वोळींतल्यान कडेक सरतात. हिवूय गजाल हांगा लक्षांत घेवूंक जाय.

धालो गितांनी धर्तरीमाया, तुळशीमाया, सांतेरमाया, खुंटीमाया, रंभामाया सारक्या स्त्रीदेवतांक पयलो मान आसा. ह्या देवतांच्या नांवा फाटल्यान जुळिल्लो 'माया' हो प्रत्ययच तांच्या आयावपणाचेर उजवाड घालता. कासय, गावित्री, संबर, चिंचुद्री, बेबकी, माणकी, मानगें हे सारकीं गितांनी येतलीं कांय खाशेल्या जनावरांच्या मादयांचींय नांवां स्त्रीत्वाचीं तेचबरोबर बहुप्रसवा मातेचीं प्रतिकां आसात. तांकां 'लक्षीम' मानपाचो समज आजूनय लोकमानसांत आसा. स्त्रीदेवतां बरोबर म्हादेव, भैरांव, पायक, रामनाथ हे सारक्या पुरुषदेवांकय धालो गितांतल्यान होरायतात. सृज[illegible] बायले इतको नासलो तरी दादल्याचोय सहभाग म्हत्वाचो हें स[illegible] उपरांत आदिम समाजान पुरुषदेवांक विधिंनी सहभागी के[illegible] प्रतिकात्मक रुपांत स्त्री-पुरुष संयोग घडोवन हाडून सुफळीकर[illegible] केल्या. गोंयच्या धालांतय हे संबंदान जायते दाखले मेळटात:

'आत्ताळी रोयणी, पात्ताळी रोयणी
रोयणीर नाग धोले गे बायी
रोयणीर नाग धोले

ह्या गितांत येवपी 'रोयण' आनी 'नाग' आनी नागाची रोयणी[illegible] क्रिया, वा

'पाऊस झिरीमिरी, पाऊस झिरीमिरी
पडला भुंयेवरी गे सैये, पडला भुंयेवरी'

ह्या गितांतलो 'पावस' आनी 'भूंय' आनी पावसाची भुंयेक [illegible] क्रिया ह्यो सगळ्यो गजाली स्त्री-पुरुष संयोगाच्यो प्रतिकात्मक [illegible] तांच्या उल्लेखांतल्यान धर्तरिचें सृजन घडचें अशी अपेक्षा केल[illegible] मुखेल नाचा उपरांत करतली 'लग्नाची नक्कल आनी बाळ' [illegible] तोच अर्थ व्यक्त जाता. शेताच्या सुफलीकरणा खातीर 'दादलो[illegible] आनी 'बायल वनस्पत' हांचें लग्न लावन प्रत्यक्षांत दादलो-बाय[illegible] नक्कल करपाची प्रथा संवसारांतल्या जायत्या वाठारांत [illegible] आशिल्ल्याची माहिती मेळटा. गोंयच्या बायलांच्या आयताराच्[illegible] 'दादलो' आनी 'बायल' पत्री जमोवन तीं एकठांय पुजेक लायत[illegible]

'मोरुलो' खेळांत मोर वाड्यावयल्या बायलांगेर वचून तांच्[illegible] 'भात' खाता. हो मोर वा मोरुलो हो भूमातेचो प्रतिनिधी. श्री[illegible] ढेरे हांणी 'लज्जागौरी' ह्या पुस्तकांत ह्या संदर्भांत म्हत्वाचो उजव[illegible] 'मोर-पारदी' खेळांत शिकारेची नक्कल करून ह्या मोराचे पार[illegible] आनी मांस देवाक ओंपतात. मातृदेवतांक रगत-मांसाचो निवेद्य द[illegible] प्रथा संवसारभर आसा. धालांमांडावेलो मोर-पारदी खेळय ह्या नृत्[illegible] मातृदेवतापुजनाचेर उजवाड घालता.

३] घोणचें पील: पिलाक सोदतली, राखतली आवय. हेंवूय '[illegible] आवयचें प्रतीक, म्हणजेच गितांतल्यान ती कामना.

४] आदनी-दुदनी: कुचकुचीत तोऱ्यांनी भरिल्ली दुदीन हें बहुप्रस[illegible] चिन्न. शिवाय दुदयाक मातृगर्भाशयाचें प्रतीक मानतात.

५] कुमार-मडक्यो: मडक्यो वा कुंभ हें गर्भाशयाचें प्रतीक. त्यो [illegible] कुमाराक स्त्री देवतेच्या देवळांत म्हत्वाचो मान आसा. ह्या संदर्भांत ध[illegible] ताच्या अस्तित्वाक खाशेलो अर्थ आसा.

६] दातें: दातें करप वा धान्य दळपाची नक्कल करप म्हण[illegible] धान्य पिकपाची कामना करप. 'गाय धांवता, दूद रकता' हे सार[illegible] घडोवन लोकांनी दांत्याक गायेची म्हणजे मातेची उपमा दिल्या.

७] कांस वा शिकार: 'मोर-पारदी' सारको होवूय एक खेळ. म[illegible] प्रसन्न करपाखातीर भोंवडी घालून सावज धरपाची आनी साव[illegible] दिवपाची प्रथा गोंयांत खूबकडेन आसा. हें सावद रानदुकरच आ[illegible] असोय नेम आसा. पुर्विल्ल्या काळार लग्नांत 'इंद्रायणी पुजा' [illegible] एक विधी करताले आनी त्या वेळार व्हंकलेक रानदुकराचो सुळो [illegible] आनी त्या सुळ्यान उस्तिल्ली माती तिच्या आंगाक थापताले. ह्या [illegible] अभ्यासांतल्यान 'रानदुकर' हें पुरूष प्रतीक म्हण आदीम [illegible] पुजतल्याचें उमगता.

ाग : हो म्हादेवाचो प्रतिनिधी. तो पुरुषत्वाचें प्रतीक म्हण आयला. ाका 'बसवो' म्हणटात.

ः सृजनाचे क्रियेंत पुरुषाचें म्हत्व उमगले उपरांत स्त्रीक्षेत्रांत वेश मेळ्ळा. पूण तोवूय सुखा-सुखी न्हय. आदीं विरोध सोंसून थोडो काळ बायलेचो भेस करुनय ताका ह्या क्षेत्रांत रिगपाक रम्मेचो पोतदार, यल्लामाचे भृत्या बी). उपरांतय कांय काळ पणाची वागणूक दिवप जाल्या. हाचेर हो 'भावोजी' उजवाड ांतलें भावोजिचें चित्र विडंबणात्मक रितीन चित्रायल्लें पळोवंक

न विवेचन केल्ल्या सगळ्या मुद्द्यांपरस चड म्हत्वाचो असो आसा तो म्हणजे धालांमांडार रंभांचें अवतरप आनी बंधवांकडेन डप.

ो देवीय न्हय आनी मनिसय न्हय, पूण असामान्य शक्तिच्यो शें मानतात. त्यो अतिसुंदर, अखंड आयावो, चिर-तरूण. तल्यान कस्तूर-गंध परमळटा, त्यो सर्गांत रावतात. पूण मनांत पृथ्वीलोकांत येतात. तांचें येवप मध्यान रातचें आसता. त्यो वन दाट रानांतले तळयेंत वा व्हळयेंत न्हातात. त्यो इंद्र दरबारांत करतात. तांकां अमक्याच वेळाखातीर सर्गाचीं तटां उकतीं एकदां ती वेळ चुकत तर तांकां मागीर परत सर्गांत प्रवेश केडेन मायावी शक्त आसता, जी त्यो बऱ्याक तश्योच वायटाक कतात. मृत्यु लोकांतल्या दादल्याच्या निखट्या स्पर्शानिय तांची बाडटा. तांचे पवित्रतेच्या तेजान पेटत रावपी इंद्र दरबारांतली र्गर पालवता. धालां मांडार एकवीस वा सात रंभा येतात आसल्यो खेल रंभा आनी तिच्या साडेतिनशें दासयांचें वर्णन लोककाणयांनी खेल रंभेच्या सर्वांगाक मध्यान रातचीं असामान्य अशा रंगा-गंधाचीं ात. रंभांचें हें वर्णन ऋग्वेदांत येवपी 'अप्सरा' उतराच्या अर्थाकडेन टा. न्हय, रंभा ह्योच अप्सरा. त्यो वेदकाळा आदल्यो मातृदेवता. डिंचेर रंभांचो भार येता ते विशींय हांगा विचार करप गरजेचें. ोंगर आनी पाळोळें ह्या तीन गांवांच्या अभ्यासावेल्यान म्हाका ें म्हणजे, रंभांच्या 'वडील भयणि'चो अवसर शेंसेचे बायलेचेर हेर भयणी गांवच्या गांवकारांच्या न्हाण येनाशिल्ल्या चलयांचे वतरतात. चेडवांच्या स्वतंत्र धालांमांडार सगळ्योच रंभा शेंसेच्या येतात. मात ज्या गांवांत देवळी जात ना थंय सगळ्यो रंभा ाच घराण्यांतल्या कुडिंचेर येतात. गोंयांत 'देवळी' परंपरेचो उदेव , गोंड हांचे उपरांत क्रिस्ता आदल्या सुमार २३०० वर्सा ते ां आदीं आयिल्ल्या सुमेरियन संस्कृतींतल्या प्रभावांतल्यान जाला ांचें मत्त आसा. देव-देवळां हीं सुमेरियनांचींच वैशिश्टां. सुमेरियन गोंयांत प्रवेश केले उपरांत मुळचे कृषीपरंपरेचेर प्रभाव घालून े संस्कृतिचे दोन फांटे केले, तांतलो एक गांवाखातीर अन्न-धान्यें ागलो जाल्यार दुसरो 'देवबाबी' सांबाळूंक लागलो. ह्या देवबाबी ल्यानच 'देवळी' परंपरा उदेली.

वांनी वडील भयणिचो आनी बंधवांचो भार देवळीच घराण्यांत फाटल्यान हेंच कारण आसा. ह्या घराण्यांतल्या बायलांक शेंस म्हणजे, तांकां देवाचे सेवेखातीर ओंपतात. तांचें आनी रंभांचें तांणी जर कोणाकडेनय संबंद तोडलो तरीय तो देवाकडेन संबंद म्हणून तांकां सदांच पवित्र लेखतात. तांकां अखंड 'आयाव' ेंसेच्या बायलांक एका काळार लग्न-कार्यांत खूब मान आशिल्लो. ायलो तांचो कुकूम काडून आपल्या कपलाक लायताल्यो. फुलां आपल्या माथ्यांत माळून तांचो आशिर्वाद घेताल्यो. आदल्या काळार न्हाण येवचे पयलीं चलयांचीं लग्नां जातालीं. आनी लग्न जावप म्हणजे तिचो दादल्याकडेन संबंद येवप, ती देवाचे सेवेक पात्र उरप ना, ह्या समजांतल्यान रंभांचे हेर भार गांवकारांच्या न्हाण येनाशिल्ल्या चलयांचे कुडिचेर उबे जावपाची प्रथा उदेली जावंक जाय.

रंभांची आनी बंधवाची मांडार भेट घडटा. बंधव हो रंभाचो भाव असो आज लोकमानसांत समज आसा. पूण रंभा-बंधवाचे भेटेचो सुवाळो दोळ्यांनी पळयत जाल्यार तें भाव-भयणिचें निश्काम मेळप न्हय तर कामातूर जाल्ल्या स्त्री-पुरुषाचें मेळप अशेंच भासता. जे आर्ततेन रंभा बंधवाक सादयतात तो साद, तांची व्याकुळता आनी बंधव अवतरले बराबर जे उत्कंठतेन रंभा तांच्या आंगावेल्यान लोळण घेतात, हें सगळें वयल्या विचारांक आदार दिता.

रंभा-बंधवाचे मांडावेले भेटे फाटलो मुळचो उद्देश हो प्रतिकात्मक स्वरुपांत अतिमानवी योनींतल्यान स्त्री-पुरुषाचो संयोग घडोवन हाडून भुंयेच्या सुफळीकरणाची कामना करप, असोच आसा. आज मुळचो उद्देश कुशीक पडून भावा-भयणिच्या निवळ, पवित्र आनी विकारशुन्य भेटेची भावना ताका जुळ्ळ्या. (पुराणांत आपलो भाव यम हाचेकडेन भोग मागपी यमीची कथा मेळटा. हेरकडेनय मुक्त कामाच्यो गजाली आसात. पूण सर्वसामान्यपणान भावा-भयणिच्या शारिरीक संबंदाक आज समाज-मान्यताय ना.)

वडील भयण आनी बंधवाचे भार एकाच घराण्यांतल्या बायल आनी दादल्याचे कुडिचेर येता आशिल्ल्यान आनी केन्ना केन्ना नात्यान रंभा-बंधव हीं खरेलींच भयण-भाव आशिल्ल्या कारणानय रंभा-बंधव हीं भयण-भावां अशीच भावना मुळच्या सत्याक जुळपाची शक्यताय आसा.

## धालो आनी अतिमानवी शक्ती

'रंभा' आनी 'बंधव' ह्यो धालो उत्सवांतल्यो अतिमानवी शक्ती. हांतलो बंधव हो विध्वंसक वा त्रासदायक न्हय. ताचो संबंद फकत रंभाकडेन. पूण रंभांचो मात पुराय उत्सवाचेर शेक आसता. तांचें रागणें पडलें वा तांचे बाबतींत कितेंय चुकी घडल्यार, कसलेंय अवर्शण येवं येता असो समज आसा. देखून तांकां खुशाल दवरपाचो जाता तो यत्न करतात. मांड दवरप ते मांड उठोवप त्या दिसा मेरेन मांडार रंभांचें वास्तव उरता. तशेंच, पयल्या दिसा गंधाचो तिळो घेतिल्ले बायलेच्याय आंगार तांची सया उरता असो समज आशिल्ल्यान मांड उदेवपाच्या वेळार मांडार शेणा-शितोडो घालपाची वा रेगेच्या बायलांनी 'शेणा-कालो' घेवपाची प्रथा आयल्या. गांवगिरे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार, णव दीस (राती) भश्टांत आशिल्ल्यो बायलो शेणाचो तिळो घेवन अनवाळ्यो जातात.

अतिमानवी शक्तीक वश करून मानवी जिणेच्यो गरजो भागोवप हेंच धालांच्या उत्सवाफाटलें मुखेल प्रयोजन.




संदर्भ :

१] लज्जागौरी, रा. चिं. ढेरे

२] लोकायत, स. रा. गाडगीळ

३] गोमंतकाची प्रतिमा – ।, बा. द. सातोस्कर

४] पेडणेंचो दसरो, जयंती नायक

५] आमच्यो धालो, रा. ना. केळकर

# अजून

□ शंकर रामाणी

उकतें जनेल :
काळजाचें;
फुट्टें ल्हार :
भरतेचें.

वेगळो उलो :
तनरेचो
कुपांक भास
चान्याचो.

चोखलें उतर
चंवरलें;
भितल्ले भितर
परमळ्ळें.

तरसादेची
जिणेक धार;
झुजामळार
जैत... हार.

भोगलें ताचें
रोयलें सूख
फुलून... फळून
जाण्टे रूख.

हांवच आसां
हांगा-थंय;
अजून उपाट
व्हांवता न्हंय...

# आयली भूक

□ डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

धुंवटेंतल्या दोंगरावेल्यान
हुलपल्ल्या शेतांवेल्यान
सुकलेल्या वझ्यावेल्यान
आयली भूक!

ओंठांवेलें रगत चोखीत
नदरेंतल्यान उजो ओंकीत
पांय आपटीत
जिबली चाटीत
आंवडो घोंटीत
आयली भूक!

करकरायत दांतकड्यो
वांकड्या तोंकाळ नाखटांनी
खरवडीत आंतकड्यो
गळो जाळीत
काळीज पिळीत
शिरो पेटयत
दुकां आटयत
फुलय-फुलयत नाकपुड्यो
मसणांतल्या धुंवराची
घाण घेत
आयली भूक!

पोटा-चिरी लागल्या फाटीक
हड्ड्या बरींक दसल्यां थानां
दोरयो कश्यो केश्ट्यो सोडून
आंग फापशीत
आयली भूक!

उक्तीं दारां, रितीं घरां
जळां-मळां कट्टे, हाडां
मरतुकडो एकटो सुणो
ल्हेंव-ल्हेंवता सुकें हाडूव
आयली भूक!

वाटेंत मरून पडल्या गा
जमल्यां गिदां भोंवतणीं
कावळो ल्हवूच कोंकता ळो
लुचता अजून पिशें पाडू
आयली भूक!

चिमणे-पील फडफडटा
नुस्तें धडेर तडफडटा
सोरोप सड्यार वळवळ
चुकलेलो किरकिरो
भयांकृत किरकिरता
पानांबगर फुलांबगर
भूत कसो दिसता रूख
आयली भूक!

िक

ाफ़रमली

तरी
ो
र मारून गेलो

ं वाऱ्यातालार

ी पूण

ाय हुंगून गेलो

ागो जालों
ां —

मेक जालों!

# पत्रेंत पुरवलो आयतार

□ रमेश भगवंत वेळुस्कार

पत्रेंत पुरवलो आयतार
आनी
उतरांत फारवलीं किर्णां

शेरवडांचीं पानां फोडां
तिणें पोर्शेवन नदरेंत घेतलीं
वागा चपक्यांचें
केण सुवर्णाचें
तिणें रगतार माळून घेतलें
शिर्वाणातुलें पवित्र पाणी
कोणें हुमाण्यांनी
मलब झुळझुळेन
बिरी बिरी तिचेर ओतलें
तिच्या सवायशिणिच्या
पयल्या सूर्यसुर्ङाराचें
मर्म तिका अदमासलें
आनी उदेंत कोन्यांत
किर्णाचें पेणें झिळमिळ्ळें...
तिणें खोंप्यांत दुर्वा खोयल्यो
हरयाळेच्या
पात्या पात्यार तिणें
सूर्य सरमाळो चोयल्यो
आनी पत्रेच्या
दिखाळ सवायशीण परमळान
ती चंवर सुंवारली
मातृकेचें अमृत ऋतुरंगी
सपन साक्षात जालें
आनी जीव उंवाळून
तिणें सुर्याक फुगडी घातली

सांवळ्या सकमार देहां
तुळशिचें बन... हो राया तुळशिचें बन
सुर्या तुज्या सुर्ङाराक
परमळाचें धन
हो राया
परमळाचें धन

ती नाचत गेली
गिरगिर नाचत गेली
ती घुडी घुडी नाचत गेली
आनी कन्हैयाची
माणकुलीशी एक म्हूर्त तिणें
मिरयांनी तिच्या चोयली
आनी वंठांवेल्या
उत्रांचे पत्रेन तिणें ताका
लक्तुबायेन जोजयलो
आनी तो जालो
सहस्त्रादी किरणांचो
अद्भूत गोल
गिरी गिरी गोल
गिरी गिरी गोल

आनी ती नाचत गेली
गोल गोल गोल
गिरी गिरी गोल
पत्रेर ओल
निळी निळी खोल
पलतड खोल
तिचो जायत गेलो
एक दोळो
सर्वयांगी दोळो
धायदिकांळ दोळो
शिर्वाण-वीण सुवाळो
सुर्यांग सुवाळो

पत्रेंत पुरवलो
आयतार
उतरांर हुंवारलें तेज
जाची पेलूंक जायना आभा...

# पांच कविता

प्रकाश पाडगांवकार

## १. म्हजो संगणक

पृथ्वी संगणकाचो अजरंवर अक्षर-पट
आनी ब्रह्मांड मोनिटर--पड्डो.
हांव कल्पनेचे कमांड दिवन
मनाची फ्लॉपी-डिस्क करतां कार्यान्वित
आनी हाडटां सामक्यो एकामेकांचे लागीं
अमर्यादीत गिन्यानाच्या पांवड्यांच्यो संकल्पना,
कृष्ण विवरां, दूद गंगा
अंतरिक्षाच्या खांची-कोनशांनी
पासयो मारीत
नवीं ब्रह्मांडां, जिवीं तारांगणां -- गिरावळिंचे
जल्म नोंदून
थंयचे आदेश
विश्वाच्या केंद्रबिंदूंत सांठोवन हाडीत

## २. म्हजें नमन

म्हजें नमन म्हा-संगणकी युगाक
जें पृथ्वीर सृजन-निर्मणेचें जाळें विणून
ब्रह्मांडाचीं दारां उगडीत पर्गट जाता
उत्क्रान्तिचे वाटेवेल्यान
दिव्यतायेकडेन प्रवास करता

## ३. कृपावंत ईश्वरीय किरण

म्हजेर शिंवर आरपार भेदपी
उत्सर्जनी पारदर्शक नीलातीत
प्रोटोन, न्युट्रोन, इलेक्ट्रोन, क्ष-किरणांचो
किरणां जिवाची चाळण करपी विखाळीं
अजाप तरीपूण हांव आजून जितो-जिवो

देहाचे अणु-रेणू विघटन करपी
ह्या अवजाळी किरणांचो म्हजेर सांवार
आंगावेली सगळी मुस्तायकी, आभुषणां
हांच्या मारान प्रभावित जावन
हांव भितरल्यान नागडो उगडों

म्हजेर शिंवर आरपार भेदून
देहाचें मीट वितळावपी किरणांचो
तरीय हातूंत आसा एक कृपावंत ईश्वरीय किरण
जें म्हजेर एकसारकें राखणेचें कवच धरता
ताचें म्हज्या प्राणालागीं जिवाभावाचें नातें

## ४. दिव्य विचार

म्हज्या अंतरात्म्यांत मंत्रून फुलिल्ले
दितां सोडून अंत्राळाच्या थराथरांत
रावूंक जाय अधांतरी ट्रान्समिटींग

आनी त्या विचारांचे चॅनल्स दवरता
जाय तांकां ते रिले करून घेवपा
आपणाल्या रिमोट कंट्रोलावरवीं

अनंतत्वाचे अस्तित्वतायेचें भान
म्हज्या अंतरात्म्यांत दीपस्तंभ कशे
मंत्रून फुलिल्ले दिव्य विचार
अंत्राळांत अधांतरी
जावन हुमकळटे ट्रान्समिटींग स्टेशन

## ५. म्हजें उतर

म्हजें उतर बियोड पिकाळ येता भुंयेर
जियेतल्यांची भूक वाडोवन ओड

म्हजें उतर विकास प्रक्रिया तिखें
उत्क्रान्तिचे कल्पनेंतले ताजमहाल

म्हजें उतर आदेश नृपाचो पृथ्वी गोल
बॉम्ब ॲटम, नायट्रोजन पोलो जावन

## मारिल्लो मनीस

कवी : थॉमस हार्डी

आकार : अभयकुमार

खंयचेय गादयेर मेळिल्लो,
फोप घेवन बसतलों आसलों सांगातान
झुजामळार, म्हजे आड उबो
वाटावचेखातीर हांवें घाली गुळी
हांवें जितोच मारलो.
मान तो म्हजो, पुरो तितलेंच.
म्हजेवरीच विचार केल्लो –
बेठोच सैन्यांत गेलों,
गोडून शस्त्रां विकूं येतालीं ताच्यान
चार हांवें तरी खंय केल्लो ?
खरें, कितलें क्रूर झूज तें
कारणाबगर जितोच मारप
गादयेर मेळिल्लो जाल्यार
आसले सोऱ्याचो आग्रो करीत
ल्या वेळार एखादो रुपया
गुनूय दितले आसले... पूण...

## खदूळ

□ परेश नरेंद्र कामत

आमी दोगांय
एकठांय आयलीं
म्हण्टकीच :
झंजळत झंजळत जातात
चिखलावरी खदूळ

माती कालवता उदकांत;
उदक भरसता मातयेंत...
आरतें-परतें.

मातयेचो कणान-कण
तुडूंब... उपाट.

उदकाचो थेंबान-थेंब
तृप्त... कृतार्थ.

मागीर —
एकठांय आयिल्लीं तशींच
आमी
निस्तत निस्तत
एकामेकांपसून
अळंग जातात वेगळीं...

उदकावरी उदक :
आपले वाटेन
निवळत-निवळत.

मातयेवरी माती :
आपले दिकेन
निथळत-निथळत.

— माती रावता तळाक
घट्ट घांस घेवन.
उदक रावता वयल्यान
तिरायतपणान व्हांवत.

पुणून, काळाचे रुजवणेंत –
आमच्या दोगांयचे
नकळत :
ल्हवूच सरता वयर
एकाद्रें तट्टटीत, तांबडेंगुंज साळीक
चिखलांतल्यानच;

जें आपल्या थरथरत्या पाकळ्यांच्या हातांनी
अख्खें मळब
वेंगेंत घेवंक पळेता
गोपांत केळोवंक आंवडेता...

## आत्मघात

□ राजश्री महाबळेश्वर सैल

आयज ब्रह्मनिळायेंत
सुटला अपूप ब्रह्मपरमळ
कांत सोनायेचो
चंदन सुवाळो
वताचे हुनायेंत
कोण उफेतात
हुबत येतात
म्हज्याच दारांत
आनी सुटल्यात
मर्णदुवाळे सगलेकडेन
असो मुक्ततायेचो
ध्यास लागला
कोणाक ह्या जवंजाळांतले सुटकेचो,
हुबत हुबत वता तो वताच्या भारांत
उजवाडाचो केण्ण कसो
अशें हें मर्णपिशें खुबूंक लागलां
काळजाच्या मुळांतल्यान
बांदावयले गच्च पांचवे सांवरेक आयज
अचकीत भग्ग उजो पेटला
आनी पेटल्या केणाकेणांतल्यान
ती भरगच्च सांवर सांवळी
अशी ही जिविताची गच्च मिट्ट किण्णसाण
कळना कोणाकोणाच्या काळजांत
कसले कसले वावटळिचो उजो पेटला
काळखाच्या ह्या गर्भभुंयारांत
मिट्ट उजो पेट्टा जिविताचे निष्क्रियतायेचो
आनी उफेता प्रेत ताच्याच हातांत
जिविताचे निष्क्रियतायेचें
जिविताच्या आत्मघाताचें !

# जिवीत... कवीत...

□ मंगला शिवदास

*मंगळसुत्राचे गुंथूंक मणी*
*म्हाका वर्सांचीं वर्सां लागलीं*
*विस्कटावन उडोवंक*
*तुका एक सेकंदूय लागलो ना.*

✻ ✻ ✻

*म्हजी गर्भकूस उजोवपी*
*उत्सव जल्माक हांव सपनेलें*
*सपनांतल्यान जाग येवचे पयलींच*
*तुंवें धा कडेन रंग उधळ्ळे.*

✻ ✻ ✻

*तूं पयस आसतना*
*सपनांची जीण जगलें*
*तूं लागीं पावलो*
*आनी जिणेचेंच सपन जालें.*

✻ ✻ ✻

*तूं मळबाइतलो व्हड जावंचो*
*म्हूण सदांच हांव आंवडेलें*
*तुजें मोटवेंपण पळोवन*
*लजेन मळबूच धतरिर बागवलें.*

✻ ✻ ✻

*म्हजीं दुकां-मोतयां पुंजावन*
*गुंथलीं तुंवें कवनां*
*गळ्यांत हांवें बांदलीं*
*तुज्या कवनांचीं पोवनां.*

✻ ✻ ✻

*तुका पळोवन इतल्या तेंपान*
*पावलां म्हजीं आडखळ्ळीं*
*मनान म्हज्या धांवून*
*मात कूड तुजी वेंगायली.*

✻ ✻ ✻

*उदेंतेचो सुर्या जावंचो*
*हावेस सदां बाळगिलो*
*अस्तंतेचो सुर्या जावन*
*हावेस म्हजो दर्यांत बुचकळ्ळो*

✻ ✻ ✻

*तूं आसतना*
*एकलें एकलेंच जियेतां*
*तूं नासतना*
*तुज्या यादींचे गर्देंत शेणटां.*

✻ ✻ ✻

*मरणादारार पावलें, तेन्ना कळ्ळें*
*जगपाचेंच उरलें*
*जगचेंशें दिसलें तेन्ना*
*मरणान दार उगडून भितर ओडलें.*

✻ ✻ ✻

# किण्ण खीण

□ शरतचंद्र शेणै

फ़ोडेर येवन हांगा
ज्ञाच पळयत रावला कित्या!
वें गिचें नाका – हांव जाणां!
ज बाविल्ल्या तोंडार छापल्यांत
ालीं तुजीं उतरां!

त जें करपाचें आसा
कनूच उडय –
नें नशीब!
ीं. हें तुजेंय!

बानुल्लों आसतना
ल्या हातांनी शिंपतालो तूं –
ां तरन्या आंगाक
ल्यो फुटल्यो पळोवन
न, ताळयो मारून
ालो तूं –
नाजूक हरवीं पानां
खेळतकूच
मोगान सांसपितालो तूं –
ले पावट आळीं काडून
शिंवडावन
यांनी कळशे उदक ओतून
जिवूच मू दितालो तूं!

ा मुळांत बसून
कितले खेळटालो तूं!
ा खांदयांर झोपाळो बांदून
ऊंच मू झेलतालो तूं –
ा फळांखातीर मरे
जे खायले कितले!
येवपी पाक्के चान्नें
पळयत कशी धांवताले!

एकेक वेळार येतालो तूं
पोल्या वेल्यान दुकां व्हांवयत –
गुपीत तुजीं दुख्खां म्हाका
एकेक वेळार सांगतालो तूं –

नवें घर, बायल, पोर –
कितलो कशी वाडलो तूं!
कपडे सुकोवंक दोरी लेगीत
म्हज्याच खांदयांक बांदिल्ली तुवें –
काल पयर पोरा खातीर
रंगीत आंदूळोय लांबयल्लो तुवें –

सायकल वचून स्कूटर आयली
तिचे खातीर सोदलो जागो –
म्हज्या मुळांत चोंयवशीन
बांदलो सोपो शिमीटिचो –
ताडपत्री वयर बांदून
जागो बरो सोबयलो –

तुजेच वरी वाडलां हांवूय
मुळांत आतां उदक नाका –
अशीं तशीं धांविल्लीं पाळां
उदक पावयतात म्हाका –
वाडलां मरे वाडलां
खऱ्यांनीच वाडलां!
नशिबांत कितें उरलां
कळूंक पुरोश वाडलां!
जाणां हांव जाणां आतां
तूं आनीकूय वाडतलो
खूब खूब वाडतलो
स्कूटर वचून मोटार येतना
तिचेय खातीर तुका
जागो सोदचो पडतलो!

बाबड्या, रे बाबड्या,
तुज्या हातान जाल्लो म्हजो जन्म –
तुज्याच हातान वाड –
आनी कळाव कित्या?
काड मरे कुराड!
मार म्हज्या मुळारूच!

मार खायत एकेक वेळार
सगलें आंग कडकडेल्यारूय
देहांतल्यान दुखयेची वीज
वयर सकयल भोंवल्यारूय,
एकूय उतर उलोवंचों ना –
मोनों म्हणून जन्मलों
मोनों जावन जियेलों
उरप जशी – मरप तशी!
मोन्यांनीच मरतलों.

# आयचो लोकनेता

□ प्रभाकर नाडकर्णी

*निवडणुकेंत नमळायेचो; नाणे खायत आसा*
*लोकां तोंडांक पानां पुसत; दाणे खायत आसा*

*जनते कश्टान भरता तिजोरी, उणे जायत आसा*
*बायल कुरडी दळटा आनीक, सुणें खायत आसा*

*रोम जळटना राजा नीरो गाणें गायत आसा*
*म्हारगाय इतरांक; मौजमजेचें खाणें खायत आसा*

*चड हावेसी लोकां कामांक पेणे लायत आसा*
*हातांत पारवो तोच शिकारी बेणे* खायत आसा*

*भिकेक घाल्या चार चण्यार जिणें वायट आसा*
*मोडटा नेम करतलोच; तांचें देणें खायत आसा.*

* बियाणें

# आशाड-पांवळी

□ नूतन साखरदांडे

*आशाड-पांवळी*
*वज्रवेगळी;*
*हरहरयाळी चारी दिका*

*चुड्यांचो चमचम,*
*जायांचो घमघम;*
*सतारीची धून रंद्रांरंद्रांत*

*कुळाराची वाट :*
*आतां अनवळखी;*
*यादींची पालखी जड खांदार...*

# श्रावण-कविता

□ नूतन साखरदांडे

*[ १ ]*
*श्रावण मनभुलायणो :*
*आशाडांतलीं पिशेपणां सोडून*
*पावसय आतां शाणो !*

*[ २ ]*
*पांचवी साडी;*
*धर्तरी :*
*पांचव्या म्हयन्यारच*
*काडटा वडी...*

*[ ३ ]*
*वोता-पावसाचो श्रृंगार;*
*धर्तरी :*
*भायर-भितर*
*पांचवी पांचवीचार !*

# ल्या शाराचें कोलाज

ाय रमेश पवार

रा़ा शिरांनी
ात रिगता
ा मत्कार!
ड्या मनीस जगता!!

* *

ायर सरतना...
ाशीक दिश्टी पडटात
ा भरिल्लीं डस्टबिनां
ा व्हांवपी आमशेल्लो वास
ायना तेन्ना
ो स्वास घुस्मट्टात
ुसऱ्या एका व्होल्तार
ाले हळशिकेंतल्यान
ाी मोसंबी काडून
ा भिकारी
ाटा... आनी
ा कूस परतिता.

*

दिश्टी पडटात,
ार गोलाक धरून
ून झगडपी
ादले...
श्यो गाळी चघळायत
य कंडक्टर!
थेटराचे भायर
ाच्या पोस्टरांचेर
ाले लाळगे वीर!

*

तिनसनां...
तोंडान शिळोण्यो घालीत
चलयांचीं फकाणां मारपी
कांय दुर्योधनी अवतार!
मर्दीच... कोणाचें तरी
पाकीट मारून धांवपी
एक गांजुट्टो पोर!

* * *

घरा परततना...
सोडियमाच्या उजवाडांत
दिश्टी पडटा –
हे गर्दैतल्यान उठून गेल्लें
एक मडें
मसणीवटेन वतासतना...!
तेन्ना हांव
मनांतल्या मनांत सरगदन जातां
आनी मागतां...
''आतां तरी ताच्या आत्म्याक
शांती मेळूं.''

# मुक्ती

□ पोरफीर सि. लोबु

मुक्ती मेळटा अंतस्करणांत
मेकळीक परमळटा रोगुनांत
जाता! जाता!
उत्पन्न जाता
मनांतल्यान

आसप, आसप
सुऽ आसप रे!
फुलता काळजांत

स्वभाव बाबा
जल्मां पडटा
मनशा काळजांत

पावता मनांत
हय शिपडटा
शिरांतरांत

काळजा रे
भितल्ल्यान भाव
असले सरता भायर

खोशी जिविताचो
परमळ रे!
प्रभाव रे!

स्वराज्य, स्वातंत्र्य
असले तसले
मेकळिके भाव

काळजांत सान
मनांत सान
शिरांतरांत सान

भाव! भाव! भाव!!!
हय मेकळिके:
मेकळिकेचे

सर्व भोंवतीं
पातळता, बा
पसरता, बा

भाव! भाव! भाव!!!
हय स्वातंत्र्या:
स्वातंत्र्याचे

स्वाभाव! स्वाभाव!
बाब रे, सायबा!
फक्त बेडयो काण्ण...

तोडून... शेवटून
कशेच... केन्नाच
मेळऽना, मेळऽना.

# चवळ्यो

□ पूर्णानंद च्यारी

*एक रात मळब कामरून*
*सुस्त न्हिदिल्ली*
*एक रात मळबाचे ताटले पोंदा*
*दंवार शिजिल्ली*

☆ ☆ ☆

*एक रात उमाशेची*
*धतरिर दूध उसपिता*
*एक रात उमाशेची*
*कुड्डी धर्तर सांसपिता.*

☆ ☆ ☆

*पावस धतरिचे साणीर*
*चंदन जावन झरता*
*आनी वली बुकाळ माती*
*चंदन जावनच परमळटा*

☆ ☆ ☆

*सरत्यो मेघां सरी*
*शेनतना झिगी शिंवरी*
*भांगरावरी सुर्या पिरी*
*कुपां कडांनी सोनाय सरी*

☆ ☆ ☆

*भार हाडचे परस येवप खरें*
*धोल, शेसारांच्या डिजलाचेर*
*कुडी कवदो भगभगचे परस*
*आत्म्याचें तेज, हें इंधन खरें*

☆ ☆ ☆

*दोंगरांच्या थानांतल्यान*
*फुटले दूदसागराचे घडे*
*धतरिच्या पानार*
*धवे फातरच जाले दूदपेढे*

☆ ☆ ☆

*फाटीर मारून थाप ताणीं*
*आपलेपणा माप दिलें*
*हुमरो हुपून वता खिणा*
*खंजिरान घाय केले.*

☆ ☆ ☆

*हांतुणार पडटा तेन्ना*
*सोयिस्कर पळ काडटात*
*मर्णा दिसा, वेळ काडून*
*घोस्तान रडटात.*

☆ ☆ ☆

# दीपावली शुभचिंतन



अज्ञान ,दळिद्र, विशमताय हांचो घयरांव काबार करुन
सुख-धादोसकायेचो फुडार पर्जळायत येतल्या दिवाळेच्यो
सगल्या लोकांक शुभेत्सा.

गोयांत कामकरी,कष्टकरी, शेतकामती, दीनदलित,
मागासवर्गीय हांगेल्या जीणेत अंदुची दिवाळी
नवो उजवाड घेवन येता.

सैमान आपणाले वेंगेत घेतिल्ल्या सोबीत गोंयची
सांस्कृतीक सासाय, धर्मीक एकचार आनी घटाय
गोंय राज्याचो एक मोलादीक सांठो.

२१व्या शेंकडयाकडेन घोडदौड करीत गोंय
उदरगतीचीं दरेक मळां
जिखीत आसा.

म्हायती आनी प्रसिध्दी खातें
गोंय सरकाराचे वतीन उजवाडायल्या




